मेळपाची गरज आशिल्ली. ना जाल्यार त्यो आवयो भुरग्यांक शिकूंक धाडचे बदला कामाक लायतल्यो आशिल्ल्यो. असो विचार करून गीताबायचे संस्थेन त्या बायलांक वेगवेगळ्या कामाचें प्रशिक्षण दिवपाक सुरवात केली. आपल्या पांयार उबे रावप आनी आपल्या हक्कां खातीर झगडप ह्या गजालींविशीं तांचेमदीं जागृताय निर्माण केली. आयज म्हणसर तांचे संस्थेन 90 हजारांपरस चड बायलांक प्रशिक्षण दिलां.

तांचो हो वावर पळोवन 2003-2004 ह्या वर्सा दिल्ली सरकारान तांकां तिहार बंदखणींत आशिल्ल्या बायलांक मदत करूंक आपयलें. थंयच्या बायलांची काळखी जीण पळोवन गीता खुबूच अस्वस्थ जाली. थंय कांय बायलो अश्यो आशिल्ल्यो, जांणी कांय गुन्यांवच करूंक नासलो. पूण तांच्यो जमनी, शेतां गिळंकृत करपाखातीर तांच्या सोयऱ्यांनी फटीच्या केशींनी तांकां घुसपावन बंदखणींत पावयिल्लीं. हातूंत विधवा बायलो चड आशिल्ल्यो. तांच्या वांगडा तांचीं निष्पाप भुरगीं स वर्सां जाय म्हणसर बंदखणींत आसतालीं.

जिणेंतली सगली आस सोपिंल्ल्यो ह्यो बायलो मोन्यानी सगलें सोंसताल्यो. आपणें हेच भोग भोगपाचे, दुसरें कायंच आपल्या वांट्याक येवचें ना हें तीं धरून चलतालीं. अशा ह्या बायलांमदीं जेन्ना गीताबायन वावर सुरू केलो, तेन्ना तिच्या लक्षांत आयलें की साहित्य खास करून 'कथा' हें अशें एक माध्यम आशिल्लें, जातूंतल्यान त्या बायलांक तांचेच जिणेचे वेगवेगळे पैलू दाखोवप शक्य आशिल्लें. तांचे जिणेंतले प्रस्न सुटावे करपाचो मार्ग सोदप शक्य जातालें, तांचो जिणेविशींचो नकारात्मक दृश्टीकोन बदलूं येतालो. ते खातीर गीताबायन अश्यो कथा घेतल्यो, ज्यो जिणेंतलो बदल दाखोवपी आशिल्ल्यो. विचारसरणी बदलपी आशिल्ल्यो. त्या कथांतल्यान प्रेरणा घेवन बंदखणींतल्यो त्यो बायलो स्वता आपल्यो काणयो बरोवंक लागल्यो. जांकां बरोवंक येनासलें तांणी आपल्यो काणयो रिकॉर्ड केल्यो. आपलें काळीज उकतें करूंक तांकां एक माध्यम मेळिल्लें.

गीताबायन आपल्या ह्या कामांत म्हजे 'आपले - परकी' हे 'कथा पुरस्कार' मेळिल्ले कथेचोय आदार घेतलो हें जेन्ना तिणें सांगलें तेन्ना म्हाका खऱ्यानीच खूब खोस भोगली.

साहित्याचो उपेग कसो करूं येता हाची ही एक देख जावन आसा.

### साहित्य - समाजाचो हारसो

साहित्यांत समाजाचें रूप दिश्टी पडटा. आयच्या आधुनिक युगांत मनशान खूब प्रगती केल्या. सगलें सोपें जालां. बटन दामपाचीच गरज, सगलीं कामां फटाफट करून जातात. पूण खीणभर चिंतून पळयल्यार आमकां अशेंय दिसतलें की उदरगती वांगडा आमचे जिणेंत अन्याय, भ्रष्टाचार, अनिती, अधर्म, अत्याचार, शोशण ह्यो गजालीय खूब मातल्यात. आनी भोव खेदाची गजाल म्हळ्यार ह्या गजालींची आमकां संवंय जाल्या. आमचीं नितीमुल्यांय बदलल्यांत.

खुद्द कुटूंब संस्था लेगीत बदलल्या. एकठांय कुटूंब पद्धत आतां आडवादान दिश्टी पडटा. जाणटीं मनशां घरांतली अडचणशी दिसूंक लागल्या. तांचो जागो आतां वृद्धाश्रमांत जाला.

लेखकाच्या संवेदनशील मनाक ह्यो सगल्यो गजाली दिश्टी पडटात. पूण हें सगलें जितल्या फोर्सान साहित्यांत येवंक जाय तितल्या फोर्सान येता व्हय? भ्रष्टाचाराआड कितल्या जाणांची लेखणी पेटून उठल्या?

पेनाची धार तलवारीपरस चड तीक्ष्ण आसता अशें आमी मानतात. ताचो वापर योग्य थंय करूंक जाय हेंय आमी जाणात. पूण ह्यो गजाली तितले पोटतिडकीन केल्ल्यो दिश्टी पडनात.

'साहित्य स्वाध्याय' ह्या आपल्या पुस्तकांत सर्गेस्त श्री. चंद्रकांतबाब केणी हांणी बरयिल्ल्या उतरांनी सांगतलें जाल्यार-

''जिणेचो घुसपागोंदळ वाडला तशीं साहित्यांतलीं प्रमेयां बदलूंक लागल्यांत. इलॅक्ट्रॉनिक प्रसार - माध्यमाक लागून अक्षर साहित्यामुखार व्हड आव्हान उबें रावलां आनी गुणवत्ता नांवांच्या कसाचो दर्जो उरूंक ना. बरीं बरीं वर्तमानपत्रां बदलत्या काळाक शरण वचून शुद्ध बातमेची उपेक्षा करून थिल्लर बातम्यो ठळक पणान उजवाडांवक लागिल्ल्यान ही नवी पत्रकारिता अशें मानून मोन्यानी बसप हें शाणेपणाचें अशें समस्त समाजीक फुडाऱ्यांक आनी विचारवंतांक दिसूंक लागलां.''

भौ. चंद्रकांतबाबान जें बरयलां तातूंत मातय अतिताय ना. ज्या गोंयांत कोंकणी राजभास आसा, खुद्द थंय कोंकणीविशींच्यो म्हत्त्वाच्यो बातम्यो ज्यो पयल्या पानार येवंक जाय आसल्यो त्यो इंग्लीश नेमाळ्यानी केन्ना केन्ना खंयचेतरी पानार कुशीनश्यो छापून येतात. आनी केन्ना केन्ना तर येच नात. आनी थिल्लर बातम्यो पयल्या पानार वाचूंक मेळटात. 'हें अशें कित्याक' असो प्रस्न

आमकां स्वताक पडलो तरी वर्तमानपत्राच्या जाळवणदारांक तो आमी करिनात.

### साहित्याचे समिक्षेची गरज

साहित्याक समिक्षेचीय खूब गरज आसता. पूण समिक्षा ही पोझीटीव्ह आसूंक जाय. खास करून नवोदितांच्या साहित्याची समिक्षा करतना तें नवोदिताचें साहित्य हें मतींत धरून समिक्षा करूंक जाय. चड कडक बरयल्यार तांचें बरोवप बंद जावपाची भिरांत आसता. कोडू वखद दोतोर जेन्ना शुगर कोटेड कॅप्सुलांतल्यान दिता, तेन्ना पेशंटाक आपणें कोडू वखद घेतलां हें कळचना. पूण त्या वखदाचो जसो परिणाम जावंक जाय तसो तो कुडीचेर जाता. तर समिक्षा ही त्या कॅप्सुलावरी आसूंक जाय.

### नव्या बरोवप्यांकडेन मागणें

तरीकय हांगा म्हाका आनीक एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय. आपूण बरयतां ताचो साहित्यीक कस कितलो आसा, तातूंत खोलाय कितली आसा ती पारखुपाची तांक जायते फावटीं नवोदितांत नासता. आपलें पुस्तक छापून येवचें इतल्याच हावेसान ते पुस्तक छापपाचे फाटी लागतात. अट्टाहासान कितेंय छापलें म्हणून साहित्याच्या दर्यांत तें तिगून उरना. देखून अशा लेखकांनी म्हालगड्यांची मजत घेवन्, आपणें जें बरयलां तें छापपासारकें आसा काय ना हें जाणा जावन घेवंक जाय. छापूं नाका असो कोणेंय परखड सल्लो दिल्यार निर्शेवंक जायना वा राग धरूंक जायना. लेखक एका दिसांत तयार जायना. बरोवप्याक वाचन हें खूब गरजेचें. खूबशें कितेंय वाचतकीर इल्लेंशें कितेंय किल्लून येता, जें मोलादीक आसता. आमकां फकत पुस्तकाच्या आंकड्यांत भर घालचेली ना. दर्जेदार पुस्तकां तयार जावंक जाय. 'पयलो चंवर' हे येवजणेखाला पुस्तकां छापतना हें मतींत दवरल्यार बरें जातलें.

आनीक एक सांगपाचें म्हळ्यार Ghost Writing हो प्रकार खुबशा भाशांनी वयर सरला. खऱ्या लेखकाक भरपूर पयशे दिवन पुस्तकां आपल्या नांवार छापप आनी प्रसिद्धी – पुरस्कार मेळ्ळो जाल्यार श्रेय आपल्याक घेवप. हो प्रकार निदान कोंकणी साहित्य क्षेत्रांत येवचो न्हय अशें हांव देवालागीं मागतां.

### बायलांची तांक आनी मर्यादा

संमेलनाची अध्यक्ष म्हणून म्हजी निवड जातकीर एकल्यान म्हाका म्हणलें, "हे खेपेक हो भोवमान एके बायलेक फाव जालो, बरें दिसलें. 40 वर्सांत अध्यक्ष जावपी तूं दुसरी बायल. पयली, आमचें बाय शीला कोळंबकार."

हांवें म्हणलें, "साहित्यीक हो सर्जनकार आसता, ताका लिंगभेद लागना."

"पूण तो आसता म्हणूनच बायलांखातीर वेगळो परिसंवाद, वेगळी माची आसता न्हय?" ताणें म्हणलें आनी सट् सट् करून कितलेशेच विशय सांगले.

'कोंकणी साहित्यांत बायलांची अभिव्यक्ती आनी हावेस'

'आयच्या काळांतली अस्तुरी, कितली फुडें, कितली फाटी?'

'कोंकणीचे लौकीक उदरगतींत बायलांचो सहभाग'

आनीकय कांय अशेच विचार... अशें कित्याक?

त्या विशयांत बायलां जाग्यार फकत लेखक हें उतर घालें

जाल्यार दोगांय आयलीं भितर... अशें उलोवन तो गेलो. पूण ताणें म्हाका चिंतूंक लायलें.

कोंकणी बायलांनी आपल्या कर्तृत्वान आपूण दादल्यांपरस उणी ना म्हणपाचें सिद्ध केलां. देखूनच अशा वेगळेचाराची गरज ना अशें बऱ्याच जाणांचें मत आसा.

प्रस्न आमच्या आंगांत कितली तांक आसा हो न्हय तर ते तांकी प्रमाण आमकां मान मेळटा काय ना हो.

चारय राज्यांतल्या प्रतिभावंत आनी तोलामोलाच्या लेखिकांची वळेरी तयार केल्यार ती बरीच व्हड जातली. तरी आसतना फाटल्या चाळीस वर्सांत (20 अधिवेशनां) हो भोवमान फावो जावपी फकत दोनच बायलो कश्यो कितें हो प्रस्न मनांत आयले बगर रावलो ना.

एक गजाल खरी, दर एका मळार फुडें बतलीं जाल्यार एके बायल मनशेक दादल्यापरस खर प्रयत्न करचो पडटा. चड आडमेळीं हुपून फुडें वचचें पडटा, हें न्हयकारून जावचें ना. हाचें कारण घडये बायलांक दुय्यम स्थान दिवपी समाजाचो Mind-set आसूं येता.

चलयांनी कशें वागूंक जाय आनी कशें वागूंक जायना हाचे संस्कार ल्हानपणापासून चलयांचेर जायत रावतात. ताचो परिणाम फकत चलयांचेरच जायना तर चलयांपरस आपूण श्रेश्ठ असो चुकिचो समज चल्यांच्या मनाचेरूय जाता. आनी पर्यायान सगलो समाजच तशें धरून चलता. पुराय समाजाची मनोवृत्ती बदलले

बगर ही परिस्थिती बदलत?

आनी वेगळेचाराची गरज ना म्हणटना नेमक्यो कसले तरेच्यो बायलो आमचे नदरेमुखार आसतात? खंयच्या वर्गांतल्यो? सगल्याच बायलांक एकेच भशेन Exposure मेळटा? ज्या तरेच्या वातावरणांत त्यो जीण सारतात, तें तांची जीण फुलोवंक पोशक आसा?

मुळांतच बायलांच्या आंगांत सोंशीकपण, दुसऱ्यांक समजून घेवपाची, time management करपाची तांक दादल्यांपरस चड आसता. घर आनी नोकरी ही सरये वयली कसरत तीं बरेतरेन करतात. एक बायल मनीस म्हणून कसलीच खाशेली सवलत (बाळांतपणाची रजा सोडल्यार) तिका मेळना आनी ती मेळची हेंय ती Expect करिना. इतलें सगलें करूनय ती कलेची, साहित्याची साधनाय चालू दवरता. दोनूयकडलें संतुलन बरेतरेन सांबाळपाची शक्त जांच्या आंगांत आसता तीं आपल्या कर्तृत्वाक शीममेर घालून घेनात. हें करतना प्रवाहा वांगडाच न्हय तर प्रवाहा आडय तीं समर्थपणान पेंवतात. पूण ही तांक सगल्याच बायलांच्या आंगांत आसता?

ज्या अस्तुऱ्यांक आपलें 'लक्ष्य' कितें तें खबर आसा, ज्यो जिणेंत Focussed आसात,त्यो आडमेळीं हुपत फुडें फुडें वतात. पूण जांकां धड शिक्षण मेळूंक ना, कसलें Exposure ना, जें कितें मानून घेतलां ताचे भायलें कांय खबर ना, संवसारांत आपणें फकत कश्टत रावपाचें, सगले कश्ट, पिडापीड, अन्याय सोंसत रावपाचें आंगांतली कला कुशीक उडोवन फकत संवसाराखातीर घश्टत रावपाचें अशें जीं स्वताच धरून चलतात असल्या बायलांनी कितें करपाचें? सगल्या बायलांमदीं हांची टक्केवारी कितली?

साहित्यीक बायलांच्यो आनीकय कांय वेगळ्यो मर्यादा आसतात. साहित्य निर्मणी म्हळ्यार शब्दकोश घेवन तातुंतले शब्द कागदार उतरावप न्हय. आनी फकत कागद आनी पेन घेवन बसलीं म्हणूनच साहित्य निर्मणी जायना. ते खातीर वेगळे तरेच्या साधनेची गरज आसता.

वाचन हें गरजेचेंच. पूण वाचना वांगडाच वेगवेगळे कडेन भोंवप, वेगवेगळ्या भागांतल्या आनी भासांच्या साहित्यकारांवांगडा भासाभास करप हेंय भोव गरजेचें. पूण खुबश्या कारणांक लागून एकटुके बायल मनशेक तें शक्य जाताच अशें ना. हाका लागून तिचें अणभवविश्व कांय प्रमाणात मर्यादीत उरूं येता. पूण तिचें कल्पनाविश्व मर्यादीत नासता हें तिचें खाशेलपण!

हांगा म्हाका हेमाबाय नायकान 1980 त सुरू केल्ल्या 'चित्रंगी' ह्या बायलांच्या मेळाव्याविशीं थोडेंशें सांगूंकच जाय. ह्या मेळाव्यान चलयांक एक वेगळें फ्लॅटफॉर्म दिलें. जीं भिडेतालीं, तांची भीड ना केली. साहित्य निर्मणी करूंक उर्बा दिली, आपले विचार उलोवन दाखोवपाची धिटाय दिली.

चित्रंगी ही वाल नाजूक खरी, पूण आयज साहित्याचे मातयेंत तिचीं पाळांमुळां घट रोमल्यांत आनी चित्रंगींतल्यान उर्बा घेवन नांवांरुपाक आयिल्ल्यो कितल्योश्योच तोलामोलाच्यो लेखिका आनी कवियत्री म्हाका मुखार दिसतात. मूळ साहित्यीक बीं तांचेमदीं आशिल्लेंच, पूण 'चित्रंगी'न ताका सारें – उदक घालें हें आमी नाकारूंक शकनात. हें सगलें बायलांखातीर आशिल्ले 'चित्रंगी' न केलें हेंय विसरूंक शकनात.

फाटल्या म्हयन्यांत म्हळ्यार 27 मार्च ह्या दिसा 'बिम्ब परिवारान' कला आनी संस्कृती खात्याच्या जोड पालवान बायलांचो एक भोव सुंदर मेळावो भौ. दिलीप बोरकार हांच्या घरा आयोजित केल्लो. साहित्यीक गृहिणी आनी सर्व सामान्य गृहिणी हांचो तो सुमेळ आशिल्लो. एक आगळो वेगळो समन्वय! दोन तरांच्या बायलांनी एकामेकांक समजून घेवपाची ती संद आसली. त्या बायलांनी प्रत्यक्ष साहित्य निर्मणी केन्ना केल्ली नासत, पूण आपलीं सुख–दुख्खां घेवन आयिल्ल्यो त्यो बायलो आमच्या साहित्यांत पावला कणकणी दिश्टी पडपी आशिल्ल्यो. जण एकलेन आपलें मन मेकळें केलें. हातचें राखून कोण उलयली ना. सर्वसामान्य आसूनय आतां त्यो आपल्या पांयार उब्यो आशिल्ल्यो. आपल्या कर्तृत्वाक आपणेंच शीम घालून घेतिल्ली तेन्नाची आपली जीण आनी आतां – ती शीम हुपून भायर सरतकीर चंवरून आयिल्ली आपली जीण – ते जिणेवांगडा आयिल्लो आत्मविश्वास – कुटुंबांतल्या हेर वांगड्यांकडल्यान मेळपी मान हांचेविशीं त पोटतिडकीन उलयलीं.

तांच्या मतांक किंकोत करपीच आतां तांच्या उतराभायर वचनासले, हो केदो फरक तीं जिणेंत अणभवतालीं.

लिखीत साहित्य निर्मुपी आमी तांच्या तोंडांतल्यान वझा जावन व्हांवपी मौखीक साहित्य आयकतालीं. सगल्या बायलांचीं खंती, खोशी, सुखां, दुख्खां एकेच तरेचीं! घडये ताची खरसाण चड, ऊणी आसत.

'त्या साहित्यीक बायलांमुखार आमी कितें उलयतलीं?'

असो प्रस्न दिलीपाक करपी त्यो बायलो, पूण तांचें उलोवणें आयकतना तांचे मुखार आमी कितें उलोवं अशें आमकां दिसलें. कारण, प्रवाहाआड वचून, जायतीं आडमेळीं हुपून, कश्टांतल्यान स्वयंसिद्धा जावन ताठ मानेन तीं उबीं आशिल्लीं. आपमजत गट स्थापून तरेकवार येवजणो चालीक लायतालीं. पयलीं तीं फकत आपल्या कुटुंबापुरतेंच रांदतालीं. आतां तांच्या कुटुंबाचो आवांठ तांणी व्हड केल्लो.

एक सुंदर आयतार अशें हांव त्या दिसाचें वर्णन करीन. अशे मेळावे जावप खूब गरजेचें. घडये तातुंतल्यान साहित्याक पोशक अशें कितेंय घडूं येत. आनी घडये आमचें साहित्य तांकां प्रेरणादायक थारत.

### मोनजात – जिणेचो एक भाग

सामाजिक जीण म्हणटना आमी फकत मनशांचोच विचार करतात. पूण मोनजात ही समाजाचोच एक भाग हाचो विचार आमी करतात? महात्मा गांधीन म्हणिल्लें - The greatness of a nation and its Moral Progress can be Judged by the way it treats its animals.

पूण आमच्या देसांत मोनजातीक कसली वागणूक मेळटा तें आमी पळयतात. कितले निर्दयतेन तांची कत्तल जाता तें वाचल्यार लेगीत काळीज तुट्टा. जाका स्वताक आवाज काडपाची शक्त ना तांचो आवाज आमी जावंक जाय.

फाल्यांचो सुजाण नागरीक म्हळ्यार आयचीं ल्हान भुरगीं. तांच्या काळजांत मोनजातीविशीं मोग जागोवपाचें काम आमी साहित्यावरवीं करूंक जाय.

### आयच्या तरनाट्यांच्या खांदार कोंकणीची घुडी

शणै गोंयबाबांनी पळयिल्ली आनी घडये त्या काळार तांकां होलमूंक नाशिल्लीं आनीकय साबार सपनां आयज साकार जाल्लीं दिसतात. जें कितें आमी मेळयलें तितल्यार आमी समाधानी रावपाक जायना. कारण जें मेळयलें ती फकत साधना. ती भोव गरजेची हें मान्य करूनय तितल्याचेरच आमचो हेतू साध्य जायना. तो साध्य जातलो जाल्यार त्या साधनांचो योग्य उपेग जावंक जाय. उदरगतीचे वटेन फुडें, फुडें वचूंक जाय. आनी हो भार आमचे युवा शक्तीन खांदार घेवंक जाय. कोंकणीच्या जैताची घुडी ताणीच फुडें व्हरपाक जाय.

आयची तरणी पिळगी बरोवंक फाटीं ना तांच्यो भावना, उमाळे हावेस, उत्फर्के, परंपरा मोडून नवी वाट चलपाची इत्सा आनी ते खातीर बंड करपाची वृत्ती हें सगलें म्हालगड्यांनीय समजून घेवंक जाय. बंडां काळजांत घेवन वावरप ही तर तरनाट्यांची परंपरा आनी हे परंपरेंतल्यान कोंकणीचे उदरगतीखातीर तन-मन-धन ओंपपी फाल्यांचे फुडारी जल्मतले हें आमी फाटल्या अणभवांतल्यान शिकल्यातच. पूण तेच वांगडा संयम हो एक म्हत्त्वाचो गूण तरनाट्यांनी आपणावंक जाय. कोंकणीच्या म्हालगड्यांनी जे निश्टेन पोटतिडकीन कोंकणीखातीर संघर्श केलो आनी जैतां हातासलीं, आनी आयचो दीस हाडूंक जे कश्ट केले, ते कश्ट, ती निश्ठा कोणेंच विसरूंक फावना. सगल्यांनी एकमेकांच्या सांगतान सहकार्यान कोंकणीचो वावर चालू दवरूंक जाय.

### संस्कृतायेचेर घुरी

काळ जसो फुडें वता तशें साहित्य म्हणा, भास म्हणा वा चिंतना बदलत वतात. आदल्यो गजाली ना जातात नव्यो गजाली तांचो जागो घेतात. पोरणीं चिंतना वचून नवीं चिंतना येतात. बदल हो वायट अशें न्हय. पूण तो बऱ्याखातीर जावचो, वायटाखातीर न्हय, ही सादूरकाय आमी बाळगूंक जाय. खूबदां फुडें वचपाबदला आमी फाटीं वचूंक लागतात. तेन्ना ती गजाल हुसको करपासारकी आसता. अशीच हुस्क्याची गजाल म्हळ्यार भारतीय भासांचेर जाल्ली सांस्कृतिक घुरी.

एकेतरेची गर्भवाळटी ही. ती भितरले भितर पोखरत वता. वयलें कल्ल तितलें दवरता. ही वाळटी म्हळ्यार इंग्लेज भाशेची. वेव्हारीक नदरेन ती आमकां जाय. तिका आमी कुशीक काडूंक शकनात. पूण गरजेपरस वा थारावीक मर्यादे परस तिणें आमची जीण व्यापूंक जायना. गोंयची राजभास कोंकणी – संस्कृती कोंकणी पूण खंयच्याय सरकारी खात्याक फोन करात तुमकां प्रतिसाद इंग्लीशींतल्यान मेळटलो. हें गोंयांतच घडटा. कर्नाटकांत वा तामिळनाडूंत सरकारी खात्यांत फोन करात थंय कानडीच आयकूंक येतली. गोंयची राजभास कोंकणी हें स्टेट बँक, एलआयसी आनी अशा कितल्या तरी आस्थापनांक खबरच ना. ते गोंयकारांची भास मराठी वा इंग्लीश अशेंच धरून चलतात. चुकता तें आमचें. आमी तांचेकडेन कोंकणीच उलोवंक जाय. तांची अडचण आमकां लागना. इतलीं वर्सां गोंयांत काडून आजून तीं कोंकणी शिकचेलो यत्न करिनात.

असो एक वर्ग आतां तयार जावंक लागला, जो घरांत भुरग्यांकडेन आनी चार चौगांत इंग्लीश उलोवप म्हळ्यार स्वताक मॉडर्न मानता. घरांत आपलीं भुरगीं इंग्लीश उलयतात हाचो अभिमान बाळगुपी पालकांचो आकडो वाडत आसा. भुरग्यांचेर संस्कार करचेले आसतात हें लेगीत ते विसरल्यात. घरांत एकामेकांकडेन इंग्लीश उलोवपी भांवडांक 'तुमकां कोंकणी येना?' अशें विचारल्यार, तांणी जाप दिवचे पयलींच आवय मदीं पडून म्हणटा, 'इंग्लीश उलोवपांत म्हज्या भुरग्याचो हात धरपी कोण ना. कोंकणी कितें, कोणाकूय येता!'

ही घडणूक घडली त्याच दिसा अमेरिकेंत फाटलीं 30 वर्सां स्थायीक आशिल्लें एक गोंयकार कुटूंब मेळ्ळें. सगलीं उच्च शिक्षीत. व्हडली धूव अमेरिकेंत दोतोरकी करता. दुसरी इंजिनिअरींग करता. तोखणायेची गजाल म्हळ्यार सगलीं जाणां एकामेकांकडेन शुद्ध कोंकणीत उलयतालीं. म्हाका अजाप दिसलें जाल्यार बापायन सादेपणान म्हणलें, ''खंयूय आसूं, आपलें मूळ आनी आवयभास विसरूंक फावना.'' हातुंतलें खंयचें कुटूंब सुबुद्द आनी खंयचे अबुद्दी तें तुमी थारायात.

**कोंकणी मुखावयले प्रस्न**

कोंकणी अस्मितायेचो शणै गोंयबाबाक दिश्टावो जालो तेन्ना कोंकणी समाज वेगवेगळ्या कुडक्यांनी वाटून गेल्लो. ह्या फाफसल्या कोंकणी समाजाभितर एकचार घडोवन हाडपाचें सपन शणै गोंयबाबान पळयलें. तांच्या विचारांपसून प्रेरणा घेवन आमगेल्या म्हालगड्यांनी कोंकणीची चळवळ चलयली.

एक भास, एक लिपी हो मंत्र तांणी कोंकणी मनशाक दिलो. कोंकणीखातीर देवनागरी लिपी हो एक धागो आशिल्लो, जो वेगवेगळ्या भुगोलीक वाठारांनी वांटून गेल्ल्या कोंकणी समाजाक एकठांय बांदपाचो. कोंकणी साहित्याक हो धागो भोव गरजेचो आसलो.

देवनागरी ही एक परिपूर्ण लिपी. ती Computer Friendly भास हेंय खूब जाणांनी मानून घेतलां. पूण 'एक भास – एक लिपी' ह्या मंत्राफाटली एकवटाची शक्त सगल्यांक समजल्या कांय कितें असो प्रस्न पडपा सारकी परिस्थिति आयज उप्रासल्या. वेगळेचाराची भास आयकूंक येवंक लागल्या. अशी वेगळेचाराची मोख कोंकणीची उदरगत आसूंकच शकना. ती तर इंग्लीशी दिकेन पावलां मारपाची सुरवात. कारण रोमी संमेलनाचे माचयेवयल्यान मुळावें शिकप इंग्लिशींतल्यान दिवपाची मागणी जाली. आनी ही अबुद्धीपणाची मागणी ज्या संमेलनाचे माचयेवयल्यान जाली, तें संमेलन दाल्गाद कोंकणी अकादमीन घडोवन हाडिल्लें हाचेसारकें दुर्दैव ना.

मोसिंयोर सेबास्तियांव रुदोल्फु दालगाद हे एक विद्वान, जाणी आमकां कोंकणीचें व्याकरण दिलें आनी कोंकणीची अप्रूप सेवा केली, ते लेगीत देवनागरी ही कोंकणीची सभावीक लिपी मानताले. पूण मो. दालगादाच्या नांवान सुरू केल्ली एक संस्था आनी तिचे जाळवणदार, हांणी गोंयांत पावल दवरीतपासून कोंकणीचें बळगें खच्ची करपाचे यत्न सुरू केले. सुरवेक तांणी कोंकणी व्याकरणाचे आपल्याक जाय तशे नेम केले. ताका कोण बदना हें पळोवन हळूच रोमी लिपीचो हावको फुडें काडलो. रोमी कोंकणीक मान्यताय जाय म्हणटात थंय आसा, आतां तांकां कोंकणीच नाका जाल्या. भुरग्यांक मुळावें शिकप इंग्लीशींतल्यान करून कोंकणीक ना करपाचो तांचो यत्न चल्ला. हाचे फाटल्यान अराष्ट्रीय वृत्ती आसा. अज्ञानी भौसाक खुबळावन, तांकां व्हडा संख्येन मार्गार हाडून आपली शक्त दाखोवपाचे तांचे यत्न चल्ल्यात. हे तरेन सरकाराचेर चेपण हाडपाच्यो हालचाली सुरू जाल्यात. आनी रोमी रोमी म्हणून हड्डें बडोवन घेवपी हेच लोक आतां सेकसोर्त मुळावें शिकप इंग्लीशींतल्यान दिवचें अश्यो आड्डी मारूंक लागल्यात. 'कोण म्हणटात – कोंकणींतल्यान शिकपी भुरगीं पोट भरूंक शकचीं नात.' कोण म्हणटा – 'कोंकणी शिकून कितें बोटलेर जावपाचें आसा?' हें तांणी खंयच्या सिद्धांताच्या आदारान म्हणलां देवाक खबर! कारण कोंकणीतल्यान मुळावें शिकप घेवपी भुरगे देशांतच न्हंय तर देशाभायरय पर्जळूंक लागल्यात. पूण घडये दोळ्यांर गुलामगिरीची पट्टी बांदिल्ल्यान तांकां भोंतवणी सगले बोटलेरच दिसतात.

आवयभाशेंतल्यान मुळावें शिकप जालें जाल्यार हेर सगलें शिकप सोपें जाता. हें एक सत्य. मुळावें शिक्षण हें भुरग्याक नव्या भाशेंतल्यान शिकोवपाचें नासता. ताका जी जल्मापासून येता तीच भास मुळावें ज्ञान दिवपाक वापरल्यार तांचे मेंदूचेर ताण पडनासतना तांकां मुळावें ज्ञान मेळटा. ताका लागून ताका शिक्षणाचीय गोडी लागता. मागीर तो कितेंय नवें शिकूंक शकता. पूण हें अबुद्दी लोकांक कशें समजावप? तांकां तर किरांची पिळगी तयार करूंक जाय. 'बाबा ब्लॅकशीप' म्हणपी कीर! ज्या बडबड गितांचो भुरग्यांक अर्थ लेगीत समजना. अशीं भुरगीं किरावरी पदां म्हणटात आनी आवय–बापूय धन्य जातात! Black Sheep उतराचो वायट अर्थ जाता ताका लागून इंग्लंडाक हें पद बॅन केलां. पूण हें हांगच्या शिक्षकांक खबर आसा?

हांगा म्हाका स. मनोहरबाबांच्या 'हळडुवो ताल्ल बेबो' ह्या

बडबड गिताची याद जाता. हें गीत भुरगीं मोठे रुचीन गायतात. कारण तांतलो बेबो, कावळो, बुकलो हीं तांचे वळखीचीं.

स. मनोहरबाबान सांगिल्ली ह्या गितासंबंदीची एक याद म्हाका सांगीन दिसता. एक फावट मनोहरबाब कोणागेर तरी गेल्ले. बेल मारतकीर एके ल्हान चलयेन दार उकतें केलें आनी विचारलें, 'तुमी कोण?' मनोहरबाबान सांगलें – 'मनोहरराय सरदेसाय आयला म्हणून सांग' तें आयकनाफुडें ते चलयेन व्हडान आड्डून आवयक सांगलें, 'मम्मी, मम्मी, बेगीन यो, हडवो ताल्ल बेबो आयला.' फकत पदच न्हय, तर त्या कवीचें नांव लेगीत यादींत दवरपी त्या भुरग्याची तोखणाय करपाची तितली थोडी!

भुरग्यांक मुळावें शिकप परकी भाशेंतल्यान दिवपी पालकांक घडये तीं भुरग्यांचें कितलें लुकसान करतात तें आयज खबर नासत. पूण हीं भुरगीं व्हड जातकीर तांचें आपणें कितें लुकसान केलां हें नक्कीच समजतलें. त्या व्हड जाल्ल्या किरांक आमचे आंकडे समजनात. वार कळनात. त्रेसष्ट म्हळ्यार कितले? बुधवार म्हळ्यार कितें? हें तांकां सांगचें पडटा. कोंकणी, मराठी, हिन्दी – खंयचेच भाशेन आत्मविश्वासान उलोवप तांकां जमना. इतलेंच न्हय तर धड इंग्लिशय तांकां सारकी उलोवंक येना.

फकत इंग्लिशच पोट भरपाची भास जाल्यार चीन, जपान, रशिया इतलेंच न्हय, खुद्द युरोपांत इंग्लंड, स्कॉटलंड, आयर्लंड सोडल्यार हेर फान्स,जर्मनी, स्पेन, इटाली बी हेर देशांनी जे इंग्लीश शिकनात, ते आपलीं पोटां कशीं भरतात कांय?

आमकां फकत पोटांच आसात? आमी जनावरां? भुरग्यांचे भावनिक, मानसिक वाडीकडेन, सर्जनशिलतेकडेन ताच्या पालकांनी न्हय जाल्यार कोणें लक्ष दिवप तर?

फकत पोटांच भरपी नवी पिळगी तयार जावंक लागली जाल्यार आमची भास, आमचें साहित्य हें कोणाखातीर?

मुळाव्या शिक्षणाच्या माध्यमाच्या ह्या प्रस्नान कांय वर्सांफाटी तकली वयर काडिल्ली. पूण तेन्ना ती आमी छाटून उडयली. पूण आतां तो नवी तकली घेवन परतो वयर सरता. आतां फकत तकली छाटून उपकरचें ना. आतां गरज आसा ती ताका पुरायेन लासून गोबोर करपाची! आयज गरज आता ती आवय – भाशेखातीर सगल्यांनी पेट्न उठपाची. आयचे घटकेक हो म्हत्त्वाचो विशय. ताचेर उलयलें ना जाल्यार आनीक कित्यार उलोवप? आयज ह्या प्रस्नाकडेन आडनदर केल्यार, भुरग्यांलो खेळ म्हणून दुर्लक्ष केल्यार पुराय घर लासून वचपाचो भंय आसा. हो उजो वेळारूच पालोवन उडोवंक जाय. ना जाल्यार आनीक कांय वर्सांनी हीं संमेलनां घडोवन हाडपी कोण उरचे नात. आनी तीं जालींच जाल्यार भोगवळीपुरतीं जातलीं.

भुरगीं हीं आमचीं आसलीं तरीय ती देशाची संपत्ती हें आमी विसरूंक फावना. देशाचो फुडार जांच्या हातांत आसतलो तांचो फुडार घडोवपाची जापसालदारकी पालकांची. पूण ही जापसालदारकी पेलपाची तांक वा कुवत सगल्याच पालकांकडेन आसा कांय कितें हें मूळ पळोवचें पडटलें. कारण त्या भुरग्यांचेर दायज, संस्कृताय हांचे संस्कार करतलीं जाल्यार मूळ तांचे पालक परकी भाशेचें वागरें पडिल्ले आसूंक जायनात. कारण शेड्ड्याची धांव जशी वंयेमेरेन, तशी ह्या असल्या पालकांची धांव पोटामेरेन. आमकां दायज, संस्कृताय, संस्कार हे कितले मोलादीक. हाचे बगर आमकां अस्तीत्व ना. हें जर समजुपाची तांक मनशांत नासत जाल्यार ताका मनीस म्हणप लेगीत सारकें जावचें ना.

आवय भाशेंतल्यानच मुळावें शिक्षण आसचें ह्या मताक तेको दिवपी बरेच मुदयेर थीक कशे लेख हालीं दिसांनी छापून आयले. भौ नारायण देसाय हांणीय एक सुंदर लेख बरयिल्लो. तातूंत तांणी म्हणलां – 'देडशें वर्सां आदीं पुर्तुगालचे संसदेंत एक गोंयकार अशें उलयिल्लो – जे संस्कृतायेन संवसाराक शून्य आनी गणिताचें ज्ञान दिलें, रामायण – महाभारत हीं म्हाकाव्यां दिलीं, बुद्दीबळासारको खेळ दिलो, ते संस्कृतायेचो हांव प्रतिनिधी'

पुर्तुगेजांक तांचेच भुंयेर आपली ही वखळ दिवपी ह्या मनशाची तोखणाय करता तितली थोडी! हड्डें अभिमानान भरून आयलें.

ही आमची अस्मिताय, वेगळेपण, आमी सांबाळून दवरलें ना जाल्यार आमी – 'आमी' उरचेनात. पूण हें समजुपी मनशां आमचेमदीं आसात कांय? आमी unscrupolous, uninformed जाल्यांत.

हे विशीं हालींच वाचिल्ली दिप्ती त्रिपाटी हिची मुलाखत म्हाका याद जाता. 'नॅशनल मिशन फॉर मॅन्युस्क्रीप्ट' हे संस्थेची ती डायरेक्टर. पोरणीं, मोलादीक हातबरपां सांबाळपाचो वावर तांची संस्था करता. ती म्हणटा – `No nation can prosper on borrowed money, technology, intellect and language`

ती संस्कृत भाशेची व्हड विदुषी जावन आसा. हातबरपां सारक्यो मोलादीक वस्तू – जांकां तांचें मोल खबर ना अशा

मनशांच्या हातांत पडच्यो न्हय हाची तांकां खूब जतनाय घेवची पडटा.

अशेंच एक चित्रां आशिल्लें (illustrated) हातबरप हिमाचल प्रदेशांत आशिल्लें. कोणें तरी तें विकतें घेतलें – ताका तातुंतली कितें गती आसा म्हणून न्हय, तर ताचेकडेन तें घेवंक पैसो आशिल्लो. केन्ना केन्ना एक Status Symbol म्हणून पैशेकार लोक कांय गजाली घेतात. तशें – ताणें तें हातबरप घेतलें जावंये. तातुंतलो जो गद्याचो भाग आशिल्लो तो ताणें पिनून भायर उडयलो आनी चित्रां तितलीं वेगळीं करून विकलीं. त्या मनशाच्या हाताक तें हस्तलिखीत लागलें, ही केदी दुर्दैवाची गजाल!

सांगपाचें म्हळयार तुमच्या भुरग्यांचो फुडार तुमच्या हातांत आसा. ताचें मोल वळखूंक शिकात. अबुद्दीपणान तो पिनून भायर उडोवं नाकात. लुकसाण भुरग्यांचें आनी पर्यायान देशाचें जातलें.

### कोंकणी साहित्या मुखावयले आनीक कांय प्रस्न

कोंकणी साहित्यिकांमुखार आयजवेर एक व्हड प्रस्न आसतालो. तो म्हळ्यार प्रकाशनाचो. बऱ्याच प्रमाणात हो प्रस्न सुटूंक पावला. कोंकणी अकादेमी, अस्मिताय प्रतिष्टान, जाग प्रकाशन, राजहंस प्रकाशन, अपुर्बाय प्रकाशन, बिम्ब प्रकाशन, राजाई प्रकाशन ह्यो आनी अश्यो आनिकूय कांय निमसरकारी आनी खासगी संस्था गोंयांत पुस्तकां उजवाडावंक फुडें सरत आसात. ते भायर गोंय कला आनी संस्कृती खात्यानय गोंयकार लेखकांक पुस्तकां छापूंक अर्थीक पालव दिवसापासत येवजण चालीक लायल्या.

म्हणजेच प्रकाशनाचो प्रस्न तितलो गंभीर उरूंक ना. पूण हीं पुस्तकां वाचप्यांमेरेन पावोवप कशीं, हो प्रस्न आसा. खासगी संस्था कितलो तेंप मेरेन अर्थीक भार सोशीत रावतल्यो? छापिल्ल्यांतल्यो चडांत चड 500 प्रती कशेभशेन खंपोवंक शकत.पूण ह्या पुस्तकांक वाचक कशे मेळप? घोड्याक उदकामेरेन व्हरूं येता, पूण ताका उदक कशें पिवोवपाचें?

हो फकत कोंकणी साहित्याचोच प्रस्न न्हय. सगल्याच भारतीय भासांमुखार – इंग्लेज धरून होच प्रस्न उबो आसा.

वाचनाची संवयच उणी जायत चल्ल्या. शाळा – कॉलेजांनी भुरगे कोंकणी विशय घेतात. पूण तो पास जावपापुरतो. आवडीन नवें पुस्तक फुकट मेळून लेगीत वाचपी कॉलेजांतले कितले भुरगे आसात? भुरगेंच कित्याक, खूबदां शिक्षक लेगीत कोंकणी पुस्तक वाचिनात, ही वस्तुस्थिती. कोणाचेर टिका करपाचो म्हजो हेतू ना.

### कितें करूं येत?

आमचे म्हालगडे सुवार्थ विसरून कोंकणीपासत झुजले. आयज जें मेळ्ळां, तें तांकांच लागून... शणै गोंयबाबा उपरान्त कोंकणी भक्तांची एक पिळगी ते पासत वावुरली. आतां कोंकणी साहित्याचो प्रसार करप ही आयचे पिळगेची लागणूक. हे बाबतींत कोंकणी शिक्षकांक खूब कितें करप शक्य आसा. आनी अशा शिक्षकांचेर नदर दवरून कोंकणी पासत वावुरतल्या संस्थांनी तांचो जाहीर भोवमान करूंक जाय. पुरस्कार दिवंक जाय. कोंकणी भाशा मंडळ आनी कोंकणी अकादेमी सारक्या संस्थांनी आपल्या कामाचेर संतुश्ट रावनासतना आनीकय खूब वावर करूं येता.

### पुस्तकां वाचप्यामेरेन पावपाची गरज

पुस्तकां उजवाडायलीं म्हणून जायना तीं वाचप्यांमेरेन पावनात जाल्यार तांचो उपेग कितें? गोंयांत पणजे कोंकणी अकादेमींत वाचप्यांक पुस्तकां मेळपाची वेवस्था आसा. पूण दक्षीण गोंयांत ना. तेन्ना मडगांवां मध्यवर्ती जाग्यार लोकांक सोपेपणान पुस्तकां घेवप शक्य जातलें अशें एक सेंटर वा कोंकणी अकादेमीचो एक काऊंटर आसप गरजेचें. मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांत लेगीत असो एक काऊंटर आसूं येता. कारण थंय कार्यावळींक पावपी कितल्याशाच लोकांक पुस्तकां घेवपाची संद मेळटली. हाचेर अवश्य विचार जावचो.

### कोंकणीत अणकारिल्लें साहित्य

साहित्यांत 'अणकार' लेगीत भोव गरजेचो. आमचे भाशेंत 'हें ना, तें ना' म्हणून पिरंगुपी खूब आसात. मान्य! खूबश्यो गजाली नासत, पूण त्यो जे भाशेंत आसात ते भाशेंतल्यान अणकार करून कोंकणीत हाडप गरजेचें.

युरोपीय भाशेंत दर वर्सा जीं पुस्तकां तयार जातात, तातूंत 50 ते 60 टक्के पुस्तकां अणकारिल्लीं आसतात. आमीय तशें करून आमची भास गिरेस्त करूंक कितें हरकत आसा?

तेखातीर गोंयांत कोंकणी अकादेमीन आनी हेर राज्यांनी थंयच्या थळाव्या संस्थांचे मदतीन हो वावर करूं येता.

अणकाराखातीर मार्गदर्शन करून सत्रां घेवचेली गरज आसा. हीं सत्रां चारूय राज्यांतल्या कोंकणी लेखकांखातीर उक्तीं आसचीं.

### कोंकणीच्या सगल्या वावुरप्यांमदीं सुमेळ

कोंकणीचो प्रवाह व्हांवतो उरूंक चारूय राज्यांतल्या कोंकणी वावुरप्यांक फकत संमेलनां वा परिषदेची वाट पळयनासतना परत, परत एकठांय हाडपाची गरज आसा. त्यावेळार फकत साहित्यापुरतेंच न्हय, तर पुराय कोंकणी समाजाक नदरे सामकार दवरून साबार विशयांचेर विचार – विनिमय जावंक जाय. अचकीत उप्राशिल्ल्या प्रस्नांक वा आडमेळ्यांक जाप सोदून काडूंक कितें करूं येता, हाची दिका थारावंक जाय.

साहित्य निर्मणेचो वावर चलतां, चलतांच कोंकणी भास, समाज, साहित्य हांचें स्थान आमी घट करूंक जाय. साहित्य, रंगमाची, संस्कृताय, लोकवेद आनी भास हांचेमदलीं अंतरां पयस करपाचो वावर सतत चालू दवरूंक जाय.

आमकां खंयचेय भाशेचो दुस्वास ना. जमता जाल्यार जाता तितल्यो भासो मुजरत शिकून घेवच्यो. इंग्लीश तर नक्कीच. पूण केदीय व्हडली आसली तरी आवयभाशेचो जागो आमी दुसरे भाशेक दिवंक जायना. आमच्या काळजाचे गर्भकुडींत आमची आवयभास कोंकणीच आमी पुजूंक जाय.

हेर भासो कितल्योय लखलखीत आसूं, आमचे दोळे त्या लखलखाटान दिपकावंक जायनात. आमचे आवयभाशे सामकार आमचे निश्ठेची आनी मोगाची ज्योत सतत पेटती दवरूंक जाय.

जैता फाटल्यान जैत मेळयत आमी मुखार सरत गेलीं. कोंकणीक मानाच्या पाटार बसयली. हें करतना कोणे आपलो सुवार्थ पळयलो ना. हांगा दिसली ती जण एकल्याची पोटतिडक, तळमळ! पूण आतां सुवार्थ भितर सरला, राजकारण भितर सरलां. आपूण फुडें वतलो जाल्यार कशेतरेन दुसऱ्याक कुशीन काडचें पडटलें हें थारावंक आमी शक्त वगडावंक लागल्यात. एकामेकांचेर आरोप – प्रत्यारोप करप, दुसऱ्यांचे निष्ठेविशीं दुबाव घेवप, मागीर त्या धोशींच्यो खबरो नेमाळ्यांनी छापून येवप ह्यो गजाली म्हळ्यार कोंकणीच्या रुखाचेर चडिल्ली बेनल्ल. तिका वेळारच बेणावंक जाय.

### कोंकणी लोकवेद

आमचे भाशेच्या संस्कृतीक दायजाचें एक आंग म्हळ्यार लोकवेद. चारय राज्यांतले हें संस्कृतीक दायज एकठांय हाडून माचयेवयल्यान तें लोकांमेरेन पावयलें जाल्यार लोकवेदाचीं चितरंगी आनी रंगयाळीं रुपां पळोवन लोक भारावन गेलेबगर रावचे नात. नवे पिळगे मुखार आमचें हें पिळगे – पिळगेसावन चलत आयिल्लें दायज मूळ रुपांत येवप गरजेचें.

कांयकडेन कांय वेळा ह्या दायजाचें विडंबन जाल्लें दिश्टी पडटा. हें तांकां आपल्या दायजाची सारकी म्हायती नाशिल्ल्यान जाता आसूं येता. देखून ताचो पुरायेन आनी खोलायेन अभ्यास जावंक जाय. आमच्या दायजाची बुन्याद नवे पिळगेच्या काळजांत घट्ट बसूंक जाय.

### एक मोख

बाय गीता धर्मराजनान आपल्या भाशणांत तिच्या ल्हानपणांतली एक याद सांगिल्ली.

खंयचे तरी एके परबेक मळबांतलो बिजेचो चंद्रीम पळयले बगर जेवंक मेळनासलें. जेवण मेळचें ना म्हळें म्हणटकीर तिळसांज जातनाच भुरग्यांक भूक लागताली आनी सगलीं जाणां मळबाक नदर लावन बसतालीं. बियेचो चंद्रीम तो! हय न्हयसो झळकुपी! दोळे ताणल्यार लेगीत सट्ट करून न दिसपी.

मदींच कोणा एका भुरग्याक तो चिक्क करून झळकून ना जातालो. पूण फकत भुरग्यांक दिसलो म्हणून जेवंक मेळनासलें. तांचे आजयेक तो दिसचो पडटालो. एकल्या कोणाक तो दिसलो रे दिसलो, सगलीं भुरगीं धांवत वचून आजयेक घेवन भायर येतालीं.

जाका चंद्रीम दिशिल्लो तें मळबादिकेन बोट वयर करून सांगतालें, 'आजे हो तो पळय चंद्रीम...'

'खंय गो? खंय गो?' करीत आजी मळबभर सोदताली पूण तिका तो दिसनासलो. कारण त्या भुरग्याचें चंद्रावटेन जोखिल्लें बोट आनी मळबांतलो चंद्र हाचेमेरेन वचपी वाट ही आजयेक स्वतःकच सोदून काडची पडटाली, जाल्यारच तिका मळबांतलो तो चंद्र दिसूं येतालो.

जिणेंतय अशेंच आसता. आपले मोखीमेरेन पावपाची वाट आपल्याकच सोदून काडची पडटा. आमच्यो जण एकल्याच्यो वाटो वेगवेगळ्यो आसूं येतात. पूण मोख एकच आसची – कोंकणीची उदरगत. आनी सगल्यो वाटो हे एकच मोखीक येवन मेळच्यो इतलेंच मागतां.

देव बरें करूं!

●●●

## विज्ञानीक शिक्षण आनी कोंकणी पाठ्यपुस्तकां

# आयची स्थिती, फाल्यांची गती




जो एक इश्ट आसा. तो संसारी. बायल, भुरगीं आनी संसाराक जें जें जाय तें तें सगलें ताचेकडेन आसा. मिर्ग लागचे पयलीं एक दीस, सांग नासतना म्हाका तागेर वचचो पडलो. तांगेर वच जाल्यार इश्ट आनी ताचो पूत, पडवे भायर प्रवेशदारांत पावसाचें उदक आडावपा खातीर कापेती बांदतात. म्हाका पळोवन इश्टान काम बंद केलें. भितर बसून उलयता उलयतां हांवें इश्टाक विचारलें ''दर वर्सा तूं ह्यो कापेतीश्यो कित्याक बांदता? हालीं तेंपार बरे बरे पत्रे मेळटात. एकदां घाले म्हण्टकच वीस पंचवीस वर्सां कटकट ना. तूं कित्याक घालिना?' ताचेर इश्टान जाप दिली, ''पत्रे घालून वीस पंचवीस वर्सां हांगा रावपाक हें कितें म्हजें घर तर? हें भाड्याचें घर. हांगां रावंक मेळटा तितलो तेंप रावपाचें. मागीर बरेंशें दुसरें बिराड सोदपाचें.''

हांवें विचारलें ''आयुश्यभर बिराडाक रावसर, तुजें पुर्वजांचें घर ना तर?'' तांणें सांगलें ''आसा. हांगाच्यान लागींच, पूण तें बिराडां भशेन चकचकीत ना. म्हणून आमकां थंय रावंक आवडना. म्हज्या भुरग्यांक तर तें मातूय आवडना. तांकां हांगाच रावपाची संवय जाल्या न्हय. हांवूय आतां थंय वचना म्हणून तें आतां सामकेंच मोडपाक पावलां. तें आनी सारकें करपाचे भानगडींत हांव कित्याक पडूं, बरीं बरीं बिराडां मेळटा आसतना?''

हांवें सांगलें ''इश्टा तूं चुकता! आपले भितर घरा विशीं धनीपणाची भावना येवंक आनी सवस्कायेन रावंक आपलें, स्वताचें घर आसचें पडटा. आशिल्लें घर सांबाळचें पडटा. बिराडां तुका ती धनी पणाची भावना आनी सवस्काय दिवंक शकनात. म्हणून तुका आयुश्यभर कापेतीचो सांगात धरचो पडला.'' सट करून इश्टान म्हणलें ''हय मरे, हांवें हाचेर केन्ना विचारूच केलो ना.''

कोंकणीचे बाबतींत आमचेंय तशेंच जालां. हेर भासांतलें विज्ञानीक साहित्य आयतें मेळटा ताचेर आमी आमची गरज भागोवंक लागल्यात. विज्ञानीक साहित्याच्या बिराडाक रावन दीस सारूंक लागल्यात. पक्क्या घरांत रावपी पयले नंबरी विज्ञानीक जावचे सोडून कापेती लायिल्ल्या बिराडांत रावपी दोन नंबरी विज्ञानीक जावंक लागल्यात म्हणून आपल्याक जशें आपलें घर आसचें पडटा तशेंच आपले भाशेंत आपली बौद्धीक गरज भागोवंक सगलें आसुंकूच जाय. धरून पुराय विज्ञान शिक्षण.

आमचे शिक्षण पद्धतींत खाशेले विज्ञान शिक्षणाक सुरवात जाता उच्च माध्यमिक पावंड्यार. उच्च माध्यमिक पांवड्यावयल्यान मागीर ते महाविद्यालयीन आनी विश्व विद्यालयीन पावंड्यामेरेन चलता. ह्या पेपराचो विशय आसा तो उच्च माध्यमिक ते विश्व विद्यालयीन पावंड्यामेरेनच्या कोंकणी माध्यमांतल्या विज्ञान पाठ्यपुस्तकां विशीं.



**प्रेमानंद फडते**
मो. 9403879160

तुमकां सगल्यांकूच खबर आसतली आयचे घटकेक उच्च माध्यमिक तें विश्वविद्यालयीन

पावंड्यार विज्ञानाचीं कोंकणी पाठ्यपुस्तकां उपलब्ध नात. कोंकणी पाठ्यपुस्तकां नात म्हणूनकोंकणीत विज्ञानीक शिक्षण ना. कोंकणीत विज्ञानीक शिक्षण ना अशें आमी मानून घेतलें म्हण्टकच मुखेल प्रस्न उपरासतात ते विज्ञानीक शिक्षण कोंकणीत नासप आमी आनीक कितलो तेंप सोंसतले? सोंशीत रावतले जाल्यार कोंकणीचेर आनी भविश्यांतल्या आमच्या पिळग्यांचेर ताचे कितें परिणाम जावंक शकतात? सोंसचेनात जाल्यार हें कमीपण पयस करपाक आमच्यानी कितें करूं येता?

विज्ञानीक शिक्षण कोंकणीत हाडलेंच ना जाल्यार हेर भासांचे तुळेन विज्ञानीक मळार कोंकणी अपंगूळ जातली. अपूंगळ भाशेचो वापर शिमीत जाता. कालांतरान ती भास वापरांतल्यान उणी जावन नपयत जावंक शकता. कोंकणी नपयत जाली जाल्यार ताचो वायट परिणाम कोंकणी समाजाच्या फुडल्या पिळग्यांचेर जातलो. कोंकणी समाज खंयचेच भाशेकडेन भावनीक नातें नाशिल्लो समाज जावन पडटलो. म्हळ्यार भाशेचे बाबतींत परावलंबी समाज. हें परावलंबित्व हेर मळांचेर पातळून कोंकणी समाजूच ना जावंक शकता. म्हणून विज्ञानीक शिक्षण कोंकणींत नासप आमी आनीक सोंसूंक शकनात आनी सोंसचेनात. म्हणटकच कोंकणीत विज्ञानीक शिक्षण येतलें जाल्यार आमच्यानी कितें करू येता तें जाणा जावया.

हेर भासांच्या, चड करून इंग्लिशीच्या प्रभावाक लागून कोंकणीची गिरेस्तकाय शेणपाची भिरांत आसा. म्हणून शक्य तितले बेगीन नीज कोंकणीत पाठ्यपुस्तकां तयार जावप सामकें गरजेचें. आयज उपराशिल्ले परिस्थितीक लागून कोंकणी पाठ्यपुस्तकां विद्यमान पिळगेकडेन जितले बरे तरेन जावंक शकतात तितलीं बरीं कांय काळा उपरांतचे पिळगेकडेन जायत म्हूण भरवंसो ना. कारण कोंकणी समाज भास आनी संस्कृताय कुशीक उडोवन चड आनी चड भौतीक जायत आसा.

कोंकणीत विज्ञान पाठ्यपुस्तकां निर्मणेचो वावर सर्जनशिलतायेचो कस लावपी जावन आसा. तो कठीण आसत पूण अशक्य न्हय. आयचो कोंकणी मनीस त्या कसाक खरो उतरतलो हातूंत दुबाव ना. तो ह्या वावराक माथें मारून जितले समर्थपणान पुराय करूंक शकता तितले समर्थपणान फुडल्यो पिळग्यो घडये तो करुंक शकच्यो नात. म्हणून कोंकणी पायपुस्तकां निर्मणेचो वावर ताकतिकेन हातांत घेवंक जाय.

ह्या वावरांत जायत्यो आडखळी उप्रासूं येतात. सद्दया दिसता ती व्हडली आडखळ म्हळ्यार परिभाशीक उतरावळिचें नासप. परिभाशीक उतरावळ नासत जाल्यार विज्ञान अणकाराचो वावर मुखार वचुंकूंच शकना. ही अडचण सोडोवपाक परिभाशीक उतरावळ तयार करपाचो वावर हातांत घेवचो पडटलो. परिभाशीक उतरावळ निर्मितीचो वावर मानव संसाधन उदरगत मंत्रालयाच्या विज्ञानीक आनी तकनिकी शब्दावळी आयोगाच्या पालवान पयलींच चालू जाला म्हणपाची याद जाता. त्या वावरांत रसायनशास्त्रांतली उतरावळ तयार करपाक वांटो घेवपाची म्हाका संद मेळिल्ली. पूण तो वावर अजून पुराय जावंक ना. तो कित्याक पुराय जावंक ना तें खबर ना. घडये कांय आडखळी उपरासल्या आसत. तशें आसल्यार आडखळी पयस करून दर विशयांतली परिभाशीक उतरावळ ताकतिकेन उजवाडावंक जाय.

दुसरी आडखळ येवं येता ती तज्ञ मनीसबळाची. कोंकणी मनीस विज्ञानाच्या वेगवेगळ्या मळार वावुरता आसलो तरी ताचे मदीं, आपूण करता तो वावर कोंकणींतूय आसचो हे विशीं जागृताय ना. म्हणून विज्ञानाच्या विंगड विंगड मळार वावुरपी विज्ञानिकांक वेचून काडचे पडटले. आनी कोंकणीचो वावर तांचे कडसून पुराय करून घेवचो पडटलो. कोंकणी विशींचे लागणुकेचो विचार विज्ञानिकांच्या काळजांत पावोवचो पडटलो. नाजाल्यार विज्ञान शिकपी विद्यार्थ्यांक अर्थीक आदार दिवन कोंकणीचें अध्ययन करपाची उर्बा दिवची पडटली. आनी ते तज्ञ जाल्या उपरांत कोंकणीच्या वावरांत तांकां तज्ञ मनिसबळ म्हूण संद दिवन वावर पुराय करचो पडटलो. ह्या वावराचो आटाप व्हड आशिल्ल्यान तो समर्थ अशे संस्थेवरवीं जावंक फावो. परिभाशीक उतरावळ आनी तज्ञ मनिसबळ तयार जातकच पाठ्यपुस्तकां निर्मितीक हात घालूं येता.

सुरवेक इंग्लीश वा हेर भारतीय भासांनी उपलब्ध आशिल्लीं पाठ्यपुस्तकां अणकारुं येता. अणकार विज्ञानिकां कडसून करून घेवचो. अणकरिल्लीं पुस्तकां विज्ञानिकान आनी कोंकणी जाणाकारान अशीं दोट्टी तपासचीं पडटलीं. दोट्टी कित्याक?

अणकारांतलें विज्ञान सारकें आसा कांय ना तें विज्ञानिकान तपासचें आनी अणकरिल्ली कोंकणी सारकी आसा कांय ना तें कोंकणी जाणकारान तपासचें. अशे तरेन विज्ञानीक शिक्षणाखातीर कोंकणी पाठ्यपुस्तकां तयार करूं येता.

कोंकणीतल्या विज्ञानीक शिक्षणाची दिका थारून कोंकणी पाठ्यपुस्तकां निर्मितिचो वावर पुराय करून दवरल्यार, कोंकणी मनश्याची खंयची ना खंयची पिळगी समर्थपणान ताचो लाव घेतली ह्या विश्वसान हांव म्हजो पेपर सोंपयता.



# कोंकणींत विज्ञानीक साहित्य ऊणे कित्याक?

**प्रस्तावना**

एक भास म्हळ्यार त्या भाशेचे उलोवपी, आयकुपी, वाचपी आनी बरोवपी कौशल्यांचे संमेलन जावन आसा. उतरांची वळख (Identification), उतरांची सृश्टी (Production) आनी उतरांचें वापरप (Usage) ह्या तीन प्रायोगिक सन्निवेशाद्वारी हे कौशल्यांचे परीक्षण कर्येत. उपचारीक शिक्षण नातिले एक भास आयकुयेता आनी उलोयेता. जाल्यार बरोवपाक उपचारीक शिकप गरजेचें. एक भाशेचे साहित्य, बरोवपिद्वारी सृश्टी जाता, वाचपिद्वारी वापरपेक येता, आनी हाजे परिणाम चडचड साहित्य निर्माण जाता. त्यानिमित्त वाचप आनी बरोवपाद्वारी भास वाड्ता आनी भास श्रीमंत जात्ता.

कोंकणी भाशेंत जायते साहित्य सृश्टी जाला. काव्य, काणियो, कादंबरी, नाटक, जीवन चरित्र, निबंध, पत्र लेखन, प्रवास कथन हरयेक प्रकाराचें कोंकणी साहित्य कृती रचन जाला. जाल्यार आयज्चे विज्ञान, तंत्रज्ञान युगांत, कोंकणींत ज्ञान विज्ञान साहित्य दुबळे आसचे एक चिंतन करका जाल्ले विशय जावून आसा. असले एक प्रमूख विचार आमी हे साहित्य सम्मेळन संदर्भार वेंचून परिसंवाद मंडून हाडिले एक रचनात्मककारी म्हणू हांव समजता. कित्याक म्हळ्यार केन्नाय क्रिये घडचाक चिंतप कारण जात्ता. (Thinking leads to action) ह्या परिसंवादाचेद्वारी, हे साहित्य प्रकार वाडूंक मुखार किते कार्यावळ मंडून हाडू येता म्हणचे चिंतप उगते जावून कोंकणी भाशेंत एक सक्रियात्मक परिणाम उबजता. तशें आयज्चे हे परिसंवादा विशयार कांय चिंतन हांव तुमगेले मुखार प्रस्तूत करचाक संतोष भोगता. विज्ञान तंत्रज्ञान आमचे जिविताक जोडून आसचे विचार. मनशाले भलायकी मात्र न्हय् मनशाले आस्तित्व आयज विज्ञान वयर अवलंबन करता. विज्ञानाचे फुडार समाजाक आनी लोकांक संवहन (Communication) करूंक विंगड विंगड भाशेर विज्ञान साहित्य प्रकाश जावका. विज्ञानाचे वेगवेगळे क्षेत्रांत काम केलेल्यान मळ्यारी डॉक्टरांनी वैद्यकीय क्षेत्र, सैमीक वैज्ञानिकांनी सैमीक क्षेत्र, तंत्रशास्त्रज्ञांनी तांत्रिक क्षेत्र, अशें विंगड विंगड क्षेत्राचे विचारांचे वरी बरयल्यार समग्र विज्ञान साहित्य निर्माण जात्ता. अत्ता आमी कोंकणींत विज्ञान साहित्य ऊणे किते आसा म्हणून पळोवयां. हाज्जे खातीर मुखेल स्तरार 5-6 कारणांचे पर्यावलोचन करूंया.



डॉ. देवदास पै

**कारण 1**

ज्ञान विज्ञान शिकवण आनी संशोधन मुळांत इंग्लीश भाशेंत आसा. खंचेय मायभाशेचे डॉक्टर, इंजिनियर, वैज्ञानिक आपले शोधनिबंधांचे बरोवप जागतिक पांवड्यार पावका जाल्यार इंग्लीशांत बरोवका पडटा. मायभाशेंत बरयल्यार ते पावना. प्राचीन काळार विज्ञानविचार ग्रीक भाशेंत बरेयता

आशिल्ले. गेलिलियोचे काळारी ताणे विज्ञान विचार ल्याटिन आनी इटालियन भाशेंत अणकार करून विज्ञानविचारांचे प्रचाराक प्रोत्साह दिल्लो. ते काळार विज्ञान नवे भाशेक वरचे परस नवे संस्कृतीक व्हरचेशें दिशिल्लें आसा. तशेंच आयज इंग्लीश मूळा दाकून खंचेय विंगड भाशेक विज्ञान विचार हाडचे प्रक्रिया मस्त कठीण जाव्न आस्सा. हे समस्या फकत कोंकणीचे न्हय. राष्ट्रव्यापी हिंदीक जावो, कन्नडाक जावो, तमिळाक जावो हेच समस्या आसा. आनी हे फकत भाशेचे समस्या न्हय, सगळे संस्कृतीक लागूनं आसचे समस्या.

**कारण 2**

कोंकणी भास शाळेंत खंयचे स्तरार आसा म्हणून आमी पळोवया. कोंकणी माध्यमांत शिक्षण व्यवस्था सारके व्हाडून आयिलेना. कोंकणी माध्यामार शिकवण दिल्यार हरयेक क्लासाक एक विज्ञान पाठ्य पुस्तकाचे रचन जावका पडटा. हाका लागून संपन्मूल आधार ग्रंथ, मार्गदर्शी ग्रंथ सृश्टी जात्ता. आनी एक व्यवस्थीत विज्ञान साहित्याचे शृंखला निर्माण जात्ता. तितलेंच न्हय कोंकणी भाशेचे पाठ्यपुस्तकांतय विज्ञान आनी वैज्ञानिक विशयावयर पाठ्यक्रम नियमानुसार एक दोन पाठ जोडूक अवकाश मेळटा. कोंकणींत ज्ञानविज्ञान साहित्य पाटी पडूंक, कोंकणी माध्यमांत शिकवण सारके ना आसूचेय एक मुखेल कारण जावून आसा.

**कारण 3**

हरयेक भाशेंत विज्ञानीक बरोवप (Scientific Writing) हाडूक विशेश प्रयत्न आनी योजना मांडून हाडका. ते शिवाय साध्यना. विज्ञान विचार कोंकणींत हाडचे खातीर प्रयत्न नुपुरो म्हणून दिश्टी पडटा. राष्ट्र स्तरार आनी राज्य स्तरार विज्ञान बरोवपी चडचे खातीर रचनात्मक कार्यवळ – तरबेत मांडून हाडटात.

(National Institute for Science Communication and Information Resources, NISCAR म्हळ्ळी संस्था Science popularization, Popular writing for Magazines and Newspapers आदी कौशल्यवृद्धी तरबेत दितात. कर्नाटकाचे विज्ञान साहित्य परिषद संस्था युवजनांक विज्ञान बरोवपी तरबेत दिता. अशें कोंकणीत लेखकांक तांत्रिक मार्गदर्शन नातिले निमित विज्ञान साहित्य वाडून आयिलेना म्हणूयेता.

**कारण 4**

मस्त विद्यावंत कोंकणी लोक इतर भाशेंचें (इंग्लीश, कन्नड, मराठी, मल्याळम् इत्यादी) विज्ञान साहित्य वाचतात. जाल्यारी असले साहित्य प्रकार आमचे भाशेंत निर्माण करचे स्वयंस्फूर्ती ऊणे दिसता. असले स्वयंप्रेरणेक पूर्वालोचन आनी मानसिक सिद्धता गरजेचे. खंचेय विचार कशें बरोवचे? आपणाले बरप वाचूचे लोक कोण्? हे विशय् कशें सांगचे? मळ्ळे चिंतप मनांत घडून घेवका. ताचे परांत हे विचार स्पष्ट कल्पनारूप घेता. आनी आखेरीक भाशेचे शुद्धलेखनाचे नेमांचेरच बरप बरे जावून सृष्टी जाता. बरोवपींक आपण्याले बरपाक मागपी ऊणे म्हणून कळीत आसतना ताका इतले श्रम घालचाक् मन वैतलवे? तशें आमचें मध्ये आयज Science popularization, science communication म्हळे कल्पना आनिकय जाग जायनी त्या निमीत विज्ञान साहित्य व्हाडून येनी म्हणूयेता.

**कारण 5**

कोंकणी पत्रकारीत व्यवसायांत विज्ञान साहित्य जायते प्राशस्त्य घेता ना. कोंकणी म्हयन्याळे, हप्ताळे, दिसाळें पत्रांत विज्ञान बरोवपांक अवकाश दिवका. Science corner, Science and Technology विज्ञान ज्ञान लोकामधे पावता. हे विधान मस्त अनुकूल जाता. जाल्यार कोंकणींत पत्रकोद्यमय पूर्ण प्रमाणार लोकांनी स्वीकार केल्लेना हो विचारूय एक प्रमुख कारण जावून आसा.

**कारण 6**

सडक भाशेवरी कोंकणींतय विज्ञान बरयतना व्हड सवाल म्हळ्यार तांत्रिक उतरांचे समानार्थक उतरांक सृष्टी करचे. इंग्लीश उतरांक आशिल्लें प्रमाणेरच घेवका की आपण्याले भाशेचे समानार्थक नवे उतर सृष्टी करका म्हळ्ळे तर्क विवाद मस्त चलता. त्या देकून कोंकणींत ऐक सर्व सम्मत तांत्रिक शब्दकोश (Standardisation of Scientific - Technical vocabulary) लभ्य ना. असले योजनेचे अगत्य मस्त आस्स. 1940 इसवेंत committee for Scientific Terminology in Native Language हांणी दिल्ले अध्ययन वरदिचे पर्माणे इंग्लीश रूपारी आसचे अंतर्राष्ट्रीय शब्द तशेच बरोवचे. राकेट्, अंब्युलेन्स्, इलेक्ट्रोन्, प्रोटोन आस्सले कडेन मूल शब्द यथावत दवरूयेत. साध्य आशिल्ले कडेन् मात अणकार करयेत. Physics भौतशास्त्र म्हणून, Chemistry रसानय शास्त्र म्हणून भाषांतर करूयेत. थोडे पावटी इंग्लीश शब्द रूपांतर जावून Hospital ओश्पितळ अशें जावयेत. आनी थोडे शब्द आमचे प्राचीन संस्कृत मूलाचे रूपारी आधुनिक विज्ञानांत वापरतात – आम्लजनक, जलजनक, धातू, द्रव्य आशें.

उपसंहारः निमाणे, कोंकणींत विज्ञान बरोवप उद्देशाचे उपचारीक योजना, प्रोत्सह, कार्यावळ मांडून हाडून बरोवपींक प्रेरणा जाल्ले निमीत विज्ञान साहित्य उणेपण आसा जाल्ला. ह्या दिशांत आमी मुखार काम करचे मस्त अवश्यक म्होणू अभिप्राय मांडोवन म्हजे दोन उतरां अखेर करता.





# कोंकणी-भारतीय आनी संवसारीक कविता



आयची कोंकणी कविता - भारतीय कविता - संवसारीक कविता ह्या विशयाची व्याप्ती मतींत घेतल्यार ह्या विशयाचेर उलोवप वा बरोवप म्हळ्यार दर्याक पास घालप. ह्या विशयाचेर अभ्यास करतना विंगड विंगड संस्कृतायो आनी तेच बरबर संवसारांतल्यो म्हत्वाच्यो भासो हांचो विचार करचो पडटलो. तेच प्रमाण साहित्य आनी संस्कृतीक व्यवहाराचेर आज नव्या तंत्रगिन्यानाचो व्हडा प्रमाणात परिणाम जायत आसा हेंय आमी पळयतात. नवी अर्थनिती आनी संवसारिकरणाक लागून आमचें जिवीत बदलत आसा आनी ताचोय परिणाम साहित्याचेर जाता. इंटरनेट तंत्रगिन्यान वाडीक लागिल्ल्यान आज संवसार लागीं आयला आनी ताका लागून आमकां आज संवसारांत वेगवेगळ्या मळांचेर कसले बदल जाल्यात तें कळटा. आनी ताचो प्रभाव साहित्याचेर जाल्लो दिसता.

ह्या निबंधाच्या विशयाकडेन येतना भारतीय कवितेन संवसारीक कवितेक कितें दिलें आनी आमचे कवितेची परंपरा दायज कितें हाचो विचार गरजेचो आसा. भारतीय कवितेक एक व्हड परंपरा आसा. वेदकाळापासून तिची सुरवात जाता. ऋग्वेदांतली ऋचा वा सुक्तां म्हळ्यार उत्तम कवितांच्यो देखीच. ऋग्वेदांतली उषासुक्त ही एकूच देख ते नदरेन पळोवं येता. मनीस आनी सैम हांचे मदीं आशिल्लें नातें हीं सुक्तां दाखयतात. ते भायर ह्या सुक्तांतले रचनेतल्यान कवितेचें छंदशास्त्र घडत गेलें. वेदांचो काळ लक्षांत घेतल्यार संवसारीक कवितेच्या छंदशास्त्राचें मुळावण ह्यो ऋचा रचपी ऋषिंनी घालें अशें म्हणूं येता. तातूंत रचनाबंधांची विविधताय आसा आनी आशयाची खोलाय आसा. आनी ह्या छंदशास्त्राचे परंपरेंतल्यान भारतीय कविता उबी रावली. संस्कृत कवितेंतलीं वृत्तां आनी छंद इतले आसात की संवसारीक कवितेन अजापीत जावन वचचें. विसाव्या शतमानांत फ्रेंच कवितेंत क्युबिस्ट



माधव बोरकार

कविता आयली. आपोलिनॅर सारकिल्या कविंनी ती केळयली. पूण संस्कृत कवितेचो इतिहास अभ्यासून पळयल्यार क्युबिस्ट कवितेचें मूळ गोपद्रबंध ह्या प्रकारांत मेळू येतां.

भारतीय कवितेक समृद्ध अशी संत आनी पंडिती कवितेची परंपरा आसा. कबीर, तुकाराम चंडिदास सारकिल्या कवी संतांनी भारतीय कवितेक नवीं परिमाणां दिल्यांत. तातुंतले कबीर आनी तुकाराम तांच्या आशया इतलेच तांची भास आनी प्रतिमांच्या वापराक लागून आजूय तांची कविता नवी रसरशीत दिसता. हे दोनूय कवी आमचे समकालीन अशें तांकां कित्याक म्हणचें न्हय? ह्या दोनूय कवींच्यो कविता अणकारावरवीं संवसारभर पावल्यात. दिलीप चित्रे ह्या प्रतिभावंत कवीन Says Tuka ह्या नांवान तो इंग्लीश भाशेंत केला आनी ह्या अणकाराच्या आधारान ताचो जर्मन भाशेंत अणकार जाला आनी ताका त्या देशांतल्या साहित्यीक पर्यावरणांत मान्यताय मेळ्ळ्या. कबीर होय गुरूदेव टागोरांच्या अणकारांतल्यान आमच्या देशाची शीम हुपून भायर पावला आनी इरीच फ्रीड सारकिल्या कवीन ताच्या 'उल्टी बाँसियां'चो बेस बरो उपेग आपले कवितेंत केल्लो पळोवंक मेळटा. अणकार मागीर तो बरो वा वांकडो कसोय आसूं तो आपलो परिणाम अशे तरेन सादयता. ते भायर हलाची 'गाथा सप्तशती' बऱ्यांतल्या बऱ्या कवितेच्यो देखी आसात. ह्या प्राकृत काव्याचो परिणाम एकूण भारतीय कवितेचर जाल्लो दिसता. हे कवितेंतलो शिरंगार आनी प्रतिमांचो वापर हाणे भारतीय कवितेक घटाय दिली.

संवसारीक कवितेक भारतीय कवितेन दिल्ल्या योगदानाचो विचार करतना कन्नड भाशेंतलें वचन साहित्य दोळ्यांमुखार येता. बसवण्णा, अक्कामहादेवी, अल्लमा प्रभू वा देवर दासिमय्या हांच्यो भक्तिरचना आकृतीबंधाचे नदरेन विचार केल्यार आयच्या मुक्तछंदाच्यो पती अशें म्हणचें पडटा. इतिहासीक नदरेन ह्यो पयल्यो वयल्यो निर्यमक मुक्त छंदांतल्यो कविता आसूं येता. नामनेचो भारतीय लेखक कवी ए. के. रामानुजन हाणी Speaking of Siva ह्या नांवान ह्या काव्याचो इंग्लीश अणकार केला तो वाचपाक जाय. तेंच प्रमाण रामानुजनान केल्लो पुर्विल्ल्या तामीळ कवितेचो अणकार भारतीय कवितेचे परंपरेचेर उजवाड घालता.

भारतीय कवितेच्या दायजाचो विचार करतना ज्ञानेश्वराच्या 'अनुभवामृत' हे दीर्घ कवितेचो उल्लेख करप गरजेचें आसा. हे कवितेची निर्मणी 1290 वर्सा जाली अशें मानल्यार आमकां काळाच्या कितले फाटल्यान वचपाक मेळटा हाचो अदमास येता. हे कवितेक निखटें अध्यात्माचे नदरेंतल्यान पळोवपाक जायना तर ती वयल्या पांवड्याचे कवतेची देख म्हूण तिचेकडेन पळोवंक जाय. भाशा आनी संस्कृतायो हांची विविधताय आशिल्ल्या ह्या देशांत बंगाली, तामीळ, मल्ल्याळम ह्या भासांतले कवितेक दीर्घ परंपरा आसा. युरोपियन कवितेक समांतर वचपी ही परंपरा आसा अशें आमी म्हणपाक शकतात.

ब्रिटिश सत्तेन आमचे भुंयेर आपले पांय घट्ट करतकच इंग्लीश शिक्षणाचो प्रसार जातकच आमचो सबंद इंग्लीश कवितेकडेन आयलो आनी तेच बराबर तो युरोपी साहित्याचे परंपरेकडेन आयलो. ताका लागून आमचे कवितेचेर खूब परिणाम जालो. एका काळार आमचे रोल मॉडेल्स संत वा पंडीत कवी आशिल्ले. तांची सुवात एकुणिसाव्या शेकड्यांतल्या बायरन, शेली, किट्स आनी वर्डस्वर्थ सारकिल्या Romantic कविंनी घेतली. कांय भारतीय कवी 'गोल्डन ट्रॅजरी' मुखार दवरून कविता बरोवपाक लागले. अशेतरेन भारतीय काव्य परंपरेंत युरोपी कवितेचो प्रवाह येवन भरसलो आनी हातूंतल्यान विसाव्या शतमानांतल्या भारतीय कवितेचें शिल्प आकाराक आयलें.

फाटल्या देड शेकड्यांत अमेरिकन कवितेचो प्रभाव साहित्य संवसाराचेर पडत आसा. अमेरिकन आद्य कवी म्हळ्यार वॉल्ट विटमन ताणे कवितेची भास बदल्ली आनी तिका नवें रूप दिलें. बोदलेअर, रँबो सारकिल्या प्रतिकवादी फ्रँच कवीं परस वेगळे आनी विसाव्या शतमानांत ही परंपरा मुखार व्हरपी कवी मुखार आयले तातूंत हार्ट क्रेन, वॉलेस स्टिव्हन्स, रॉबर्ट लॉवेल आनी जॉन बेरिमन सारकिल्या कवींचो आस्पाव जाता. विसावें शतमान हें युरोपांत इलिएट – पाऊंड, रिल्के लाफॉमर्ग हांचें. ताणी संवसारीक कवितेचेर व्हडा प्रमाणान प्रभाव घालो. प्रयोगशिलताय हें ह्या काळांतले कवितेचें मुखेल लक्षण. हे प्रयोग भाशेचे तेच बराबर कवितेच्या आकृती बंदाचेय आसात. म्हत्वाचें म्हळ्यार कवितेचो आशय. जे विशय कवितेंत केन्नाच येवंक नाशिल्ले तांचो आस्पाव आतां जावपाक लागलो हें मतींत घेवपाक जाय. आदल्या काळांत कवितेची म्हूण एक वेगळी भास आसता अशें मानताले ताकाय वेर गेली. विटमनाच्या प्रभावांतल्यान मुक्तछंद कवितेंत केळूंक लागलो.

कवितेच्या इतिहासाचेर एक नदर भोंवडायल्यार दोळ्यांत

भरपा सारकी एक गजाल मुखेलपणान दिसता Romanticism ते Classicism वा Classicism ते Romanticism ह्या दोन ध्रुवांमदीं तिचो प्रवास जाल्लो दिसता. एकाद्री परंपरा तरतराक येतकच एक पिळगी मुखार ती परंपरा न्हयकारता आनी दुसरी परंपरा सुरू करता. देखीक टागोराचे कवितेची परंपरा घेवन फुडें वचपी कविंची पिळगी दिसता तेचबराबर जिबानंद दास सारकिलो कवी ही परंपरा न्हयकारता. आजूय बंगाली कवीं मदीं टागोरांक कवी म्हूण मानी नाशिल्ले जायते जाण आसात. ही इतिहासाची प्रक्रिया आसा.

हे संवसारीक फाटभुंयेचेर कोंकणी कविता खंय उबी आसा हाचो विचार करपाक जाय. हेर भारतीय भासांचे कवितेचे तुळेन कोंकणी कवितेक येवपाक खूब कळाव जाल्लो दिसता हें सत मानून घेवपाक जाय. ह्या कळावाचीं कारणां भाशेच्या इतिहासांत सोदचीं पडटा. सुरवेक कोंकणी कवितेचें संचित म्हळ्यार लोककाव्य. पूण कोंकणी समाजाच्या अस्मितायेक जाग आयली तशी कोंकणी भाशेंत कवितेची निर्मणी व्हडा प्रमाणात जावंक लागली. सुरवेक ल्हानसो वझरो कशी सुरवात जावन आज तिणे न्हंयचें रूप घेतलां. आपल्या परस फुडें गेल्ल्या हेर भारतीय भासांची फाट धरपाक आनी संवसारीक कवितेबराबर रावपाक तिणे नेटान पावलां मारल्यांत म्हणपाची गवाय तिची गती दिता. खंयचेय भाशेंतलें साहित्य ते भाशेच्या साहित्य संस्कृताय हांचे परंपरेचेर पोसता. कोंकणीच्या वायट नशिबान तिका हें दायज मेळूंक ना. अशें जरी आसलें तरी वट्ट भारतीय कवितेची परंपरा कोंकणी कवितेन आपणावपाचो यत्न केल्लो दिसता. बयाभावा सारकिल्या कवीचे कवितेंत Romantic कवितेचीं लक्षणां दिसून आयलीं तरी अस्सल भारतीय कवितेचीं छंद वृत्तांतल्यान प्रगट जाता हें मतींत घेवपाक जाय. तीच गजाल बाकीबाबाले कवितेची. 'पांयजणां' संग्रहांतली कविता कोंकणी भाशेचें जें सांगितिक लावण्य आसा तें घेवन आयल्या. ती जितली अस्सल भारतीय तितलीच ती Romantic संवेदना व्यक्त करपी. कांय कडेन तिका किट्स, शेले सरकिल्या कविंचे कवितेची सया मारता. आनी तातूंत अजाप अशें कांयच ना. बाकीबाबाचे म्हत्वाचे समकालीन भारतीय कवी Romantic कवितेच्या प्रभावान भारावन गेल्ले ताचो हो परिणाम. बाकीबाबाच्या फाटल्यान आयिल्ले म्हत्वाचे कवी म्हळ्यार र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय, अभिजित, पांडुरंग भांगी आनी शंकर रामाणी. ह्या नांवानी आनीक एका नांवाची भर घालूंक जाय ती चा. फ्रा. द कोश्ताची. ह्या कवींचो लागींच्यान अभ्यास केल्यार तांची कविता एक तर व्यक्तिवादी वा सामाजिक आशया भोंवतणी घुंविल्ली दिसता. संवसारांत ज्यो म्हत्वाच्यो घडणुको जाल्यो आनी ज्यांकां लागून इतिहासाक एक वेगळें वळण लागलें ताचे पडसाद संवसारीक कवितेंत आयकुपाक येतात. कोंकणी कविताय ताका आडवाद ना. 'पांयजणां' वा 'सासाय' ह्या बाकिबाबाल्या कविता संग्रहांनी भावकविते बराबरूच सामाजिक आशय तीव्रतायेन व्यक्त जाला. तीच गजाल मनोहरराय सरदेसायाले कवितेंतूय दिसता. पॉल एलुआर आनी पाब्लो निरुदा हे मनोहररायाचेर प्रभाव घालपी कवी. ते विचारान साम्यवादी आसले तरी ताणी उत्कट अश्यो भावकविता बरयल्यो. चड करून निरुदाकडेन मनोहररायालें गोत्र चड जुळिल्लें दिसता. पंडिताची कविता तांच्या पयल्या पांच संग्रहांतल्यान घोग्यावरी कोंसळ्ळी. तिका वॉल्ट विटमनाची कविता तिचे प्रकृतीचे नदरेन चड लागीं दिसली. मुक्त छंदाचो ताणी प्रभावी उपेग केलो आनी कोंकणी कवितेक नवी दिका दाखयली. 'हांव गावडो' ते 'आयज तूं येतलो देखून' असो हे कवितेचो प्रवास. रामाणी आनी भांगी हे व्यक्तिवादी कवी. फ्रेंच सिम्बोलिस्ट कवितेचो प्रभाव तांचे कवितेचेर खंय खंय दिसता. देशी कवितेचे परंपरेंत तांचीं मुळां आसातूच आनी तीं घट्ट आशिल्ल्यान हो सिम्बोलिस्ट कवितेचो प्रभाव ते पचोवंक पावल्यात. नीज परंपरेची वळख खंयच्याय कलावंताक आसता तेन्नाच फाव तो बरो परिणाम ताचे कलेचेर जावंक पावता हें सत. नागेश करमली सारकिलो कवी भावकविता जितले तांकीन बरयता तितलेच तांकीन ताणे सामाजिक आनी राजकीय आशयाच्यो कविता बरयल्या हें मतींत घेवंक जाय. म्हाका मजा दिसता ती चा. प्रा. चे कवितेची. ताचे कवितेंत फँटसीचो वापर ताणे बेस बरो केला. आनी सरिआलिझम तातूंत कांय कडेन झळकता. ताचो प्रभाव बऱ्या अर्थान मॅल्वीन रॉड्रीग्स सारकिल्या मुखावयल्या कविचेर पडिल्लो दिसता.

विसाव्या शतमानाच्या सातव्या दसकांत कोंकणी कविंची एक पिळगी मुखार आयली ती फाटलीं चाळीस वर्सां अखंड बरयत आसा. हे पिळगेचें देशी परंपरेकडेन रगताचें नातें आसा तेच प्रमाण संवसारीक कवितेचोय तिका सांगात आसा. यंत्र युगांतल्या मनशाची आध्यात्मिक अवस्था, शारीकरणांतल्यान उप्राशिल्ले प्रस्न हो प्रकाश पाडगांवकराल्या कवितेचो आशय तर रमेश वेळुस्कारान कोंकणी लोककाव्य आनी संगीत आपले कवितेंत वापरिल्लें दिसता. ताचे इतलो Folk Motif चो प्रभावी उपेग

दुसऱ्या कवीन केल्लो दिसना. पुंडलिक नायकाची कविता वर्सां संकीनी चिड्डून उरिल्ल्या समाज मनाक आवाज दिता. फाटल्या स दसकांतल्या भारतीय कवितेचेर नदर मारल्यार समाजांतले विशमताये आड उटिल्लो आवाज आयकूंक येता. पुंडलीक नायकाची वा संजीव वेरेंकाराली कविता वाचतना ताचो अणभव येता. फाटल्या शतमानांत संवसारीक कवितेंत आफ्रिकी कवितेचो उदेव जालो. उली बायर आनी जेराल्ड मूर हाणी संपादीत केल्ल्या Modern Poetry from Africa ह्या संकलनांतल्यो कविता वाचतना आमचे कवितेचें तिचेकडेन आशिल्लें पयसुल्लें नातें लक्षांत येता. आगोस्तीन नेतो हो आंगोलाचो कवी आपले एके कवितेंत म्हणटा

I wait no more
it is I who am awaited

ह्यो वळी वाचतना पुंडलिक नायकाची 'बांगर बैल' दोळ्यांमुखार येताच.

मनशा मनशांमदले नात्याचे सबंद जे आज तुटत वा शेणत चल्ल्या ताचेंय दर्शन देशी आनी संवसारीक साहित्यांत जाता. सरिल्ल्या शेंकड्याचेर खोल प्रभाव् घालपी तत्वज्ञान म्हळ्यार अस्तित्ववाद. काफ्फा, कामू, सार्त्र, बेकेट हे ते धारेंतले म्हत्त्वाचे लेखक. तांचो बरो वायट प्रभाव कवितेचेर जाल्लो दिसता. काशिनाथ शांबा लोलयेंकार, अरूण साखरदांडे हांची कविता ते नदरेन म्हाका म्हत्वाची दिसता.

फाटल्या तीस वर्सांच्या काळांत कोंकणी कवितेंत बायलाचें अणभवविश्व आयलां. तांच्या काळजाचे उत्फर्के , उमाळे आनी वेगवेगळ्या कारणांक लागून तांच्या मनाचेर आयिल्ले ताण आनी चेपणां हे कवितेक बळ दिता. हेर भारतीय कवितेंत जसो स्त्रीवादी सूर दिसता तितली खरसाण कोंकणी कवितेंत जाणवना तरी तिचेकडेन आडनदर करूंक मेळना हें तितलेंच खरें आसा. गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांतली बायलांची जीण मुळासावन बदलत गेली. शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून तशेंच बदलिल्ल्या सामाजिक आनी आर्थिक पर्यावरणांतल्यान तिचे भीतर धिटाय आयली. आनी बायलेन जसो रांदची कुडीचो हुमरो हुपलो तशीच ही कविता भायर आयली. ज्या विशयांक हात घालपाक एका वेळार बायलो कांचवेताल्यो ते विशय आशय मेकळेपणान कोणाची लज भीडमूर्वत धरी नासतना त्यो व्यक्त करपाक लागल्यो. नयना आडारकार, नूतन साखरदांडे, ग्वादालूप डायस हांच्यो कविता ह्यो नव्यो संवेदना व्यक्त करतात.

संवसारीक कविता जांव हेर भारतीय भासांतली कविता आनी कोंकणी कविता हांची तुला जावंक शकना. उसरां सुरवात जाल्ली कोंकणी कविता आज विश्वकवितेच्या खांद्याक खांदो लावन चलपाचो यत्न करता आनी ती व्हडा आत्मविश्वासान पावल मारता हें संवसारीक कवितेच्या इतिहासान मान्य करचें पडटलें. एका काळार संवसाराचें सांस्कृतिक केंद्र म्हूण फ्रांसाकडेन पळयताले. कांय काळा उप्रांत ती सुवात अमेरिकेन घेतली आज संवसाराचे पांचूय खंड सांस्कृतिक नदरेन सारकेच बळिश्ट आनी म्हत्वाचे जाल्यात. ह्या वाठारांत कोणा एकल्याचो मक्तो आसा अशें म्हणपाक मेळना. इलिएट, पाऊंड, रिल्के वा पाब्लो निरूदा तशेंच रवीन्द्रनाथ टागोर सारकिलें यूग निर्माण करपी कविंची एकविसावें शतमान वाट पळयता. ते केन्ना येत हें सांगपाक येना. आमी तांची वाट पळोवया.

●●●



# कोंकणी नाटकाचें राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पातळीचेर योगदान



**गों**य मुक्त जाले उपरान्त साहित्य आनी कला क्षेत्रांत नव्या युगाचें पर्व सुरू जालें. नाट्य चळवळींत नवी उमेद जागी जाली. कलेची उदरगत जावंक जाय म्हण 1970 त गोंय कला अकादमी स्थापीत केली. मराठी तशेंच कोंकणी नाट्य सर्तींची सुरवात जाली. नाट्यशाळेक राष्ट्रीय स्थर दिवपाक लागून राष्ट्रीय नाट्य शाळा, नवी दिल्ली हांच्या जोडपालवान नाट्यशाळेची स्थापना केली तशेंच राष्ट्रीय नाट्यशाळेंत प्रशिक्षण घेतिल्ले श्री. वसंत जोसलकर, श्री. यशवंत केळकर, श्रीमती पद्मश्री जोसलकर तशेंच श्री. अफसर हुसैन हांची निवड केली. 1972 सालांत नाट्य रंगमेळाची स्थापना केली. तातूंत वेग-वेगळे शैलीचीं नाटकां माचयेर खेळयलीं. ह्या नाटकांचे गोंयांत तशेंच गोंयचे भायर वेग-वेगळ्या जाग्यांर प्रयोग जाले. गोंय कोंकणी अकादेमी तशेंच कोंकणी भाशा मंडळान नाट्य महोत्सव, सेमिनार, कार्यशाळांचें आयोजन केलें.

**गोंयचीं कोंकणी नाटकां –**

गोंयच्या क्रिस्तांव समाजांत तियात्र हें एक लोकनाट्य जावन आसा. व्यावसायिक माचयेर तियात्राक महत्वाचो दर्जो दिला. थोड्या जाणकाराचें म्हणणे अशें की इटालियन ऑपेरा आनी लोकनाट्य जागोर हांच्या मिश्रणान तियात्र ह्या लोकनाट्याचो जल्म जालो. तियात्र हो स्पेनीश शब्द जावन आसा. 1892 सालान इटालियन भुरगो हो तियात्र मुंबय शारांत प्रस्तूत केलो. तियात्र गोंयानूच न्हय तर मुंबय, दिल्ली, लंडन अशा सुवातांचेर खेळयले वतात. राष्ट्रीय रंगमंचाचेर आजून तियात्र शैलीची वळख जावची आसा. पूण राष्ट्रीय रंगमंचाचेर ह्या नाट्यशैलीन आपली सुवात तयार केल्ली आसा.



अफसर हुसैन

गोंयांत कोंकणी नाटकांची सुरवात शणै गोंयबाब हाणी केली. तांणी 1933 सालांत अरेबियन नाईट्स ह्या कथेचेर आदारीत झिलबा राणो हें नाटक मुंबय शारांत प्रस्तूत केलें. पुंडलीक नारायण नायक ह्या नामनेच्या लेखकान कोंकणी नाटकां बरोवन गोंयच्या रंगमाचयेर एका क्रांतीकारी युगाची सुरवात केली. तांच्या नाटकांत आधुनिक तत्वाबरोबर सामाजिक सत्याचें दर्शन घडटा. तांच्या चौरंग एकांकी संग्रहाक

केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. तांच्या खण खण माती ह्या नाटकांत खणीचो धंदो करपी लोक जीविताची पार्श्वभूमी दाखयल्या. तांची आनीक एक नाट्यकृती श्री विचित्राची जात्रा सगल्या भारतीय भाशेंत रुपांतर करून नभोनाट्याच्या रुपान प्रसारण केलां. तांकां पॅटर्स ऑस्ट्रेलियन पुरस्कार दिवन तांचो सन्मान केला. ह्या नाट्यकृतींच्या वांगडा तांच्या रक्तखेव, सुर्यसावट, शबै शबै भौजन समाज, सुरींग, प्रेमजागर आदी नाटकांनी राष्ट्रीय पातळीचेर सुवात केल्ली आसा. तांचें एक नाटक प्रेमजागर हें लोकनाट्याचेर आधारीत आसा. ताचें सादरीकरण दिल्लीच्या राष्ट्रीय नाट्य विद्यालयाच्या अंतरराष्ट्रीय भारत रंगमहोत्सव 2000 सालांत जाला तशेंच नेहरू सेंटर वरळीच्या राष्ट्रीय नाट्य महोत्सवांत जालां, ताचें दिग्दर्शन श्री. सतीश गावसान केलां अकादमीच्या रंगमेळान सादर केलां. तशेंच रंगमेळाची आनीक एक प्रस्तुती जी श्री. गिरीश कर्नाड हांचें गाजलेलें नाटक हयवदन जाचो कोंकणी अनुवाद बाब प्रकाश थळीन केल्लो आनी दिग्दर्शन केल्लें कला अकादमी रंगमेळाचे मुखेली श्री. अफसर हुसैन ताचे प्रयोग भारत रंग महोत्सव दिल्ली, केरला कला अकादमीच्या वतीन आनी नेहरू सेंटरान सादरीकरण जालें. जेणेकरून ह्या नाटकान कोंकणी रंगमाचयेक एका वयल्या पातळेर व्हरुन दवरलां.

डॉ. श्री. प्रकाश रमाकांत वझरीकर हे आयच्या पिळगेचे एक नामनेचे नाट्यलेखक. तांचीं चडशी नाटकां हीं समकालीन विशयांचेर आदारीत आसात. ह्या नाटकांनी बोली भाशेचो वापर लेखकान व्हडा खुबीन केला. आनी तो प्रयोग नाट्यरसिकांनी उखलूनय धरला. तांच्या नाटकांनी मोबचो (समूह) वापर हें डॉ. वझरीकरांचे खाशेलेपण. तांच्या नाटकांनी 'मॉडर्न सेंन्सीबिलीटी' आमकां पळोपाक मेळटा. तांचें एक नाटक 'आनी एक बुट्टो फुल्लो' जाचें दिग्दर्शन श्री. प्रमोद म्हाडेश्वरान केलां. ह्या नाटकान राष्ट्रीय स्तराचेर नामना जोडल्या. तशेंच तांचीं 'बुरूज ढासळताना', 'जुनी काणी' हीं हेर नाटकां लेगीत राष्ट्रीय स्तराचेर पावल्यांत. ह्या व्यतिरिक्त कोंकणी भाशेंत श्री. अविनाश च्यारी ह्या लेखकान आपली अशी खाशेली सुवात निर्माण केल्या. तशेंच एक नाटक 'देंवचार केळयता मोग्यांक मेळयटां' हें शेक्सपियरच्या 'मीड समर नाईट ड्रीम' चेर आदारीत आसा. कला अकादमीच्या रंगमेळद्वारा श्री. जय हळदणकर हाणी दिग्दर्शीत केलां. हें नाटक लेगीत राष्ट्रीय स्तराचेर पाविल्लें आसा. तेचपरी स. दिलीप नाईक हाणी बरयिल्लें तशेंच दिग्दर्शीत केल्लें 'पाकलीण' हें नाटक कला अकादमीच्या रंगमेळान माचयेर हाडलें ताकाय गोंय तशेंच हेर राज्यांबराबर राष्ट्रीय नामना फावो जाल्या.

तशेंच फुडें जर्मनचो नामनेचो लेखक बर्तोल ब्रेख्त हांचे थ्री पॅनी ऑपेरा ह्या नाटकाचें कोंकणी रुपांतरण गोंयचो नामनेचो लेखक श्री. विष्णू वाघ हाणे केल्लें आनी दिग्दर्शन गोंयचे नाट्यकर्मी श्री. श्रीधर कामत बांबोळकर हाणी केल्लें. ताचे गोंयांतच न्हय तर गोंयांभायर सुद्धां खूब प्रयोग जाले आनी कोंकणी माचयेन आपली एक सुवात निर्माण केल्या. संस्कृत कालिदास गाजलेलें नाटक ऊरूभंग ह्या नाटकाचो कोंकणी अनुवाद गोंयचो नामनेचो कवी श्री. रमेश वेळुस्कार आनी दिग्दर्शन श्री. अफसर हुसैन हाणी केल्लें.

कोंकणी नाटकांक राष्ट्रीय स्तराचेर स्थान मेळपा खातीर दिल्ली तशेंच मुंबय जावपी नाट्य उत्सवांत ह्या नाटकांचो अनुवाद हेर भाशांनी जावपाक जाय. तशेंच राष्ट्रीय स्तरावेल्या दिग्दर्शकांनी हीं नाटकां दिग्दर्शीत करपाक जाय अशें जायत जाल्यार कोंकणी रंगमाचयेक राष्ट्रीय स्तराचेर आपलें स्थान घट्ट करपाक भोव मजत जातली.

अशा तरेन राष्ट्रीय तशेंच अंतरराष्ट्रीय पातळीचेर कोंकणी रंगमाचयेन आपलो एक दर्जो स्थापन केला.

●●●



# बाल साहित्य आनी बाल मानसशास्त्र

न मस्कार! समेस्तांक कामगार दिसाच्यो शुभेत्सा. युगपुरीस शणै गोंयबाबाक आनी भौ. माधव मंजुनाथ शणै शानभागाक नमळायेन आर्गां. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचें 20 वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन कोंकणी सांस्कृतिक मंडळ, सदाशिवगड, कारवारच्या आयोजनाखाला ज्या भौ. रवींद्रबाब केळकार नगरांत घडून येता त्या ज्ञानपीठ पुरस्कारप्राप्त आनी पद्मभूषणप्राप्त म्हान साहित्यिकाक भौ. रवींद्रबाबाक आर्गां ओंपतनाच आमचे सगल्यांचे जीवाभावाचे इश्ट साहित्यीक शशांक सीताराम आनी खडेगांठ कोंकणी कार्यकर्ते, संघटक दीपक गांवकर हांकां नमन करतां.

अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलनाची अध्यक्ष सौ. मीनाबाय सुरेश काकोडकार, बाकीचे पदाधिकारी, अ. भा. कोंकणी साहित्य परिशदेचे अध्यक्ष डॉ. एच. शांताराम, बाकीचे पदाधिकारी, सदाशिवगडावयले आयोजक संस्थेची कोंकणी सांस्कृतिक मंडळाची अध्यक्ष सौ. उषा उल्हास राणे, कारवारच्या कोंकणी भाशा आनी संस्कृती मंडळाची अध्यक्ष सौ. आशा प्रकाश पालनकर, थळावे आयोजन समितीचे पदाधिकारी, 'कोंकणीतलें बालसाहित्य' परिसंवादाचे अध्यक्ष साहित्यिक श्री. एन. शिवदास, प्रबंध सादर करपी म्हजे इश्ट श्री. दिनेश मणेरकार, सौ. रजनी भेंब्रे, चर्चेंत सहभागी श्री. तुकाराम शेट, सौ. माया खरंगटे, सौ. दीपा मुरकुंडे, साहित्यिक, लेखक - कवी, साहित्यप्रेमी प्रतिनिधी, पत्रकार आनी प्रसारमाध्यमांचे प्रतिनिधी.



**कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**
काणकोणा

एका दिसाची खबर

तॉलस्तॉय वर्गांत भितर सरता. पळेत जाल्यार भुरगे एकामेकांचेर नाल्लांची रास जाल्लेवरी पडल्या. सगल्यांचो कुलकुलाट चल्ला... 'आरे, म्हाका चिड्डून मारलो मरे तुमी...' अशें राशी पोंदा पडिल्लो एक भुरगो ताचेर पडिल्ल्या भुरग्यांक सांगता. 'म्हजे केंस सोड रे', अशें दुसऱ्याक कोणाक म्हणटा. तो वयर पडिल्ल्या सगल्यांच्या भारांतल्यान आपणाक सोडोवपाचो यत्न करता. म्हणटासर ताका गुरूजी - खासा तॉलस्तॉय - वर्गांत आयिल्लो दिश्टी पडटा. तो

गुरूजीक उलो मारून सांगता, ‘गुरूजी, म्हजेर पडिल्ल्यांक उठात म्हूण सांग पळोवया... म्हाका चिड्डून उडयला ताणी.’

गुरूजी कांयच करिना. तो कोणाक कितेंच सांगिना. आरमारी सरीं वता. ती उकती करता आनी भितल्लीं काणयांची पुस्तकां काडटा. एकामेकांचेर पडिल्ले भुरगे ‘नमस्ते गुरूजी’ म्हणून राशीवयले उठ्ठात. गुरूजी तांकां पुस्तकां वांटून दिता आनी भुरगे एक एक पुस्तक घेवन जाय थंय वचून बसतात. कोण बांकार बसला. कोण जनेलार बसला. कोण हुमऱ्यार बसला. आनी कोण आनीक खंय वचून बसला. कुलकुलाट आपशींच बंद जाला. कोण हांसना, कोण कोणाक तिडायना.

प्रतिनिधी इश्ट – इश्टिणींनो, मनीस, शिक्षक, चिंतक आनी साधक म्हूण लेव टॉलस्टॉयच्या जिविताची आनी विचाराची वळख घडोवपी लेव टॉलस्टॉयच्या तीन म्हत्त्वाच्या वैचारिक पुस्तकांचो आपरोस आशिल्लें ‘टॉलस्टॉय’ नांवाचें जें पुस्तक ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त पद्मभूषण रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी बरयलां आनी 2009 वर्सा बिम्ब प्रकाशनान उजवाडायलां तातुंतल्या ‘शिक्षक’ माथाळ्या सकयल्या लेखांतलो हो एक वांटो.

चलंत आसा तातुंतलें कितेंच मोन्यांनी मानून घेवपी न्हय आनी तें सगळें बुद्धीचे साणीर घांसून पळोवपी शिक्षणीक मळावयले नवे प्रयोगूय तपासून पळोवपी टॉलस्टॉयाची एक खाशेली पद्धत आशिल्ली. ताणें काणयांचीं बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां हाडून शाळेंत दवरिल्लीं. तीं पुस्तकां तो भुरग्यांक वाचूंक दितालो. केन्ना केन्ना एकादरें पुस्तक आपूण वाचून दाखयतालो जाल्यार केन्ना पुस्तक कुशीक दवरून आपुणूय काणी सांगतालो.

प्रतिनिधी इश्ट – इश्टिणींनो काणयो सांगप ही कला, खाशेली कला. आमच्या पूर्वजांनी लोकवेदावरवीं ती आपणायिल्ली, केळयिल्ली. भौसाचें ‘मानसशास्त्र’ तेन्नाच्या त्या बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ल्यांकूय बेस्स बरें होलमल्लें! जाल्यार बालमानसशास्त्राचें बऱ्यांतलें बरें प्रशिक्षण घेतिल्ल्यांक आयच्या भुरग्यांच्या बालमानसशास्त्राक धरून काणयो सांगपाक, काणयो सांगून घेवपाक आनी सांगल्योच जाल्यार बरोवन चार चवगां सामकार हाडपाक कित्याक येवचें न्हय?

म्हाका दिसता आयजूय आमी भुरग्यांक जाणट्यांची भुरगें आवृत्ती, धाकली आवृत्ती, ल्हान आवृत्ती अशें मानतात. मात्त, विसाव्या शेंकड्याच्या मध्याक बालमानसशास्त्राच्या संदर्भांत खूब म्हत्त्वाचें संशोधन करपी जीन पियाजे नांवांचो स्वीस मानसशास्त्रज्ञ सात तीं आठ वर्सांमेरेनच्या बालकांच्या पिरायेचे जे दोन टप्पे सांगता, ते आमी सारके बरे समजून घेतिल्ले नात! जीन पियाजेच्या मत्तान पयलो पांवडो हो जल्मापसून दोन वर्सांमेरेनचे पिरायेचो आनी दुसरो पांवडो हो दोन ती सात – आठ वर्सांमेरेनचे पिरायेचो. पयल्या पांवड्यारूय भुरग्यामदीं बुद्धिमत्ता आसताच, मात्त ती भास पुरायेन कळचेपयलींची स्वयं शिक्षणाची, आपूण जावन धडपड करून शिकपाची अवस्था आसता. दुसऱ्या पांवड्यार मात्त भुरगें आपली विचारशक्त आत्मकेंद्रीत दवरून संसाराचे अणभव घेयत आसता. अणभवांतल्यान शिकपाची भुरग्याची ही अवस्था आसता. खरें म्हणल्यार ती मेंदूंत चलपी खाशेली प्रक्रिया आसता.

महाराष्ट्र राज्यांत हालीं तेंपार बालशिक्षणाच्या मळार महाराष्ट्र राज्य बालशिक्षण परिषदेवरवीं जो वावर नेटान चल्ला, ताची प्रेरकशक्ती अशे डॉ. रमेश पानसे हाणी मेंदू शिक्षणाचेर भरपूर संशोधन करून ‘मूल शिकतं कसं?’ नांवाचें जें पुस्तक उजवाडायलां, तें समेस्त शिक्षकांनी, पालकांनी आनी बालसाहित्त्याच्या रचनाकारांनी मुद्दम वाचपाक जाय.

हालींच शिक्षण – आनंदक्षण (नाविन्यपूर्ण काम करणाऱ्या महाराष्ट्रातील काही प्रयोगशील प्राथमिक शाळांची ओळख) नांवाचें डॉ. रमेश पानसे हांचें जें पुस्तक उजवाडा आयलां, तातूंत बालकेंद्री शिक्षणाचे दिकेन विंगड विंगड संस्थांवरवीं महाराष्ट्र राज्यांत जे प्रयोग चल्ल्यात, ताचें जें सर्वेक्षण तांणी युनिसेफच्या अधिकाऱ्यांवांगडा केलें ताचे फाटभुयेर उठून दिसपी साधनाधारित आनी क्षमताधिष्टित शैक्षणिक प्रयोग करपी बारा शाळांचो खास उल्लेख केला. सृजन आनंद विद्यालय, कोल्हापूर, उदयाचल विद्यालय मुंबई, कमला निंबकर बालभवन, फलटण, डोअर स्टेप स्कूल, मुंबई, अक्षरवंदन, पुणे, तेजस विद्यालय, कोल्हापूर, ह्यो स शाळा शारांतल्यो, जाल्यार ग्राममंगल, दाभोण (जिल्हा ठाणे) लोकमान्य टिळक विद्यालय, चिखलगांव, श्रमिक सहयोग, चिपळूण, जीवनशाळा, धुळे, साखरशाळा, पुणे, भोंगाशाळा, ठाणे ह्यो स शाळा खेड्यांतल्यो. मात्त दर्ज्याच्या संदर्भांत शारांतल्यो शाळा आनी खेड्यांतल्यो शाळा असो भेदभाव नाच्च! कारण, माँटेसरीची शिक्षण पद्धत खऱ्या अर्थान पचोवन पुराय जीण बालशिक्षणाखातीर ओंपिल्ल्या अनुताई वाघांची ‘ग्राममंगल’ संस्था जशी हातूंत आसपावता, तशीच ‘भारतरत्नांचो प्रदेश’ म्हूण वळखतात असो लोकमान्य टिळक विद्यालयाचो परिसरूय हातूंत आसपावता. एकदम म्हत्त्वपूर्ण अशीं वैशिष्ट्यां ह्या शाळांच्या संदर्भांत सांगपाचीं जाल्यार तीं अशीं सांगपाक जातलीं – 1. ह्यो शाळा वेगळ्या वेगळ्या कला कार्यावळींतल्यान भुरग्यांमदल्या सुंदरतायेच्या मुल्यांचें जतन आनी संवर्धन करतात. 2. साहित्याची

रूच घेवपाची आवड भुरग्यांमदीं निर्माण करतात. 3. संगीत आनी नाचांत भुरगीं रंगतलीं हाची जतनाय घेतात. 4. चित्रकलेवरवीं भुरगीं आनंद घेतलीं हाची वेवस्था करतात. 5. सैमा सांगतान वावुरतना भुरगीं गुल्ल जातलीं हेंवूय पळयतात. हे सगले अणभव भुरग्यांक 'सत्यं शिवं सुंदरम्' चो अणभव दितनाच फुडली जीण गिरेस्त करपासारकेच आसात.

मात्त अशे तरेचें वातावरण ज्या भुरग्यांक मेळना, त्या भुरग्यांचें कितें हो प्रस्न आमकां सगल्यांक पडूं येता. अर्थांत, ताची जाप आमकां सगल्यांकूच खबर आसा. जाल्यारूय अशेच तरेची शाळा चलोवपी श्रीमती रेणु दांडेकर आपल्या 'मुलं घडताना – घडविताना' पुस्तकांत म्हणटात – 'मला नेहमीच वाटतं, आज घराघरात मुलं अशी सगळ्या बाजूंनी कुठल्याशा अदृश्य दोरांनी बांधली तर गेली नाहीत ना? मुलांवर उलट परिणाम होत नाही ना? मुलांनी कसं व्हावं याचं घरान काढलेलं चित्र आणि मुलांनी आपल्यासाठी काय हवं याच्या केलेल्या कल्पना वेगळ्या असतात'.

आतां घरांतले हे असले प्रस्न सोडोवपाखातीर समुपदेशन वा कावंसेलींग हो एक उपाय जालो तरी प्रस्न सासणाचो सोडोवपाखातीर भुरग्यांचें मानसशास्त्र लक्षांत घेवन घरांतलें वातावरण आनंदी दवरपाचे यत्न करप चड शाणेपणाचें कारण चड चर्चा करीनासतना एकाच उतरान सांगपाचें जाल्यार नवे पिळगेक 'स्पेस' जाय. हें मान्य करपाक जाय. आनी तेच खातीर भुरग्यांक समजून घेवपाखातीर हॉवर्ड गार्डनर ह्या मानसशास्त्रज्ञान भुरग्यांचे बुद्धिमत्तेचे जे सात प्रकार सांगल्यात ते सगल्यांनी – पर्थून शिक्षकांनी, पालकांनी आनी बाल साहित्याच्या रचनाकारांनी – फकत वाचून न्हय जाल्यार अभ्यासून आमचे आमकांच तपासून पळोवचें पडटलें. हॉवर्ड गार्डनरान सांगिल्ले बुद्धिमत्तेचे ते आठ प्रकार अशे – 1. भाशीक बुद्धिमत्ता – म्हणल्यारूच वाचन – लेखनाची बुद्धिमत्ता क्षमता. याद दवरपाची क्षमता, लेखक, वक्ते आनी शिस्तीन शिकपाची क्षमता, वक्ते आनी राजकारणी हांचेमदीं ही बुद्धिमत्ता आसता. 2. तार्किक – गणिती बुद्धिमत्ता – असली बुद्धिमत्ता कायदेतज्ञ, वकील, गणिती शास्त्रज्ञ हांचेमदीं आसता. ताका लागून तांकां सूक्षीम पद्धतीन घटनेचो विचार करून प्रस्न सोडोवप शक्य जाता. 3. सांगितिक बुद्धिमत्ता – म्हणल्यारूच संगितांतली बुद्धिमत्ता. हिका 'विशेश देणगी' म्हणटात. अशे बुद्धिमत्तेचीं भुरगीं संवेदनक्षम आनी हळवीं आसतात. तीं दुसऱ्यांक भुल्लुसून उडोवपी, भारावन सोडपी आसतात. 4. अवकाशी बुद्धिमत्ता – हिका निरीक्षण बुद्धिमत्ता अशेंय म्हणटात. 'अलौकिक बुद्धिमत्ता' म्हणटात ती हीच! एखादी घटना भुरगीं दोळ्यांमुखार अशेतरेन हाडटात आनी उतरांतल्यान, रचनांतल्यान अशे रितीन मांडटात तें पळयल्यार अजाप जाता. वास्तुशास्त्रज्ञ, मूर्तीकार, अवकाशयात्री, झुजामळावयले झुजारी अशे बुद्धिमत्तेंतल्यान घडटात. 5. शारिरीक – स्नायुंविशींची बुद्धिमत्ता – खेळगडे, नृत्यकलाकार घडपासारकी ही बुद्धिमत्ता. 6. आंतरव्यक्ती बुद्धिमत्ता – एकमेकांकडेन जुळोवन घेवपाची बुद्धिमत्ता – म्हाल विकपी, प्रवक्ते मार्गदर्शक अशे बुद्धीची भुरगीं सामाजिक तशेंच समाजमोगी आसतात. हीं भुरगीं चडशीं चोम्यांनीच आसतात. 7. व्यक्तिअंतर्गत बुद्धिमत्ता, अंतर्ज्ञानाची बुद्धिमत्ता – ज्ञान वा गिन्यान मेळोवन घेवपाची क्षमता. तत्त्वगिन्यानी समुपदेशक हांचेमदीं अशी बुद्धीमत्ता आसता. 8. सैमासंबंदांतली बुद्धिमत्ता – सैमाचो मोग. झाडांपेडां, सवर्णी – सावदां हांच्या अभ्यासांत रूच. पर्यावरणाच्या अभ्यसांत गती. देखून, भुरग्यांचें निरीक्षण करून कोणाकोणामदीं कसली कसली बुद्द, क्षमताय आसा हें सोदून काडपाक जाय आनी ते प्रमाण तांकां संद दिवपाक जाय... भुरग्यांखातीर जाणट्यांनी बाल साहित्य रचपाचें आसूं वा भुरग्यांखातीर भुरग्यांनी बाल साहित्य रचपाचें आसूं हे प्रक्रियेसंबंदांतलीं आपलीं बळस्थानां आनी आपलीं उणेपणां आपलीं आपल्याक कळपाकूच जाय आनी जेन्ना भुरग्यांक तीं कळनात तेन्ना जाणट्यांनी तीं सोदून काडून ते प्रमाण कार्यावळी हातांत घेवंक जाय.

कारण, भुरगें जेन्ना बरें आयकतलें तेन्नाच तें बरें उलयतलें आनी बरें वाचतलें तेन्नाच बरें बरयतलें. देखून, शारिरिक खेळांचें म्हत्त्व देशांत वाडत चल्लां, क्रिकेटीचें यूग अवतरलां, वाडता चल्लां, शारिरिक व्यायामाचें विशेश करून पतंजली योगावरवीं बाबा रामदेवांवरवीं – योग विद्येचें म्हत्व वाडलां तशेंच बुद्धीक व्यायामावरवीं उतरांकडेन खेळत वाक्य बांदावळ केळयत साहित्याची रचना घडपाकूय म्हत्त्व प्राप्त जावंक जाय. बालमानसशास्त्राक धरून भुरग्यांक काणयो आनी नव्यो नव्यो गजाली सांगत रावपाक जाय. ते खातीर कथाकथन जावपाक जाय. काणयांची, घटनांची याद करपाचे 'वेवसाय' तांकां दिवंक जाय. चित्रां काडपाक लावन तांचेवरवीं साहित्य घडोवपाक उर्बा – उमेद दिवपाक जाय. ध्वनीरचना, शब्दरचना हांचें शास्त्र गितांवरवीं, काव्यावरवीं भुरग्यांच्या कानार पडपाक जाय. देखून, गीत गायनां जावंक जाय. काव्य वाचनां जावंक जाय. लळितकां पर्थून नेटान उबीं रावंक जाय.

ते खातीर एक भास जाय. ती आवयभासूच आसपाक जाय. आनी ती फकत शिकपाचें माध्यम न्हय, जगपाचें माध्यम जावपाक जाय. साहित्य, संस्कृताय म्हणल्यार निमाणे कितें? म्हाका तरी

दिसता, भास ह्या विशयाकडेन पयलेसावनूच न्हय जाल्यार अंगणवाडी सावनूच, बालवाडीसावनूच, भाशेवांगडाच साहित्य, संस्कृतायेची पोसवण करपाचें माध्यम म्हूणच पळोवपाक जाय. पूण हें केन्ना जातलें? आमकां भुरग्यांचे प्रस्न कळटले तेन्ना! ते खातीर जेन्ना जेन्ना आमचीं उतरां आयकतूच आनी पुस्तकांतलीं उतरां वाचतकूच भुरगीं प्रस्न विचारतलीं तेन्ना तेन्ना आमकां जाप दिवची पडटली, दिवचीच पडटली. ना तर आमीच नवे प्रस्न निर्माण करतले!

वाचपाची संवय ल्हानपणांत लागली जाल्यारूच व्हड जातकूच ती तिगून उतरली. ते खातीर शिक्षकांनीय जाणीवपूर्वक बऱ्यांतलें बरें वाचन करूंक जाय. जमना जाल्यार शिकून घेवन मर्दीमदीं बरें नाट्यवाचन करूंक जाय. भुरग्यांवांगडा बरें बरें आयकुपाक जाय. भुरग्यांवांगडा मोट्यान वाचपाक जाय. शिक्षकांचे उच्चार स्वच्छ, शुद्ध, स्पश्ट अर्थपुराय, भावपुराय आसपाक जाय. भुरग्यांकडेन चर्चा करून तांच्या भाशीक विकासाक ऊर्बा – उमेद, प्रेरणा दिवंक जाय. रसास्वाद, परीक्षण, विश्लेषण करपाची संवय भुरग्यांक लावपाक जाय. वाचतना आनंद जाता, मजा येता हाचो अणभव भुरग्यांक दिवपाक जाय.

'वाचन : दिशा आणि दृष्टीकोन' ह्या पुस्तकांत डॉ. नवनाथ तुपे हांणी वाचनाचें जें म्हत्त्व विस्तारान मांडलां ताचो आपरोस कांय थोड्या वाक्यांनी सांगतलो जाल्यार अशें म्हणचें पडटलें. 1. बळसत्ता आनी धनसत्ता हांचेपरस ज्ञानसत्ता श्रेष्ठ! 2. जितल्या वेगान वाचन तितल्या वेगान गिन्यान. 3. वाचनाखातीर चड करून साहित्याच्या वाचनाखातीर आंतरिक प्रेरणा जागोवची पडटा. ते बगर अभिरूची आवड निर्माण जायना आनी अभिरूची / आवडीबगर अवधान / लक्ष लागना. 4.वाचन ही संवेदनशील आनी मानसिक प्रक्रिया. दोळे, मन आनी मेंदू ह्या म्हत्वाच्या घटकांचें वाचन हें म्हत्त्वाचें कार्य 5. लेखकाचें कवीचें/म्हणणे आनी संदेश आपलेमदीं जिरोवन घेवपाची प्रक्रिया म्हणल्यार वाचन.

आनी ताचेकूय सोपे पद्धतीन सांगपाचें जाल्यार हांव सांगतलों, बऱ्या संभाशण आनी वाचनाखातीरची उमळशीक वाडटली जाल्यार पालक आनी भुरग्यांमदल्या प्रस्नांविशीं एका कावन्सलराचे अणभव आशिल्लें भौ स्नेहलता अरविंद भाटीकर हांचें 'पालक आनी भुरगीं' हें पुस्तक मुद्दम वाचात. आनी शक्य जाता जाल्यार न्हय, शक्य करून शणै गोंयबाबांची 'म्हजी बा खंय गेली?' धरून मराठी कथाकार दिवाकर कृष्णांची 'अंगणातला पोपट' मेरेनची मनां काळजांच न्हय जाल्यार मनां – काळजांच्या मानसशास्त्राकूय हालोवन उडोवपी कथा वाचात. नेमान वर्तमानपत्रांनी शिक्षणाचेर शिक्षण शास्त्राचेर पर्यायान बालमानसशास्त्राचेर लेख बरोवपी शिक्षणतज्ञ डॉ. नारायण देसाय, शिक्षणतज्ञ श्री. पांडुरंग नाडकर्णी, श्री. कालिदास मराठे, श्री. सतीश दळवी हांचे लेख वाचात. शिक्षणाच्या प्रयोगांच्या संदर्भांत समजून घेवपाखातीर सामाजिक वावुरपी व्याख्याते देवेंद्र कांदोळकरांचे 'सागरशाळा' हें पुस्तक तर तुमी वाचपाकूच जाय. विचारवंत लेखिका Sylvia Ashton - Warner आपल्या TEACHER The testament of an inspired teacher पुस्तकांत भुरग्यांच्या लेखनासंबंदान शिक्षकांक शिटकावणी दितात – You've got no right at all to cristicise the content of anothers mind. A Child doesn't make his own mind. It's just there. Your job is to see what is in it.

आनी निमाणें – जाणट्यां नेणट्यांक, भुरग्यांबाळांक पिशें लावपी, अंतर्मुख जावन विचार करपाक लावपी आनी म्हजो 'बालसाहित्य आनी बालमानसशास्त्र' विशय जसो कितें काय मेजक्या निरीक्षणांनी मांडपी एक पुस्तक – प्रिय बाई, बार्बियानाची शाळा, स्कुओला दि बार्बियाना ह्या नांवाच्या मूळ इटालियन भाशेंतल्या Letter to a Teacher ह्या इंग्लिश अणकाराचो श्रीमती सुधा कुलकर्णी हांणी केल्लो हो मराठी अनुवाद – प्रिय बाई. फादर मिलानींच्या पालवान तांचे शाळेंतल्या आदल्या आठ विद्यार्थ्यांनी बरयिल्लें हें पुस्तक शिक्षणाकडेन पळोवपाची शेतकार कुटुंबांतल्या भुरग्यांची नदर हातुंतल्यान स्पश्ट जाता. जंय जंय म्हूण भुरग्यांक शाळेभायर घालतात, थंय थंय हें पुस्तक पावचें अशें बरोवप्यांक दिसता. शिक्षकांक नाका जाल्ल्या भुरग्यांबगरची शाळा ही शाळाच न्हय अशें ह्या भुरग्यांक दिसता. ते शिक्षिकेक सांगतात – पालकांची एक संघटना जाय आनी तुमकां तांणी याद करून दिवपाक जाय, तुमकां आमी जो पगार दितात, तो भुरग्यांची सेवा करपाखातीर. भुरग्यांक शाळेंतल्यान भायर घालपाखातीर न्हय!...

जय कोंकणी! जय कोंकणम्बा!!

संदर्भ – पुस्तकां – (1) तॉलस्तॉय – रवींद्र केळेकार, बिम्ब प्रकाशन, आगशी, गोंय 403 204 (2) शिक्षण : आनंदक्षण – रमेश पानसे, ग्रंथाली, ग्रँट रोड, मुंबई 400 007 (3) मुलं घडताना – घडविताना – रेणू दांडेकर, मनोविकास प्रकाशन नारायण पेठ, पुणे 411 030 (4) वाचन : दिशा आणि दृष्टीकोन – डॉ. नवनाथ तुपे, कैलाश पब्लिकेशन्स, औरंगपुरा, औरंगाबाद (5) पालक आनी भुरगीं – स्नेहलता भाटीकार, युग्वेद प्रकाशन, मडगांव गोंय – 403 601 (6) Teacher - Sylva Ashton - Warner - C7, 167, S. D. A., New Delhi 110 016 (7) प्रिय बाई – अनुवाद सुधा कुलकर्णी, मनोविकास प्रकाशन, नारायण पेठ, पुणे 411 030

●●●

# बाल साहित्य लेखन, प्रकाशन, वितरण, आनी वाचन



खंयच्याय भाशेंत बाल साहित्य आसताच. खंयच्याय घराब्यांत बाल साहित्य आसता. खंय भुरगीं आसात माणकुलीं आसात थंय बाल साहित्य आसुंकच जाय. ना जाल्यार आमचीं भुरगीं उलोवंकच शकचीं नासलीं. हांव म्हणटां तें आज ह्यो, व्होंवयो, काणयो गितां हांचे संबदान. आजो आनी आजयेच्या माणयेर बसून साहित्यांतलीं हीं विवीध रुपां जें भुरगें आयकता तेंच बाल साहित्य. आजवेर मौखीक स्वरूपांत पिढ्यान पिढ्यो आमचेकडेन हें साहित्य पावलां आनी आमी तें आमच्या भुरग्यांमेरेन पावयलां. हातूंतलें जें बरोवन दवरलें तें उरलें जें बरोवन दवरलें ना तें काळाच्या ओघांत व्हावन गेलें. आज हांव हांगा उलोवंक सोदतां तें लिखीत स्वरूपांतल्या साहित्याबद्दल. खंयच्याय बालसाहित्यांत विविधताय जाय. एका भारतांतच 300 भासो आसात तांच्यो Dialects बोली आसात. ह्या पुराय भासांतलें बाल साहित्य कोंकणीत हाडपाचो वावर जावपाक जाय. भारत हो देश विविधता में एकता हें तत्व घेवन चलता. प्रत्येक राज्याची संस्कृती वेगळी. तांचो इतिहास वेगळो तांची परंपरा वेगळी. आनी ह्या सगळ्यांचेर प्रत्येक भाशेचें बाल साहित्य रचप जाता वा प्रत्येक राज्यांतल्या बाल साहित्याची Base ही आसता. ही विविधताय जेन्ना कोंकणी वाचप्याक Introduce जातली वा ताची वळख जातली तेन्ना ताका भारताच्या वैविध्यतायेचो अंदाज येतलो. ताचो अभ्यास जातलो आनी आपूण जो घडटा तो ह्या वैविधतायेचो एक खांबो हाची जबाबदारी ताका कळटली. आमच्या मर्दीं जी धार्मिक तेढ उप्रासता ती त्या त्या धर्माच्या अज्ञानाक लागून वा चुकीच्या प्रचाराक लागून. जेन्ना आमच्या बाल साहित्यांत ह्या सगळ्या धर्मांचे आनी समाजाचे संस्कार येतले तेन्नाच हांव खरे धर्मनिरपेक्षतायेन म्हळ्यार सेक्युलरपणात म्हजो फुडार बांदून काडपाक शकतलों.



दिनेश रा. मणेरकार

अश्या ताकीचें बाल साहित्य आमी बरोवपाक जाय. बाल साहित्याचें लेखन हें हांव तरी म्हणन, सगळ्या लेखनापरस कठीण. बाल साहित्य बरयतना, लेखकान आपलें वय विसरून बाल जावचो पडटा. हें जाका शक्य आसा ताणेंच बाल साहित्य रचचें. बाल साहित्य जें आमी बरयतात तें ल्हान भुरग्यांक समजूंक जाय. त्या बाल साहित्यांतल्यान तांकां ज्ञान मेळपाक जाय. त्या बाल साहित्यांतल्यान तांचेर संस्कार जावपाक जाय. त्या बालसाहित्यांतल्यान तांची कुतूहल शक्ती वा Observation Capacity वाडपाक जाय. त्या बाल साहित्यांतल्यान तांची विचार करपाची तांक वाडपाक जाय. त्या बाल साहित्यांतल्यान ताची Reasoning पावर वाडपाक जाय. त्या बाल साहित्यांतल्यान

ताची सृजनशीलता म्हळ्यार Creativity वाडपाक जाय. आनी हें सगळें आसपावन घेतल्या त्या बाल साहित्यान त्या वाचकाची मनरिजवणय करपाक जाय.

आतां कळ्ळें बालसाहित्य बरोवप कितलें सोपें तें? भुरगो जल्माक आयलो म्हणटकूच तो दांगांनी वाडटलोच. ताका सुविचारी मनीस घडोवपाची बुनयाद बाल साहित्य घालता. ज्या तरेच्या बाल साहित्याचेर ताचेर पोसवण जाता त्या तरेची ताची कालेत जाता. देखून आमी बरयतात तें बाल साहित्य संस्कारक्षम आसपाक जाय. आज बाजरांत मेळटात तीं खेळणीपसून Agewise Categorise केल्लीं आसतात. कारण भुरग्याची बौद्धिक वाड तांचेकडेन संबंधीत आसता. तशेंच भुरग्यांखातीर साहित्य बरयताना तांचे गट सारखे आंखिल्ले आसपाक जाय. देखीक 3 ते 6 वर्सांमेरेन एक गट. 6 ते 10 वर्सांमेरेन, 10 ते 13 वर्सांमेरेन, 13 ते 15 वर्सांमरेन तें मागीर कुमार साहित्य जाता. म्हजो सांगपाचो मुद्दो असो की आमी बाल साहित्य रचतनाच तांचें वयाप्रमाणे Categorisation जावपाक जाय. म्हणटकच भुरग्यांक वा तांच्या आवयबापायक पुस्तकां वेंचतना आदार जाता.

बाल साहित्याचो विशय वेंचतना ही वयाची आनी विशयाची सांगड घाल्ली बरी. स सात वर्सांच्या भुरग्यांखातीर राजाराणयेच्यो वा राक्षसांच्यो काणयो is Ok. ह्या पिरायेचेर भुरगीं मनोराज्यांत गुल्ल जातात. तांच्या कल्पनेक चंवर फुटटा, जीणेतलो आनंद अणभवपाचो प्रयत्न तीं करतात. देखून असल्यो काल्पनिक काणयो ह्या भुरग्यांक बऱ्यो. पूण ताचे नंतरच्या वयोगटाखातीर बरयतना मात आमी चवकस जावपाक जाय. भुरग्यांच्या कुतुहलाक जाप दिवपी साहित्य आमी रचपाक जाय. आयच्या भुरग्यांची चवकस बुद्धी वाडल्या. तांकां टि.व्ही. आनी इंटरनेट हांकां लागून नवें विश्व मेळ्ळां. मोबायलांचीय तातूंत भर पडल्या. आयचें यूग हें टेक्नोसेव्ही म्हळ्यार तंत्रगिन्यानमोगी यूग. अशा युगांत भुरग्यांची जिज्ञासा खूब खर आसता. ताका पडपी प्रस्न बरेच गहन आनी कठीण आसतात. देखीक आमच्या दिसपट्टे चर्चेंत येवपी Alien म्हळ्यार परग्रहावेलो मनीस. आमच्या बाल साहित्यांत हाचेर साहित्य आसा? मनशाची मंगळाचेर वचपाची तयारी आनी ते संबंधीचे नवे सोद. कोंकणीत अवकाश साहित्याचेर बरप आसा? मंगळासारक्या गिऱ्यांचेर साहित्य आसा? राजश्रीबाय कारापुरकार आनी श्रीकांतबाब नागवेंकार हाणी थोडें भोव बरयलां हांव जाणा. पूण हांव म्हणटां तें इंग्लिश भाशेंत ज्या तरेन ह्या विशयांचेर साहित्य आसा त्या तरेचें साहित्य आमी रचलां व्हय? तसो आमी प्रयत्न तरी केला व्हय? ना, अजून तरी ना. आमच्या विश्वांत अशे कितलेशेच विशय आसात जांचो अभ्यास करून आमी ताचो आसपाव बालसाहित्यांत करपाक जाय.

**लेखनाफाटोफाट येता तें प्रकाशन –**

कोंकणी विश्वांत कोंकणी पुस्तकां प्रकाशीत करपी प्रकाशनांक खूब म्हत्त्व आसा. कारण कोंकणी ही आमची थळावी भास. तिचो वाचकय मर्यादीत. म्हणटकच तसो फायद्यांत चलपी धंदो अशें कोंकणीच्या बाबतींत तरी म्हणपाक जावचें ना. एक गरज म्हणून कोंकणी पुस्तकां वा आपलींच कोंकणी पुस्तकां प्रकाशीत करपी संस्था खूब आसात. पूण फकत बाल साहित्याक ओंपिल्ली प्रकाशन संस्था अशी कोंकणी मळार ना. मुळाक सावन कोंकणी बाल साहित्य चड ना. आनी आसा ताका खपय असोच जेमतेम. ताका लागून जायत घडये बाल साहित्य प्रकाशीत करपाच्या वावराक चड प्रकाशक लागिल्ले दिसनात. एक गजाल म्हाका हांगा नमूद करचीशी दिसता. गोवा कोंकणी अकादेमीन फाटलीं साबार वर्सां 'पयलो चंवर' ही येवजण चालीक लायल्या. हातूंत नव्या बरोवप्याचें पयलें पुस्तक छापपाखातीर अकादमी अनुदान दिता. कांय वेळा हातूंततल्यान वा खास बाल साहित्य येवजणेंतल्यान अकादमीन कांय पुस्तकां प्रकाशीत केल्यांत. भौ दिपा मुरकुंडेच्या श्री हरी प्रकाशनान कांय बाल साहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत केल्यांत. कांय वर्सां पयलीं जेन्ना कोंकणी बाल साहित्य उजवाडावपी कोणच नासलो तेन्ना राजहंस वितरणाच्या श्री प्रभाकरबाब भीडेन एक आव्हान म्हणून जायतीं पुस्तकां बाल साहित्यांतलीं उजवाडाक हाडल्यांत.

सांगपाचें म्हळ्यार कोंकणी अकादेमी आपले कडेन जें साहित्य उजवाडावपाक अर्ज येता तींच पुस्तकां उजवाडायता. आनी नेमकें हांगाच आमी मार खाला. प्रस्थापीत साहित्यीक आपलें साहित्य उजवाडाक हाड म्हणून अकादेमी म्हऱ्यान वचचो ना. आमी कोंकणी लोक स्वाभिमानी लोक. आमी दुसऱ्यांक दिवपाक हुशार. आमी मागपाक फाटी. ह्या सभावाक लागून बरें दर्जेदार साहित्य फाटी उरता.

अकादेमी सारखिल्या संस्थांनी जांचेकडेन खूब मोठें अर्थीक फाटबळ आसा ताणी बाल साहित्य रचतल्यांक Assignment वा प्रकल्प दिवन हो वावर करून घेवपाक फाव. होच वावर खाजगी

प्रकाशन संस्थानीय करपाक जाता. बाल साहित्याची निर्मणी हें एक मिशन म्हणून मुखार सरल्यार तुमकां आदार दिवपी जायते आसतले. आज आमकां गरज आसा ती दर्जेदार साहित्य तयार करपाची. बाल साहित्याच्या मळार जगभर किते हालचाली चल्ल्यात हाचेर नदर दवरून त्या क्षमतेचे बाल साहित्य निर्माण करप ही काळाची गरज. पूण आमच्या म्हालगड्या संस्थांक ती नदरच ना. तें Vision ना ती दूरदृष्टी ना. आमी पुस्तकांचो आकडो वाडोवपांतच आमचो विकास आसा अशें मानतात. जगांतल्या बाल साहित्याचेर नदर मारपाक शक्य ना जाल्यार निदान इतर भारतीय भासांतल्या बाल साहित्याचेर तरी नदर मारूंकच जाय. भारतांतल्या इतर भासांनी जें जें निर्मता तितलेंय म्हाका म्हजे कोंकणी भाशेंत येवपाक जाय. तेन्नाच म्हजें कोंकणीतलें बाल साहित्य समृद्ध जातलें.

प्रकाशन संस्थामुखार एक व्हडलें प्रस्नचिन्ह आसता तें म्हळ्यार पुस्तकां खपनात. गजाल खरी. ज्यावरी English पुस्तकां खपतात तेवरी कोंकणी पुस्तकां खपनात. ही गजाल सामकी खरी. पूण ह्या Conclusion येवचे पयली आमी हे खातीर कितले प्रयत्न केल्यात तें समजून घेवपाक जाय. बाल साहित्याचीं कोंकणी पुस्तकां खपचीं हे खातीर आमचे मदल्या जण एकल्यान संकल्प करपाक जाय. खंयच्याय भुरग्याचा वाडदिसाक वतना आपूण ताका प्रेजेंट म्हणून पुस्तकांच व्हरतलों आनी जे पैशे Present घेवपाक पडटले आशिल्ले तितक्याच रकमेचीं पुस्तकां विकतीं घेवन त्या भुरग्यांक दिवचीं. तेचबशेन ज्या ज्या Parent Teachers Association चीं तुमी वांगडी वा पदाधिकारी आसात त्या सगळ्या शाळा इश्कोलांनी भुरग्यांक इनामां म्हणून पुस्तकां वाटपाचो निश्चेव करपाक जाय. सरकारी पांवड्याचेर बाल साहित्याचें प्रत्येक कोंकणी पुस्तक सगळ्या मुळाव्या शाळांनी आनी हायस्कुलांनी पावोवपाखातीर सरकारान विकतें घेवपाक जाय. प्रायमरी आनी हायस्कूल मेळून फकत गोंयांत हजारवयर स्कुलां आसतलीं. म्हणजेच सरकारान मनार घेतल्यार 1000 कॉपी हांगाच खपतल्यो. आमी कोंकणी प्रकाशन संस्थांनी हो वावर एक चळवळ म्हणून एक मिशन म्हणून फुडें व्हरपाक जाय. जाल्यारच आमकां जैत मेळटलें.

प्रकाशनाचो एक मुखेल वावर आसता तो पुस्तक वितरणाचो. दुर्दैवान आमचेकडेन कोंकणी पुस्तकां विकपी खाजगी विक्रेतो ना. कोंकणी पुस्तकां हमखास मेळपाची गोंयांत दोनच ठिकाणां. एक गोंय कोंकणी अकादमी आनी दुसरें मडगावचें कोंकणी भाशा मंडळ. हांचेशिवाय आमचेकडेन वेगळी आनी बरी पुस्तक पेढी ना. कांय वर्सांपयलीं National Book Trust - Delhi ह्या संस्थेन कांय कोंकणी पुस्तकां Publish केल्लीं. National Book Trust न त्यावेळार कोंकणी पुस्तकां Publish करपाक उमेद दाखयल्ली. आनी एक खंत परगटायिल्ली. कोंकणी पुस्तकां खपनात. आनी तीं खपनात देखून नवीं पुस्तकां छापपांत 'अर्थ' ना असो शेरो मारून कोंकणी पुस्तकां छापपाचें ताणी बंद केलें. आमच्या सरकारान जर थोडीशी उमेद दाखयल्ली हीं पुस्तकां विकतीं घेवन गोंयच्या शाळा स्कुलांनी पावयिल्ली जाल्यार कोंकणी पुस्तकां छापपाचो वावर NBT कडल्यान चालू उरतलो आसलो. ह्या छापिल्ल्या पुस्तकांमदीं जायतीं बालसाहित्याचींच पुस्तकां आसलीं. ह्या वेळार म्हाका स. चंद्रकांतबाब केणी हांची याद जालेबगर रावना. कारण ताणी श्री. सुब्बा राव आनी सुषमा सोनक हांचे आधारान ही पुस्तकां छापून घेतिल्ली. अजूनय वेळ गेल्लो ना. आमच्या म्हालगड्या संस्थांनी हातूंत Interest घेवन ह्या पुस्तकांचे वितरण मनार घेवं येता. ते खातीर सरकाराचेर चेंपण हाडूं येता.

हांवें म्हालगड्यो संस्था म्हणल्या तातूंत अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदय आसपावता. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेन आतां सृजनशील साहित्याचो वावर हातांत घेवचो ह्या संमेलनाचो एक विशय बाल साहित्य जावन आसा. तेन्ना ह्या कोंकणीतल्या बाल साहित्याक मूर्त रूप दिवपाक ह्या परिशदेन वावुरचें ह्या संमेलनाच्यो अध्यक्षा भौ. मीनाबाय काकोडकर ह्योय एक बऱ्यो बाल साहित्यकार. एक संकल्प म्हणून फुडलें वर्सभर तरी ताणी बाल साहित्याखातीर वावुरचें अशें दिसता. माफ करात, हांव जें उलयतां ती म्हज्यांतली पोटतिडक उलयता. कोंकणीच्या जैताखातीरची तळमळ उलयता. राग धरू नाकात. हांवे सुचयलां तातूंत चड उणे आसल्यार समजून घेयात. पूण कोंकणीच्या बाल साहित्याची घुडी मुखार व्हरात.

म्हाका दिल्ल्या विशयांतलो निमणो टप्पो आसा तो वाचनाचो. जंय साहित्य निर्मणेची प्रक्रिया सोंपता आनी कार्य चालीक लागता. मनशाच्या वैचारिक तांकीचें गुपीत म्हळ्यार वाचनाचें टॉनिक विचार करपी मनशान वाचूंकच जाय. तशेंच प्रत्येक विद्यार्थ्यान वाचन हें करपाकच जाय. पूण विद्यार्थ्यांनी वाचन करपाक जाय अशें म्हणटना ताका वाचनाची संवय लावपाक आमी वावुरतात व्हय? तांकां वाचनाची गोडी लावपाक आमी वावुरतात व्हय? म्हजो इश्ट सांगता, इश्लोकांक आनी शाळांक ताचें Department जायतीं पुस्तकां दितात. Inspection क वतना जर ताणे तुमची

लायब्ररी पळोवया म्हणलें जाल्यार बंद कपाटा म्हऱ्यान व्हरतात आनी चावी सोदपाक लागतात म्हणजेच भुरग्यांखातीर आशिल्लें पुस्तकांचें कपाट वर्सांतल्यान फक्त Inspection च्या वेळार उघडटात. कांय स्कुलांनी वा शाळांनी 'लायब्ररी तास' म्हणून वेळ दिल्लो आसता. Library Teacher येता आनी भुरग्यांक एक एक पुस्तक दिता आनी सांगता 'घरा व्हरून वाचपाचें, मदीं उघडप ना, पिंझप ना. व्हेलां तशें परतें हाडात' भुरगीं बाबडीं भितात. पुस्तक दप्तरांतल्यान भायरय काडनात. पिंझलें जाल्यार बाई तापयतली. घडये मारतली ह्या भयान भुरगो पुस्तकच वाचना. पुस्तक दप्तरांतल्यान भायरच काडनास्तना हाडिल्लें तशें परतें व्हरता आनी लायब्ररी बाईक दिता. बाई खूश पुस्तक पिंजनास्तना हाडलें म्हणून भुरगो खूश बाईली उलोवणी चुकली म्हणून. नुकसान कोणाचें? कोणाखातीर तीं पुस्तकां. भुरग्याक भेश्टावनच जर दवरले जाल्यार तो भुरगो वाचतलो कसो? पुस्तकां वाचून वाचून भुरग्यांनी पिंजपाचीं न्हय जाल्यार कोणे जाणटेल्यानी पिंजपाचीं? लायब्ररी व्हडली पूण भुरग्यांक तागेलें आवडीचें पुस्तक वेंचपाचो अधिकार ना. ताका आवडटा तें वाचपाचो पळोवपाचो अधिकार ना. आनी आमची कागाळ, भुरगीं वाचीनात. आमी चुकतात. भुरग्यांक जर वाचनाची गोडी लागतली जाल्यार तांचे कलान घेवपाक जाय. भुरग्यांक वाचनाची गोडी लायतलो जाल्यार पयलीं आवयबापायन वाचप सुरू करपाक जाय. भुरग्यांच्या नदरेंत वचसारखें वाचन जाय. पप्पा कितें वाचता, मम्मा कितें वाचता हाचें कुतूहल जेन्ना ताचेमदीं जागें जातलें तेन्ना तें भुरगें आपलें पुस्तक सोदतलें. ताचें पुस्तक... चित्रांनी भरिल्लें... सुंदर सोबीत आसपाक जाय. टिव्हीच्या कार्टून नेटवर्काकडल्यान ताका पुस्तकावटेन ओडून व्हरपी आसचें.

भुरग्यांबरोबर पॅरंटसांचें Loud Reading आसचें. सगली फॅमिली वाचनात गूंग अशे कांय खीण बरोबर सारपांत एक थ्रील आसता, एक मजा आसता.

भुरग्यांक पॅरंटसांनी न्हिदचे पयलीं काणी सांगपाकच जाय. ही काणी अर्दीच सांगप आनी उरिल्ली वाचपाक लावप. एक दीस मागीर ताका काणी सांगपाक लावप. हीच पद्धत क्लासांत टिचरीन आपणावं येता. विद्यार्थ्यांक क्लासांत काणी सांगप हाचेफाटल्यान एक व्हड Managing Children & Managing Students चें गुपीत लिपलां. मात हे खातीर स्वता टिचरानी नित्यनेमान साहित्य वाचपाची खूब गरज आसा. जो टिचर हें व्यसन पाळटलो तो नित्यनेमान भुरग्यांक नवें नवें दिवंक शकतलो. आनी काळांतरान तो एक Successful टिचर, Devoted Teacher जातलो. भुरग्यांक वाचनाची गोडी लावप हें प्रत्येक आवयबापायचें आनी टिचराचें कर्तव्य कारण वाचन हें शाश्वत. पळोवप वा आयकुवप हें साहित्याचे बाबतींत पूर्ण शाश्वत न्हय. आमी टि.व्ही पळयतात वा इंटरनेटाचेर वाचतात वा कथा कादंबऱ्यो आयकतात. पूण ह्या आयकुपान आमची सृजनशक्त वाडना. आमची सृजनशीलता म्हळ्यार Creativity वाडटली जाल्यार ताका वाचनच जाय हें सायंटिफिकली प्रूव जालां. ताचीं कारणां हांव नकळो पूण ताचे Result Sure देखून भुरग्यांक टिव्ही आनी कॉम्प्युटर चड पळोवपाक दिनाकात. ताणी ल्हानपणात वाचिल्ल्या साहित्याचेर ताच्या आयुश्यांतली दिशा थारतली. इतलें हें वाचन म्हत्त्वाचें. तुमकां तुमचीं भुरगीं जर Bonsai जाल्लीं नाका आसत जाल्यार तांच्या वाचनाचेर भर दियात. शाळांकडेन संबंधीत आशिल्यानी वाचनाचो तास परत एक फावट सुरू करूं येता. हातुंतल्यान भुरग्यांक वाचनाची गोडी लागता.

इश्टानो फाटलीं 10 ते 12 मिनिटां हांव ह्या विशयाचेर उलयतां. हांवे म्हज्या पेपरांत Statistics माडूंक ना.कोणे कितें बरयलां हाची जंत्री वाचूं ना. कारण कोंकणी साहित्यांत कितें आसा हें आमकां खबर आसा. कितें ना आनी कितें जाय हाचेर म्हजे विचार हांवे मांडल्यात. पेपर सोंपयतना एक दोन सुचोवण्यो संक्षिप्तान दितां.

कोंकणी बाल साहित्यांत संस्कार कथा आसच्यो. चड करून भावा ह्यांनी भयणीच्या मदीं संवादांतल्यान हे संस्कार आसचे.

'मला उत्तर हवंय' ही विज्ञानातल्या सगळ्या शास्त्रांचेर आशिल्ली मोहन आपटे हांची 15 ते 16 पुस्तकां कोंकणीत Translate जावचीं.

काल श्री. प्रवीण कोंकार हाणे उल्लेख केल्लो ती 'छू मंतर' आनी 'ज्ञान विज्ञान' हीं तागेलीं सदरां पुस्तक रुपान येवचीं.

कोंकणीत बाल साहित्याबरोबरच कुमार साहित्य म्हणून साहसकथा, विज्ञानकथा, युद्धकथा, गुप्तहेर कथा, अंतराळ विज्ञान, पर्यावरणकथा आनी रानकथा येवच्यो.

बाल साहित्याक ओंपिल्ले कॉलम सुनापरान्तांतलें 'आमी पिकेन' बिंबातलें बालसाहित्य हाणे आमच्या भुरग्यांची भूक भागना. आतां पुरायपणान बाल साहित्याक ओंपिल्लें म्हयनाळें येवपाक जाय.

बाल साहित्याची गरज म्हणून हांव स्वता फाटलीं तीन वर्सां सुनापरान्तांत आमी पिकेनात Column बरयतां. आज मेरेन हावें बरयले ते विशय रानवळख, अंतराळांतली भोंवडी वा मनीस अंतराळांत आनी डायनासोरांच्या जगांत. येता त्या 15 तारखेच्यान नवो विशय येतलो. हेरांनीय आपले परीन नव्या विशयांचेर भुरग्यांखातीर बरोवचें.

प्रकाशकानी बालसाहित्य प्रकाशीत करतना तें Coloured पुस्तकां काडचीं. Coloured पुस्तकां भुरग्यांचेर मोनेळ घालतात. आनी तांकां भाशेकडेन लागीं हाडटात. हांव जाणा Coloured पुस्तकांचो Cost वाडटा. ताका एक माणणी आसा. प्रत्येक पुस्तकाच्या Coloured पानांचें प्रिटिंग तीन हजार काडचें. पुस्तकाचो मेटर कोंकणी, हिंदी आनी इंग्लीश वा आनी खंयच्याय तीन भाशेंत Translate करचें एकाच वेळार तीन भाशांनी हें पुस्तक छापल्यार ताचो Cost देंवता

प्रत्येक Publisher ची स्वताची Website आसची, Email ID आसची आनी परदेशांतल्यान जर मागणी आयली जाल्यार Foreign Currency तल्यान तें कशें करूं येत हाचीय चवकशी करून दवरची.

हांवे म्हज्या पेपरांत Audio Visual वा दृकश्राव्य मिडियम घेवंकना. सद्याच्या युगांत सीडी वा डिव्हीडीवेलें बाल साहित्य वा कार्टून्स खूब Popular जातात. पूण भुरग्यांच्या उदरगतीखातीर तांचें Contribution खूब कमी अशें म्हाका दिसता. लिखीत साहित्य हेंच शाश्वत.

आनी नीमणे... गोंय सरकार Infrastructure Development Corporation च्या मार्फत राज्याचें Beautification करता. कोंकणी भाशेची उदरगत करचे खातीर गोंय सरकारान Konkani Infrastructure Development Corporation नांवाची Autonomous बॉडी तयार करची. आनी बाल साहित्य धरून कोंकणी भाशेची सगली उदरगत करची अशी एक सुचोवणी हांगा करची अशें दिसता.

हांव तसो ल्हान मनीस. अशें आसतनाय म्हाका हांगा पेपर प्रेजेंट करपाक दिल्ले खातीर आयोजकांचे आभार. ●●●

# बाल साहित्य - निर्मिती
# एक आव्हान, एक अभियान

बालसाहित्याची व्याप्ती व्हड आसा. कथा, कविता, नाटकुलीं हे सारखे सगले साहित्य प्रकार तातूंत मेळटात. ल्हान पिरायेच्या वाचप्यांखातीर बरयिल्ल्या सगल्या प्रकारांच्या पुस्तकांचो हातूंत आस्पाव जाता.

सादारण चार ते सोळा वर्सां पिरायेच्या बुद्धीक पचपा अशें आनी तांकां वाचनाची ओड लावपी साहित्य म्हळ्यार बालसाहित्य.

आयचो भुरगो फाल्यांचो फाकिवंत लेखक, समीक्षक वाचक जावंक जाय ही भावना मतींत दवरून बालसाहित्याची निर्मिती जावपाची आयच्या काळाची गरज जावन आसा. अन्य साहित्य निर्मिती बरोबरच बाल साहित्याकय चड म्हत्व दिवंक जाय.

बाल साहित्याची घडण करतना भुरग्यांची वेगळी तांक, भास, भावना मतींत दवरूनच निर्मिती जांवक जाय. तांतले आशय आनी अभिव्यक्ती हांचेंय स्वरूप वेगळें थारूंक जाय.

अद्‌भूत रम्यताय, हास्यकारकताय, कल्पना सौंदर्य, सुबोध आनी नादमधूर भाशा शैली हे सारखे खाशेले गूण बाल साहित्यांत चड करून आस्पावंक जाय.

मनोरंजन, उद्‌बोधन आनी भुरग्यांचें तीक्ष्ण, तल्लक उमळशिकेचे बुद्धीचें समाधान हे सारख्या उमेद वाडोवपी बाल साहित्याची निर्मिती जावप भोव गरजेची गजाल.

साहित्य म्हणल्यार एक साधन जें मनशाचें संस्कृतीच्या संदर्भांतल्यान प्रज्ञा आनी प्रतिभेचो दिश्टावो घडयता. हो दिश्टावो रंग, रूप, आकार, रेशा, अक्षर, शब्द, स्वर ताल, ध्वनी, नाद आदी साबार माध्यमांतल्यान घडयता. आज आमकां अशेच तरेच्या बालसाहित्याची निर्मिती करपाची गरज आसा. ज्यांतल्यान भुरग्याचो सर्वांगीण विकास जावंक शकता.

हेर सगल्या साहित्याप्रमाण कोंकणीतय बाल साहित्याची निर्मणी मौखिक कथनान जाल्ली. लोकां काणयो, आजो - आजयेन सांगिल्ल्यो काणयो, भुरग्यांक भरयतना, न्हिदयतना, खेळयतना म्हणपाखातीर रचिल्लीं बडबड गितां, आल्लयो हीं खरें म्हणल्यार आमच्या बाल साहित्याची बुन्याद जी बुन्याद आयच्या युगांत हालिल्लेवरी दिसता. हाचें कारण आतां पयलींवरी आजो -आजी नातरांक खेळोवपाक एकवटीत घराबोच ना, पालकांक आपलीं भुरगीं सांबाळपाक वेळ ना.

शिर्विस आनी व्यवसाया निमतान गांवांतले एकवटीत घराबे ना नपयत जाल्यात. चार




**रजनी भेंब्रे**
जी-3 अत्रेय अपार्टमेंटस्
दुर्गानंद नगर, मोरायलें,
कुडचडें 403 706

वण्टींत बंदिस्त भुरग्यांची अवतीकाय काकूट करीसारखी जाल्या. दिसभर टी. वी. चॅनेलाचे भकीक पडून वाचन संस्कृती तिगत काय म्हणपाचो भंय उप्रासला.

अश्या वेळार बाल साहित्य निर्मिती एक आव्हान जालां. भुरग्यांखातीर अशे तरेचें साहित्य रचपाची गरज उप्रासल्या जाणे करून भुरग्यांची वाचनाची गोडी वाडपाक जाय म्हणपाचो विचार जलद गतीन फुडें सरला.

बाल साहित्याचो विकास जातलो जाल्यार ताचो शास्त्रशुद्ध जडण घडणुकीकडेन चिकित्सक नदरेन विचार जावंक लागलो. बाल मानसशास्त्र, भुरग्यांचे मनोविकासाचे पांवडे, ग्रहण शक्तीच्यो कक्षा हांचो अभ्यास जावपाक लागलो. कसलेच तरेचे वायट संस्कार भुरग्यांच्या मनार जांवचे न्हय हे खातीर, भुरग्यांखातीर आशिल्ल्या साहित्याचे मानदंड खंयचे आसूंक जाय ते थारले.

शिशू – सुमार 4 ते 8 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं

बाल – सुमार 8 ते 12 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं.

कुमार – सुमार 12 ते 16 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं.

अशा तीन गटांनी बाल साहित्य विभागलां. आतां ह्या तिनूय गटांखातीर स्वतंत्र साहित्य निर्मिती जावंक लागल्या.

बाल साहित्याच्या विकासाचे सुरवेच्या काळांतलें साहित्य मुद्दाम भुरग्यांखातीर बरोवंक नाशिल्लें. जाणट्यां खातीर बरयिल्ल्या साहित्यांतलेंच साहित्य वेगळावन भुरग्यांक मानवतलें अशें थारावन भुरग्यांच्या मुखार दवरतालें.

इसपाच्यो बोधकथा, पंचतंत्र, रामायण, महाभारत आनी हेर पुरणांतल्या वेचींक कथांचें संस्करण हातूंत जातालें. अस्तंती साहित्यांतूय हेच प्रमाण हर्क्युलिस हाच्यो धाडसाच्यो काणयो, राजा आर्थर आनी ताचे सरदार हांच्यो काणयो, रॉबिनहूड आनी हेरांचीं संक्षिप्त संस्करणां बाल साहित्य म्हणून नामनेक पावलीं.

अस्तंती देशानी खूब आदीं सावन बाल साहित्य निर्मितीचेर विचार करून स्टीवन्सन हांचे ट्रँजर आयलेंड, चार्ल डिकन्साचें ऑलिव्हर, टवीस्ट आनी डेव्हीड कॉपर फिल्ड, मार्क ट्वेनाचें टॉम सॉयर सारख्या पुस्तकांच्यो संक्षिप्त आवृत्त्यो काडल्यो ज्यो आयज लेगीत भुरग्यां भितर आवडीच्यो आसात.

अशे तरेच्या बाल साहित्याचे अन्य भासांनी अणकार जातात. त्याचबशेन कोंकणी भाशेनय अणकार जावन आमच्या सानुल्यांच्या हातांत पावत जाल्यार दुदांत साखर पडिल्लेवरी जातलें. आवयभाशेची तांक आनी गोडी वेगळीच आसता.

जें बाल साहित्य आमच्यांत ना, निर्मिती करपाक कमी पडटात जाल्यार ताचें लुकसान भुरग्यांक बादूं जायना. लेखकानीं अणकाराचेर भर दिवूंक जाय. अन्य भासांतलें उंचेल्या दर्जाचें बाल साहित्य आमच्या भुरग्यांमेरेन पावोवप ही लेखकाची नैतिक जापसालदारकी अशें मानूंक जाय.

बाल साहित्याची गोडी शिशू गटांतल्यानच लागूंक जाय. सोपीं आनी ल्हान ल्हान वाक्यां, वाक्यांतलो नाद, लय, आनी ताल हांचेर भर दिलो जाल्यार शिशू कवनां तोंडार बसतात. गोंयच्या कवींनी हो वावर केला आनी चालू आसा. उदाहरण दिवचें जाल्यार स. मनोहरराय सरदेसाय, तुकाराम शेट, अभयकुमार वेलिंगकार, रमेश वेळुसकार, नागेश नायक वडिये आदी.

शिशू गटांतल्या साहित्यांत सोपी आनी ल्हान – ल्हान वाक्यां वाक्यांतलो नाद, लय आनी ताल हांचेर चड भर दिवंक जाय. असल्या वाक्यांतल्या तालाक लागून आनी सोपे भाशेक लागून तीं भुरग्यांक खूब भावतात.

वास्तवीक जनावरां, झाडां पेंडां, सवणीं, दोंगर, दोंगुल्ल्यो, वझरे – न्हयों उलयनात पूण शिशू गटांतल्या साहित्यांत हीं सगलीं पात्रां उलयतात आनी जाणट्यांक हातूंत गैर दिसना.

नव्यानच वळख जाल्ल्या भुरग्यांक उतरांतलो अर्थ समजना म्हणून तांका चित्र रुपान आशय कळोवपांत लेखकान आपलें कौशल्य पणाक लावचें पडटा. परींची, सवण्यांची, फुलांची, फुलपाक्याचीं पदां, काणयो शिकूंक भौवच मानवता आनी पिराये प्रमाण चित्रिकाक आपलें चित्र उठावदार करचें पडटा.

सादारणपणान आठ ते बारा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांखातीर अद्‌भुततायेची आवड चड आसता ही अद्‌भुतताय पंचतंत्र, इसापनिती तशेंच परंपरागत जादवाच्या काणयानी मेळटा.

सादारणपणान बारा ते सोळा वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांभितर अद्‌भूतताये परस पराक्रमान भरिल्ल्या आनी धाडसी कथानकाची आवड निर्माण जावपाक लागता ती वाडीक लावपाचें काम लेखकाचें.

ह्या पिरायेर जिवितांतल्या खऱ्या वास्तवाचें भान भुरग्याक येवपाक लागता. ह्या वेळार चित्रणांतलो तपशील वाडोवन तें चड वर्णनात्मक करप हें एके तरेचें आव्हान. हांगा वाङ्‌मयीन तपशीलूय वाडत वता. लेखकाची कसवटी हांगांच लागता.

हे पिरायेंत नैतिक प्रेरणा, धैर्यशिलता, धाडशी वृत्ती हांचेर भर दिवचो पडटा. कल्पना जलाचो आलाशिरो घेवन तातुंतले अणभव सुखद करचे पडतात. अशें करीत तरच ह्या साहित्याकडेन बालमन आपसुकूच एकरूप जाता.

बाल साहित्यान आतां गती घेतल्या. चक्र फास्ट घुवपाक लागलां. आयचो भुरगो सगल्या दिकेन पावलां मुखार मारूंक लागला. ताच्या खातीर खूबशीं मळां उकतीं जाल्यांत. विज्ञानान भरारी मारल्या. नवे नवे सोद लागल्यात. नवीं नवीं खेळणीं बाजारांत पावल्यांत जीं नवीन विज्ञानाचीं सुलूस दाखयतात. जंय पळयता थंय आधुनिकीकरणाचो भास जाता.

अशे वेळार बाल साहित्य निर्मितल्यानी एक गजाल घट्ट मतींत दवरूंक जाय ती म्हणल्यार आयची सान पिरायेची पिळगी कितलीय जरी हुशर आसली, नव्या नव्या आव्हानांक आपणावन फुडें वचपाचो यत्न करपी आसली, यूग परिवर्तना प्रमाण आपणा मदीं बदल घडवपाक तयार आसली तरी आमचे भारतीय संस्कृतीचीं पाळां मुळां खोल रिगिल्लीं आसात ताचो तांकां विसर पडूंक दिवंक जायना. मळबांत उडटना आमचे पांय जमनीक लागूंकच जाय अशे तरेची धारणा, विचार जावपाचें लिखाण जावंक जाय.

हुशारी, मोग, माया, इश्टागत, नीतिमत्ता,शक्त, फटींगपणा, फाजील विश्वास, कुड्डो भंय, करणीं तशें फळ, जैताची कुंजी, आळशाक पानवळ, आपलें काम उणाकपणाचें नासता, जाण्टेल्यांचो मान-सन्मान ह्यो गजाली विसरूंक जायना अशे तरेचें लिखाणय जावपाची गरज आसा. अभियान-बालसाहित्य बरोवचे पासत भुरग्यांक उर्बा दिवंक जाय. शिबिरां कार्यशाळा, बाल संम्मेलनां आयोजित करून तातुंतल्यान खासा भुरग्यांनी साहित्य निर्मिती करचे पासत तांकां प्रोत्साहीत करपाक जाय.

मेकळ्या वातावरणांत, कसलेंच चेपण नासतना, शिबिरां बाल संम्मेलनां निमतान सकाळची भोंवडी करप, सैम नियाळूंक दिवप, भोंवडेक वतना तांकां मेकळेपणान वावुरतना नुलयत अशी शिटकावणी दिवप - कावळ्याच्या नदरेन भोंवडेक वतना पारखणी करात. परततकच जण एकट्यान आपले विचार बरोवन मांडले जाल्यार भोंवडेचो हेतू सफल जाल्लो दिसतलो. अशे तरेची प्रोत्साहीत करपी भुरग्यांचे प्रेरणेक सारें - माती घालून फुलोवपाचो यत्न करीत तर कार्यशाळा, शिबिरां, बाल संम्मेलनांचो नवे साहित्यीक आनी साहित्य निर्मिती करपाचो हेतू साध्य जावूं येता.

विशयाचो आवाट व्हड आसा, पूण वेळेचेंय बंधन आशिल्ल्यान इतलेंच सांगन दिसता. अन्य देशांच्या तुलनेन आमी बालसाहित्यांत अजून फांटी आसात. फुडें सरपाचो नेटान यत्न करया.

देव बरें करूं! ●●●

# उत्तर कन्नड जिल्यांतुलें कोंकणी साहित्य

आज आमी उत्तर कन्नड म्हण आपोवचे जिल्लेक पैले कारवार जिल्लो मण आपैताशिले. ह्या जिल्यांतू करावळी प्रदेशाचे पांच तालुके आनी घाटावैले स तालुके अशे अकरा तालुके आसले. कोंकणी बांधवालो एकी विशेष गूण मळ्यारी खंचे खंचे प्रदेशांतू वत्ताची, त्या प्रदेशांतू आशिल्ले भावंडाबरोबर अनोन्य - आत्मीय भावनेन राबतांची त्या प्रदेशांतू आशिल्ली भास शिकताची अशीं ह्या जिल्यांतू कोंकणी बांधवान कन्नड भाशा शिकून कन्नड भाशेंत साहित्य रचन कर्नू कन्नड भास श्रीमंत केलिले दिसता.

कोंकणी लोक अल्पसंख्याक लोक. राजाश्रय मेळिली ना अशी जावन कोंकणी भाशातून साहित्य रचन कर्चे प्रयत्न केल्ले ना. केंद्रीय साहित्य अकादमीन कोंकणी एक स्वतंत्र भाशा म्हूण मान्यता केल्ले नंतर साहित्य रचना कार्यांत भाग घेवच्याक सुरू केले. जिल्लेंत रचन केल्ले जास्त कोंकणी साहित्य कन्नड लिपींत आसा. साहित्य रचन केल्ले नंतर सुद्धा प्रकट जावच्याक गेल्ले ना. पुस्तक घेवन वाचतले खूब कमी. पुस्तकाचे मोल दिवन खरीद कर्न वाचतले आनीक कम्मी.

उत्तर कन्नड जिल्लेंतू कोंकणी साहित्या खातीर योगदान दिल्लेले कोण म्हण संशोधन केल्यारी 4-5 महापुरुश मेळताची. दि. माधव मंजुनाथ शानभाग हो कोंकणी साहित्यीक रायबारी आनी कोंकणी चळवळीचे पितामह म्हूण ख्याती पाविली आसा. घरा घरा वचून कोंकणी भाशेबद्दल जागृत केल्लो महापुरूष. सांस्कृतिक शब्दकोशाचें भंडार ताजे लागी आशिले. गांवागांवांत वचून कोंकणी भाशेचो परीचय करून दिताशिलो. बायलेले भावाक कसल म्हणताची? देर न्हय मेवणो. पंजरगेंड्डेक कोंकणीत कसल म्हणताची? सुर्ण. अशी लोकांक भाशेची आनी संस्कृतीचे बद्धल जागृत कर्ताशिलो.



डॉ. शिवराम कामत

'कोंकणी मुळावें' नांवांचें पुस्तक बरवन प्रकट कर्न कोंकणी मुळाचें शिक्षण कशी उरका म्हण दाकयिले. तान्नी बरईले भजनावळी भक्तीपर देवाली स्तुतीचे संग्रह 'काबुली द्राक्ष' हे साहित्य

कृती सान – सान काणीयाचे संग्रह. वृत्तीन वकील जाल्यार सुद्धा मायभाशेबद्दल गोडी हाडईलो उत्तर कन्नड जिल्ल्याचो सुपूत्र.

दुसरो महापुरुष म्हळ्यारी घा. सी. सी. ए. पै. हळीयाळ गांवचो निवासी फादर सुप्रिया उत्तर कन्नड जिल्याचो एक महान कोंकणी साहित्यकार. कोंकणी भाशेचेबद्दल आजमास पन्नास वर्स संशोधन कर्नू कोंकणी भाशेचें व्याकरण शास्त्र, लोकवेद, साहित्य इत्यादी बरवन प्रकटण कर्नू, कोंकणी सांस्कृतिक रायबारी म्हणून ख्याती पाविलो महापुरुष ''आडु मुट्टीद सोंप्पील्ल'' फादर सुप्रीया कैयाडीसीद साहित्य विल्ल म्हूण तांगेलबद्दल उदगार काडताची. देवाच्या सब्दाची भक्ती, येया भजुंया अशी 21 धार्मिक साहित्यकृती प्रकाशीत केल्लेली आसा. एक घोस काणयो, दुसरो घोस काणयो, कोंकणी हुमण्यो, आमच्यो हुमण्यो अशी खईच लोकवेद पुस्तक प्रकाशीत केल्ल आसा. कोंकणी धातू रूप मंजरी असले व्याकरणशास्त्र संबंधीत साहित्य अस्तुम्तेर नांवाची कवन संकलन कोंकणी – कोंकणी – कन्नड – इंग्लीश – अर्थकोश अशी 24 कोंकणी पुस्तक प्रकट केल्ले आसा.

दि. होसाड बाबुटी नायक कोंकणी मातेलो सुपूत्र. आपण जन्मा येईले आवयली सेवा करच्याक म्हूण लेकून सगळे जिल्लेंतू कोंकणी नाटकां निमित्त जनांक कोंकणी भाशेबद्दल गोडी अभिमान हाडिली महान व्यक्ती. नाटक बरवन स्वंत पात्रधारी जावनू मनोरंजन कर्ताशिले. श्रीनिवास वामन नायक तागेले नांव. 'वरदक्षीणा' ताणे बरईले पैले नाटक. शंबर वैर नाटक बरैल आसा. हांव ताक्क चली दिना, भानगडी, लग्न, हून उदका घोटू इत्यादी नाटक हूबळी, मंगळुर, मुंबय आनी खूब शहरांतू प्रयोग जावनू लोकांत नाटकां पिशे लाईली किर्ती होसाड बाबुटी नायकाक मेळता दोनी नाटकां ऋणानुबंध आनी आड तांत्रीतुलस पोप्पळ मात्र प्रकाशीत जाल्ले आसा. ताका श्रेष्ठ नाटककार म्हूण कोंकणी साहीत्य अकादमीन गौरव दिल्लेले आसा.

दि. श्री. के. एन. राव भारत मातेले सुपूत्र सुभाषचंद्र बोसाले अनुयायी, वीर सेनानी, स्वातंत्र्य योध आनी कोंकणी आवयलो धीर आनी अभिमानी सुपुत्र श्री. के. एन. राव, दांडेली गांवांतू वास कर्नू आशिलो. स्वामी विवेकानंदान सांगिल्यावरी 'उत्तीष्ठत जागृत' म्हूण अभिमानशुन्य आशिले कोंकणी बांधवाक जागयताशिलो. ताणें कोंकणीत भाशण केल्ले आयकच्याक लोक खुशी पावताशिले ताणे तीन हजार फुटांचे 'कोंकणीतु वृक्षरकाशी, म्हूण बरईले वैज्ञानिक आधारीत साहित्य कृती अजून हस्तप्रती रुपारी आसा. 'परुंदर दासाली भजना, एक भाशांतर साहित्य 'मच्वो' कोंकणी कवन संकलन ही सर्व प्रकाशीत जाल्ले आसा. अनेक लेखन कवन रचन कर्नू दुसरे दुसरे पत्रीकेंतू मॅगझीनांतू प्रकटण केलेल आसा.

एक संस्कृती कितले होड आसा म्हूण समजुका जाल्यारी त्या समाजाचे जानपद साहित्य अभ्यास करका म्हणताची. कोंकणी संस्कृतीचे प्रतिबींब म्हळ्यारी जानपद संस्कृती. आमगेले जानपद साहित्य होड प्रमाणारी आसा. हे जानपद साहित्य आमगेले भयण्यानी, आवयण्यानी राकून हाडिले आसा. मनुश्य जल्मा येवचे धर्म मरणापर्यंत, पाळण्ये घालचे, चेरडवा तेल लावचे, न्हाणवचे अशी प्रतीएक वेळार सांगची पदां, ओवयो, हुमाणी लग्नावेळार म्हणची पदां, बागीलधरची पदां, अशी आमगेले संस्कृतीत खूब रितीन जानपद साहित्य आयकुच्याक मेळता. हाजे संग्रह कर्चे सुद्धा होड काम आसा. होन्नावरची डॉ. जोत्स्ना कामत मायेन 'सुरग्यासर' नांवांचे पुस्तक प्रकट केल्ले आसा. शिर्सी गावचो कुड्ल आनंद शानभागान होव्यो आनी आदगल्यो नांवांचे पुस्तक स्नेहा प्रकाशनांतुल्यान प्रकट केलेले आसा. शिर्सी गावची श्रीमती जयश्री नायक एकंबी हेणी बरईले जानपद संग्रह कोंकणी जानपद नांवान प्रकट जालेले आसा. शिरसीचे श्री. आर. एम. शेठ हाणी बरईले 'वकदाचे झाड' नांवांचे पुस्तक प्रकटण जाल्ले आसा. कारवारची श्रीमती उषा राणे हाणी जानपद केला आनी साहित्याची अभ्यास करून संग्रह करून कोंकणी अकादमीक दिल्लेले आसा.

उत्तर कन्नड जिल्यांतू कोंकणी कविता आनी नाटक साहित्य प्रती एक गांवांत मेळता. कुमटा गावांत कॅनरा कॉलेजाचे गॅदरींग म्हळ्यारी सगळांक खुशी. त्यावेळारी कोंकणी नाटक पळवच्याक सगळो गांव वत्ताशिलो. डॉ. वि. आर. बाड होन्नावरचे होसाड बाबुटी नायकाले नाटक ख्याती पाविले होसाड बाबुटी नायकाक 'कोंकणी नाटकाचो पितामह' म्हणताची. ऋणानुबंध आनी आडकांतरिंतुले पोप्पळ हीं दोनी नाटकां मात्र प्रकट जालेले आसा. तान्नी बरैले पन्नाशे वैरी नाटकां दुसरे – दुसरे गांवांतू प्रयोग जाल्ले आसा. नाटक साहित्य हस्त प्रतीरुपारी आसा. मल्लापुर गांवचो श्री अरुण उभयकर हाणी 'पांचजन्य' नांवांचे नाटकांचे संकलन प्रकटण केल्ले आसा.

होन्नावरचे श्रीकृष्ण भट शर्मा एक अर्चक श्रेष्ठ नाटककार ताणी बरईले आकुडली गाय अप्पाभट्टाक दान, आकलेशी वेणीक दिलेली दान' ही सर्व नाटकां खुबकडेन प्रयोग जाल्ले आसा. खंचेय नाटक पुस्तक रुपान प्रकट जाल्ले ना. अंकोला तालुक्याचे श्री. एन. बी. कामत हान्नी बरईले 'गणपती भट्टालो सत्यनारायण' एक हास्य नाटक, तीन नाटक आनेक नाटकाचे श्रेष्ठ तीस चाळीस

मिनिटाचे सं. नाटक कृती बरैल आसा. जाल्यारी हस्तप्रतीरुपारी आसा. श्री. मंजुनाथ प्रभू अंकोलाचे श्रेष्ठ नाटककार. शिरसीचो श्री. वासुदेव शानभाग हाणी बरैले चार नाटकाचे संकलन 'नाटक संगम' प्रकटीत जाल्लेले श्रेश्ट नाटक कृती हाणी बरैले प्रथम रेडियो नाटक 'स्वार्थी' आकाशवाणी धारवाडच्यान प्रसार जाल्ले आसा. त्यानंतर सुमार चाळीस रेडियो नाटक प्रसार जालेल आसा. कुडल आनंद श्यानभाग शिरसी गांवचो एक प्रतीभावंत नाटककार कोंकणी रंगभूमी कलावीद. ताणी बरईले 'झंझाट' चार नाटकांचे संकलन नीज जीवनात चलचे घटना, उतरा सुंदर रितीन प्रयोग केलेले आसा. उदा. मनुश्याक धन आनी अधिकार दोन्ही आयल्यार गांयडोळ सुद्धा सरप जाता. अनील पै शिरसी गांवचो आनेक श्रेष्ठ नाटककारू. ताणी बरैले 'मायांसुन' आनी 'आदर्श' ही दोनी नाटकां प्रकटीत जालेल आसात. ताणी बरैले खूब हास्यमय नाटका रेडिओतुल्यान प्रसार जालेल आसा. दुसरे – दुसरे गावांतू प्रयोग जावनू ख्याती पाविले आसा. श्री. आर. एम. शेट सिरसी गांवांतू वास करून आशिले श्रेष्ठ नाटककारू. ताणी बरैले 'कामापूर्ती मामा' आनी 'नाद' नांवांचे नाटक कृती प्रकाशीत जाल्लेले आसा. मंचीकेरी गांवांत जल्मा आयिल्ले श्री नागेश अणवेकर ताणी सुद्धा एक श्रेश्ट नाटककार. ताणी बरईले वरदक्षीणा आनी परीसर संरक्षणा नांवाची रेडीओ नाटकां आकाशवाणीतूंल्यान प्रसार जालेले आसा. कोंकणी योध श्री. के. एन. राव बरैले सुधारणा कोंकणी नाटक प्रकाशीत जालेल आसा.

कवन साहित्य बरोवची, देवान दिलेले एक देगीण म्हूण सांगच्या जाय समाजांतुले भाव – भयणीक मनाक आनंद दिवचे सम वाटेरी वचूक मार्गदर्शन करचे. भावनात्मक, विडंबनात्मक साहित्यान सगळ्या मनांत स्पंदन करचे साहित्य कवन रचना म्हण संगीत कोंकणी भास कवन साहित्यांत खूब – श्रीमंत आसा. भटकळ धरनू कारवार पर्यंत घाटावैले प्रदेशांतू कोंकणी कविता मेळता.

होन्नावर बाबुटी नायकान बरैले सगळ्या नाटकांतू त्रासबद्ध उतरां बरोबर सुंदर कवन रचना सुद्धा मेळता. श्री कृष्ण भट शर्मा हाणी भक्ती प्रधान खुब्ब कवन रचना केलेली आसा 'ऋतूगान', 'मत्स्यगंधा', 'शकुंतला' नांवाची गितरुपक नाटक सुद्धा बरयलाची हस्तप्रतीरुपारी आसा. श्री. अरूण उभयकर मल्लापूर गांवांतू वास करनू आशिलो एक शिक्षक हाणी बरैले 'मंथन' नांवांचे कवन संकलन प्रकटीत जालेले आसा. 'गिरीजा कल्याण', 'रूक्मिणी स्वयंवर' इत्यादी गीतरूपक आकाशवाणींतुल्यान प्रसार जालेल आसा. कोंकणी चळवळीचो मूळ प्रेरणा दिल्लोलो दि. श्री. माधव मंजुनाथ शानभाग हाणी बरईले. 'भजनावळी' पुस्तकांतू भक्तीपर पद वाचयाक मेळता. कन्नड साहित्याचे मेरूपूरुष म्हूण ख्याती पाविले डॉ. गौरीश कायकीणी हाणी बरैले 'मिनाक्षी' कवन संकलनाक कोंकणी साहित्य अकादमीचे श्रेश्ट पुस्तक प्रशस्ती लाभीत आसा. ताणी बरैले 'अंचा' आनी 'ध्रुव कुमार' गितरुपक आकाशवाणीतूंल्यान प्रसार जालेल आसा.

कुमठा तालुकेचे बंकीकोडल गांवांतुले दि. श्री. शिवराम स्वामी हाणी भक्तीपर अनेक कवन रचन केलील आसा. तांगेले भक्तीगिताचे संग्रह मुंबयचे कोंकणी साहित्य समितीन प्रकट केलेल आसा. ताणी बरईले 'घो घो आयलो घो घो संसार नाका भोंगो' हे पद सगळ्यांतू जनप्रीय जावन आसा. कुमटाचे होंदड होक्कल जनमा आयिले डॉ. दिनकर देसायान कोंकणीत सुद्धा चुटूक बरइले आसा. ताणी बरेले एक चुटूक अशी आसा

कोंकणी आमची तोकणीची माय मोगाची आवडीची

कोंकणी दुदाची आवय॥ ति फुडे येवच्याक जाय॥

परभाषेक भुल नक्का ॥ आवय भास सोडनाक्का

कुमटा गांवचे डॉ. वि. आर. शिबाड हाणी प्रासबद्ध खूब कोंकणी चुटूक आनी कवन रचन केलेले आसा. ताणी बरैले कवन संग्रह 'सौरव' आनी पंचामृत प्रकट जालेल आसा. कवनांतू हास्य विडंबना भरलेले वाचका मेळता.

उदा. गोमची आशिल्या चल्येक पळोन म्हळालो तो तिक्का॥ खय कि हांव पळैला तुक्का. आता याद ना माक्का॥ तेणी म्हळ्ळे व्हय – व्हय हांव पिश्या आटपत्रे नर्स॥ थंईच माका पळैले दिस्ता. तोंवे गेलेले वर्ष.

गोकर्ण गांवातू आशिले दि. नरहरी विठ्ठल प्रभू सगळे रामायण काव्य कोंकणीत बरोन प्रकट केल्ले आसा.

कुमटा गांवांतले श्री. एन. बी. अंगडीकेरी हाणी खूब कोंकणी कवन रचन केलेल आसा. जाल्यारी पुस्तक रुपानी प्रकट जालेल ना.

अंकोला निवासी वयोवृद्द श्री. एन. बी. कामत हाणी सुद्धा कोंकणीत हास्यभरीत, विडंबनात्मक चुटूक आनी कवन रचन केलेल आसा.

उदा. पोट फाटी वाऱ्याक सोण्ण येवची चंद चली॥
आपणाक खातीर हासत येत्ता आपणाले बलेंत पळ्ळी॥
लेकुन खुषीन एकलो पोकरी धैर्यान उलोवच्याक गेल्लो॥

चंडील्या हातातू मेळणू पाप॥ पुगून गेल्लो पोल्लो॥

अंकोलाचे श्री. अशोक भट्ट हाणी भगवद गिता कोंकणीत बरैले आसा. शिरसीचे श्री. वासुदेव शानभागानी बरैले भावगितांचें संकलन 'भाव संगम' प्रकट जालेल आसा. कोंकणी भावगिताचे सी. डी. 'गुरूवंदन' सगळ्यांक परिचीत जालेल आसा. तानी बरैले श्री कृष्ण परिजात नाट्य शकुंतला इत्यादी गीत रूपक आनी नृत्य रूपक दुसरे - दुसरे गांवांतू प्रयोग जालेल आसा. श्रीमती जयश्री नायक चाळीस वर्स धर्म भावगीत, भक्तीगीत, भजन इत्यादी कवन रचन केलेली आसा. जाल्यारी सगळे साहित्य हस्तप्रतीरुपारी आसा. शिरसी गावचे मारुती नायक देवनहळ्ळी आची आमचे मद्दे ना हाणी सुद्धा कवन रचन कर्नू दुसरे दुसरे पत्रिकेंतू प्रकट केल्ले आसा.

श्री. रामचंद्र एम. शेट हाणी 'आर्य' काव्यनांवान कवन रचन करत आसाची. रवींद्रनाथ टागोराली गितांजली कोंकणींतू अनुवाद केलेले आसा.

सिद्धापूर तालुकेचे श्री. विश्वनाथ शेट हाणी बरैले कवन संकलन 'मेगेले पदा' हस्त प्रतीरुपार आसा. ताणी रामायण काव्य कोंकणीत भामीनी बट्ट दिंतू बरैत आसाची.

मंचीकेरीचे श्री. नागेश अणवेकर हाणी बरैले 'कोंकणी काव्य मंजीरी' नांवाचे काव्य संकलन प्रकट जालेले आसा.

उत्तर कन्नड जिल्लेंत यक्षगान क्षेत्रात सुद्धां श्रेश्ट साहित्य रचना जालेल आसा. सिद्धापूर तालुकेचे श्री. विश्वनाथ शेट हाणी 'शमंतक मणी', 'म्हाळसा चरित्रा' ही दोनी कोंकणी यक्षगान साहित्य पुस्तक रुपारी प्रकटीत जालेली आसा. दोनी यक्षगान टि. वि. माद्यमांतू प्रसार जालेल आसा. 'धर्मांग विजय', 'हरी दर्शन', 'बाळार बांदार' सर्व हस्तप्रती रुपारी आसा.

मंचीकेरीचे श्री. नागेश अणवेकर हेणी बरइले यक्षगान प्रसंग 'गदायुद्ध', 'ध्रुव चरित्रा', 'द्रुपदाले गर्वभंग' ही सर्व दुसरे - दुसरे गांवांत प्रयोग जालेल आसा.

### डॉ. नागेश डी. सौंदे

कोंकणी साहित्य म्हणलारी जनांक हासुवचे नाटका अथवा हास्यभरीत विडंबनात्मक कवन न्हंय. कोंकणी साहित्य श्रीमंत आसून इतर खंचे भाशेचे साहित्याबरोबर तुलनात्मक आसच्या जाय. म्हूण शणै गोंयबाबान खूब रितीचे साहित्य रचन करून कोंकणी साहित्य श्रीमंत केलेले आसा. तशीच शिरसी गांवचे सौंदे कुटुंबांत जन्मा आयिले डॉ. नागेश बाबान कोंकणीत उत्कृश्ट साहित्य रचन कर्नू 'कोंकणी मनीस' म्हण मुंबै शहरांतू सुद्धा नांव घेतील आसा. हाणी बरईले 'पुरंदर दास' कोंकणी साहित्य कृतीक साहित्य अकादमीचे श्रेष्ठ प्रशस्ती पुरस्कार मेळिली आसा. कोंकणी भास आनी संस्कृतीचे आळ अद्ययन कर्नू कोंकणी भाशेचो इतिहास नांवाची साहित्य कृती प्रकट केलेल आसा. अद्यात्मीक क्षेत्रांत भगवदगिता उपनिषत, विष्णू सहस्त्रनाम इत्यादी साहित्य कृती प्रकाशनाक हाडील आसा. 'कथासंगम' आनी सारस्वताले भवितव्य अशी उच्च श्रेणीचे साहित्य रचन कर्नू कोंकणीचो एक महा मनीस नांव घेतिलो आनी आत्ता सुद्धा कोंकणी मातेची सेवा करत आशिलो द. क. जिल्याचो सुपूत्र डॉ. एन. डि. सौंदेबाब.

कोंकणी भास आनी संस्कृती बद्दल रेडियो भाशण लेखन बरवन सेवा केलेले बांधव सुद्धा आसाची. कुमटा गांवचे प्रतिभावंत संस्कृत प्रोफेसर म्हूण नाव घेतिले दि डॉ. डि. एन. शानभाग ह्या क्षेत्रांत देणगी दिल्लेली आसा. कुमटा गांवचे डॉ. शिवराम कामत केंद्र साहित्य अकादमी, न्यू दिल्लीचे सदस्य जावन आनी कुमटा कोंकणी परीशदेचे संस्थापक सदस्य आनी कार्यदर्शी जावन खूब रितीन लेखन बरईले आसा. राज्यमट्ट - राष्ट्रमटाचे कोंकणी साहित्य संम्मेलनातू आनी सेमीनारांत अभ्यासपूर्ण प्रबंध मंडण केलेले आसा. शिरशीचे वासुदेव शानभाग हाणी जिवनांचो खेळ नावाचे कोंकणी चलत चित्राचे संभाशण बरैल आसा. 'कोंकणी रंगभूमी' आनी कोंकणी चलतचीत्र नांवाचे दोन पुस्तक प्रकट केल्याची कुडल आनंदु शानभाग बरैले कोंकणीचो इतिहास एक श्रेश्ट साहित्य कृती आसा.

श्री. आर. एम. शेट हाणी कादंबरी बरोन प्रकट केलेल आसा. श्रीमती जयश्री नायक एकंबी हान्नी कोंकणीत 'मंगळ गौरी वृत्त', 'सत्य नारायण वृत्त' नांवाचे दोनी पुस्तक प्रकट केलेली आसा. ताणी बरैले 'शनी महात्मे' आनी गुरूवार लक्ष्मी वृत्त अजून हस्तप्रती रूपारी आसा.

आमगेले जिल्लेंतू कोंकणी साहित्य रचन कर्नू आर्थिक परिस्थिती निमित्त प्रकट करच्याक जायनाशिले खूब साहित्यकार आसा. तांका सगळ्यांक वळकून हस्तरुपारी आशिले उजवाडाक हाडचे काम जावूका. उत्तर कन्नड जिल्लेंतू 10 टक्के कोंकणी साहित्य कन्नड लिपींत आसा. हें साहित्य नागरी लिपींत छापका. आनी सगळे देशांत आशिले कोंकणी बांधवाक आनी इतर भाशिकाक पावका अशें सांगत मेगेले मंडन हांगा समाप्त करता.



# कोंकणी साहित्यांत कारवारचें योगदान



कोंकणी आवयक नमन करून सर्गेस्त दिपक गांवकार वेदीचेर आशिल्ले मानेस्त आनी सर्गेस्त रवींद्रबाब केळेकार नगरांत जमिल्ल्या म्हज्या चारूय राज्यांतल्या कोंकणी भाव भयणीनो, तुमकां सगल्यांक म्हागेलो नमस्कार.

गोंय कोंकणीचें मूळपीठ म्हणताना कारवारच्या ह्या कोंकणी चळवळीच्या कुळागरांत आज आमी परत एकपटी ह्या 20 व्या अखिल भारतीय कोंकणी संमेलनाच्या निमातान लागीं येतात. 1939 ते 2011 असो हो 72 वर्सांचो काळ. ह्या काळामदीं बरेंच कितें घडलें. बरेंच उदक मांडवी, जुवारी आनी काळी न्हंयच्यान समुद्राक वचून मेळ्ळें. भारत स्वतंत्र जालो. भाशावार प्रांत रचना जाली पूण कोंकणी समाज भायर उरलो हें आमचें दुर्दैव. गोंय स्वतंत्र जालें. कोंकणी भाशेक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिली. फुडें वचून कोंकणी गोंयची राजभास जाली. कालपर्यन्त कोंकणी ही मराठीची बोली म्हणटाले पूण भारतीय घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत वचून ती एक पुरायपणान भारतीय भास जाली. इतलेंच कित्याक कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळ्ळे नंतर तर सगले वाद कडी कुलपांत बंद जाले. कितलीं तरी वर्सां परकीय शेकातळा रावन म्हजी भास जिवंत उरली आनी ती आज एक भारतीय भास जावन आसा.

कारवार मुळांत गोंयचो एक भाग. पूण आज आमी राजकीय दृश्टीन कर्नाटकांत आसात. मुळपीठ जरी आमचें गोंय आसलें तरी खरी कोंकणी चळवळ ह्याच कोंकणी वाठारांत सुरू जाली. परिशदेचो हो ल्हान रोपो आयज एक व्हड रुख जाला. आणी हेची गवाय म्हळ्यार ह्या नगरांत जमिल्ले तुमी – आमी सगले कोंकणी भक्त. कारवार तसो ल्हान प्रदेश गांवगिऱ्या वाठारांनी व्यापिल्लो. जंय म्हणत तितली साहित्य रुजवण ना असो हो वाठार पूण कोंकणी लोकवेद साहित्य हांगा खूब आसा. पूण तें बरपावळींत ना तर तें मौखिक साहित्य आमच्या जाणत्या पिळगेलागीं आसा. काणी, गावनकाणी, फुगडी, धालो, शिमग्या गितां, ओवी, शेतांतलीं गितां अशे साबार प्रकार हांगा आसात. पूण आयज शहरीकरण आनी काळाच्या ओघांत ते कमी कमी जायत चल्ला ही आमकां खेदाची गजाल. आज हें साहित्य खंय तरी नव्या पिळगेकडल्यान पयस वचत आसा.

ही लोकवेदाची मौखिक साहित्य संपदा ना नपयत जावच्या वाटेर आसतना कोंकणी संस्कृती मंडळ सदाशिवगड ह्या संस्थेची अध्यक्षा भौ. उषा राणे हांणी आपलो स्वतःचो लोकवेदाचो प्रकल्प करून हें मौखिक साहित्य ऑडीओ, विडीओ हातूंत बंदिस्त करन दवरला फुडल्या पिळगेखातीर कारण हें साहित्य जाणकार आयज जाणटे जाल्ले आसात. कांय लोकवेदाचे प्रकार लिखीत स्वरूपांत आसात. तशेंच गोंयची लोकवेद संशोधिका भौ. जयंती नायक हांणी आपल्या लोककाणयेंच्या पुस्तकांत हांगाच्या कांय मानेस्तांच्यो काणयो पुस्तक रुपांत आमचे मुकार दवरल्यात.



संदेश बांदेकर

जशी कोंकणी चळवळीची सुरवात कारवारच्यान सुरू जाली तशी कोंकणी लेखनाची सुरवात आनी ती देवनागरी लिपींत अशें म्हळ्यार म्हाका दिसता अतिताय जावची ना. कारण आयज कोंकणी साहित्याचा दालनात 1935 वर्सा गिरगांव मुंबय हांगाच्या कोंकणी साहित्य संघान पयलें कारवारी कोंकणीतलें पुस्तक उजवाडा हाडलें. ताचें नाव आसलें 'ओवळां'. हीं ओवाळां आयज लेगीत कोंकणी साहित्यांत परमळ फांकीत आसा. हें पुस्तक ही परिशद स्थापन जावच्या चार वर्सां पयलीं प्रसिद्ध जाल्लें. तरी ह्या पुस्तकाचें महत्व वळखून 1997 वर्सा आजय ह्या वेदीक आमी दिपक गांवकार हांचें नांव दिलां ताणी आपल्या सागरदीप प्रकाशनावतीन परत 62 वर्सांनी उजवाडाक हाडलें आनी त्या काळाची कारवारी कोंकणी शैली आमच्या मुकार पुस्तक रुपांत हाडली. कारण हें पुस्तक खूब दुर्मीळ जाल्लें आनी खंयच मेळनासलें. आयच्या संमेलनाच्या माटवांत शांताराम कामत हांणी बरयिल्लें खाजकयां करंड हें तांचें नंतर आयिल्लें पुस्तक काल ह्या संमेलनाच्या माटवांत परत उजवाडाक आयलें. म्हाका दिस्ता अशीं कांय पुस्तकां आसतलीं पूण काळाच्या ओघांत तीं लुप्त जालीं.

पु. ल. देशपांडे हें नांव मराठी साहित्यांत आयज अजरामर जालां. पूण आपल्या लेखनाक सुरवात करताना ताणी कोंकणी निबंध बरोवन केलो हें खूब जाणांक खबर ना. हो निबंध आयज गोंयच्या जाग प्रकाशनाकडेन आसा. आनी हेमगेल्या सारके जायते लेखक आसा ताणी कारवारच्या लागणुकेंत कारवारी कोंकणी शैलींत बरप केलां म्हूण आयज तें नवें पिळगेक मेळना ही खेदाची गजाल. त्या काळार कारवारचे चडशे गौड स्वारस्वत ब्राह्मण ह्या समाजांतले लोक मुंबय वचून स्थायीक जाले आनी कारवारी कोंकणी भाशा शैली लेखनावरवीं थंय पावली. ह्या समाजाचें एक मुखपत्र येता त्या मुखपत्रांत ह्या भाशा शैली भीतर कविता, कथा, लेख ह्या सारके प्रकार येताले. आतां येता आसतलेंच कारण म्हज्या शेजरा आशिल्ल्या कांय अश्या समाजांतल्या घरानी ही मुखपत्रिका हांगा कारवारांत पावताली.

कारवार हो वाठार स्वातंत्र्या पयलीं मुंबय कर्नाटक प्रांतांत येतालो. लोक कोंकणी भाशीक तरी त्या काळार कोंकणीक बोली भास मानताले आनी मराठीकडेन ओडो आशिल्ल्यान शिक्षण हें मराठींत जातालें. ह्या कारवार तालुक्यांत एका वेळार 200 वयर मराठी शाळा आसल्यो. आमी कोंकणी – मराठी ही आर्यकुळांतली भास आनी ह्या दोन भयणींचो कन्नड भाशेकडे काय संबंध नासलो आनी ना सुद्धा. तरी ह्या वाठारांत आयज कन्नड वर्चस्व आसा. तें कन्नड सक्तीक लागून. मराठी लागिंची आशिल्ले कारणान साहजिक काय लेखन मराठींत घडटालें हें खरें. पूण ताचे उदाहरण म्हळ्यार आमचें आयच्या पिळगेचें प्रेरणास्तान साहित्य अकादेमी, विश्व कोंकणी साहित्य पुरस्कार आनी साबार साहित्य पुरस्कारांनी सन्मानीत आनी आपली एक कथा पलडतचो मनीस ह्या फिल्मावरवीं साता समुद्राभायर पावोवपी आमचे कारवारचे श्री महाबळेश्वर सैल हांणी आपली लेखनाची सुरवात मराठींत केली. तरी त्या काळार तांचें मराठीं साहित्य गाजलें खरें पूण आवय भास कोंकणी खंयतरी तांच्या हातून साहित्य रुपांत भायर येवंक फुरफुरताली जावयें आनी ते कोंकणीकडे वळ्ळे ही आमकां अभिमानाची गोश्ट. नंतर आमकां पलतडचें तारूं. तरंगां, अरण्यकांड, अद्रुश्ट, काळी गंगा, बायनेट फायटर, खोल खोल मुळां, युग सांवार, हावठण ह्यासारकीं पुस्तकां वाचूंक मेळचीं नासलीं आनी कोंकणी साहित्य आनी कारवारी कोंकणी भाशा शैली समृद्ध जावची नासली. आज गोंयच्या कोंकणी शिक्षणक्रमांत तांच्यो कांय कथा आस्पावीत केल्ल्यो आसा जेणेकरून कारवारी कोंकणी साहित्य परत एक फावट समुद्रीच्या वाटेन वचत आसा.

ज्या सदाशिवगड वाठारांत हें 20 वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन घडटा त्या वाठारांतले आमी कारवारकारांक दुसरो साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळोवन दिवपी लेखक श्री. देवीदास कदम. तांचो ओडो इंग्लीश भाशेकडेन चड तरी ताणी आवयभाशेखातीर व्हड योगदान दिलां. 'कांदळां' ह्या कथा संग्रहावरवीं कोंकणी साहित्यांत पावल दवरलें आनी मागीर फाटी वळून पळयलेंच ना. एका परस एक अश्यो सरस कथा, कादंबरी आमच्या मुकार कारवारी कोंकणीत दवरल्यो. दिका, गांठवल आनी आतां उबंतर ह्या सगळ्या कथा, कादंबऱ्यांनी कोंकणी साहित्या वांगडा कारवारच्या कोंकणी लोकांकसुद्धां एक उभारी दिल्या. ते कथा, कादंबरी प्रकारावांगडा कविता करतात आनी कोहम सारको कविता संग्रह प्रसिद्ध जाला. आनी ताचे फुडें वचून कोंकणी बाल साहित्याच्या मळार लेगीत आपलें योगदान दिलां. ही आमकां अभिमानाची गजाल.

आयज ह्या संमेलनाच्या प्रवेशद्वाराक ज्या कवीचें नांव दिलां ते शशांक सीताराम हाणी लेगीत आपलें योगदान दिलां. तांचो कथा संग्रह प्रसिद्ध आसा. पूण ते आमचे मदींतल्यान वेगीनच गेले ही आमकां व्हड खेदाची गजाल. तांच्या 'परीघ' ह्या कथा संग्रहाक साहित्य अकादमेचो पुरस्कार फावो जाला.

ह्या रथी – महारथी वांगडा कारवारच्या मास्तरांनीसुद्धां आपलें योगदान कोंकणीक दिलां. जरी ताणी कारवारी भाशाशैली आपणायली ना तरी भौ. राजय पवार, भौ गौरीश वेर्णेकर, भौ. राजश्री सैल. कविता, नाटकां आनी इतलेंच कित्याक कोंकणी संगितांत सुद्धा आपलें योगदान दिलां. ह्या कारवारच्या नातरां वांगडा कारवारच्या सुनेचो सुद्धां उल्लेख जावपाक जाय कारण ती कारवारची सून जावन

येयल्या नंतर तिका कोंकणी साहित्यांत साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा. ती कोडीबाग कारवारची सून भौ शिला कोळंबकार. नंतरच्या लेखनानी आपल्या साहित्यकृतींत कारवाराक मुखार हाडलां ही आमकां अभिमानाची गजाल. हाचे वांगडा कडवाड गांवचे श्री विठ्ठलराय भट हे लेगीत कोंकणीत योगदान दीत आसात. तांची लेखन शैली सुद्धां कारवारी कोंकणीत आसा.

हें जालें कारवारकारांनी कारवारा भायर रावन कोंकणी साहित्यांत दिल्लें योगदान. तरी कारवारांत आज कविता, नाटकां, कथा ह्या सारकें साहित्य केळोवपी नवे साहित्यीक आसात. पूण तांचें साहित्य अजुनी पुस्तक रुपांत येवंक ना. तरी आपले परीन ते कोंकणी साहित्य फुलयत आसात. तरी गोंयच्या सुनापरान्त, जाग, कोंकण टायम्स, बिम्ब, आनी बेळगांवच्या उजवाड ह्या सारक्या दिसाळीं जावं मासिकांनी आपलें साहीत्य प्रसिद्ध करतात. आनी हीं मासिकां कारवारच्या ह्या लेखकांक आपली एक वेगळी वळख निर्माण करूंक संद दितात. त्याच वांगडा धारवाड आकाशवाणी सुद्धां आपले परीन ह्या लेखकांक आपल्या कोंकणी कार्यक्रमांत संद दिवन तांचें साहित्य लोकापर्यंत पावयचें काम करता.

ह्या नव साहित्यीकांमदीं नांवां घेवचींच जालीं जाल्यार भौ. उदयकांत अणवेकार, भौ. काशीनाथ मडीवाळ, भौ उषा राणे, भौ चंद्रकांत नाईक, भौ विष्णू कोळगेकार, भौ संदेश बांदेकार हांचीं नांवां घेवं येत. श्री उदयकांत अणवेकर हे सातत्यान कोंकणीत बरोवपी. पूण ह्या सगळ्या मर्दी ते वडील आसले तरी तांचें कविता, नाटकां ह्यासारकें साहित्य आजून पुस्तक रुपांत येवंक ना. तरी लाखांतलो न्हवरो ह्या नाटकाचो उल्लेख केले शिवाय जायना कारण ह्या कारवारी कोंकणी नाटकाची कॅसेट पुराय कोंकण वाठारांत माथ्यार घेतली. कविताय करतात. ताणी साबार अखिल भारतीय कोंकणी संमेलन, परिशद हातूंत आपल्यो हलक्यो फुलक्यो कविता सादर केल्या. भौ उषा राणे हाणी भुरग्यांखातीर कविता केल्यात पूण आयज पर्यंत खंयच प्रसिद्ध जाल्ल्यो ना हें खेदान सांगचें पडटा.

भौ. चंद्रकांत नायक हाणी मराठी वांगडा कोंकणीत चड आपलें साहित्य निर्माण केलां. त्याच वांगडा एकांकिका हो प्रकार आनी कविता हो प्रकार केळयला. ताचें सगळ्यांत चड प्रयोग जाल्लें नाटक 'वावटळ' हें जावन आसा. पूण आयज पर्यंत एकूय साहित्य कृती पुस्तक रुपांत ना.

भौ काशिनाथ मडीवाळ हेमगेलें मामेलो होळो जांवयार दोळो आज्याली मज्या ह्या सारकीं गाजिल्लीं नाटकां. ह्या नाटकांचे प्रयोग कारवारबरोबर गोंयांत गाजल्या. तशेंच श्री विष्णू कोळगेकार, कविता आनी नाटकां बरोवपाक सदांच मुकार. हांच्यो मात कांय कविता कोंकण टायम्स आनी बिम्ब ह्या मासिकांनी प्रसिद्ध जाल्यात. कांय कविता आकाशवाणी धारवाड केंद्रासावन प्रसारीत जाल्यात. गेल्ल्या वर्सा मुंबय हांगा तांकां आफोवन व्हरून एक संस्था नाटकां करपाक लागल्या ही अभिमानाची गजाल. पूण ह्या लेखकाचें सुद्धा आजुनूय एकूय पुस्तक प्रसिद्ध जावना, सगळीं हातबरपांच आसात.तांचें फोंडांतली माती फोंडांत हें सामकें गाजलेलें नाटक. कोळगेकार, अणवेकार आनी चंद्रकांत नाईक हांचीं नाटकां 50–50 प्रयोग सहज करतात. पूण ह्या कारवारच्या वाठारांत सुद्धां पायरसी जातात हां. कांय वाठारांत अळमी फुलता त्या प्रमाण नाटककार आनी कवी निर्माण जातात. तरी तांचेर अंकूश दवरपाक कोंकणी संस्कृती मंडळान एक व्हड पावल दवरलां अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. चंद्रकांत नाईक आनी विष्णू कोळगेकार हांचीं नाटकां जात्रा काल्यानी सादर करतले जाल्यार ह्या संस्थेवरवीं लेखकाकडल्यान अनुमती घेवची पडटा. अशें आसले कारणान ह्या दोनय लेखकांचीं नाटकां कॉपी जायनात. ह्या लेखकांच्या नाटकांक असो न्याय मेळटा.

निबंध, कविता आनी कथेच्या मळार कारवारांत नांव येतालें भौ संदेश बांदेकार हाचें. पयलीं कोंकण टायम्सच्या कोंकणी निबंध सर्तींत वांटो घेवन कारवारी कोंकणी भाशा शैली लोकांमुकार पावोवचो यत्न केलो. युवा साहित्य संमेलन, अखिल भारतीय साहित्य संमेलन, धारवाड आकाशवाणी, हातून कविता सादर करतात. सुनापरान्त, बिम्ब, कोंकण टायम्स ह्या सारक्या मासीक आनी दीन पत्रिका तशेंच आकाशवाणी धारवाड केंद्रावयल्यान कथा प्रसारीत जाल्या. गेल्या दोन युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत कथेक इनाम जोडून कारवारचें नांव कोंकणी साहित्यांत वयर हाडचें काम केलां.

वयल्या सगळ्या उल्लेख केल्ल्या नव साहित्यिकांक गोंयच्या नेमाळ्यानी आनी मासिकांनी सदांच आधार केला हे मुजरत सांगन दिसता. कांय आमचे विरोधी सांगतात की, कारवारा कोंकणी संस्कृती, कोंकणी साहित्य ना पूण हे खरें न्ही. नवी पिळगी जी साहित्य निर्माण करता तें पुस्तक रुपान येवंक ना म्हणून असो प्रचार करप समा न्ही. आयज पुस्तक रुपान हीं मोतयां माणकां वयर येवंक जाय तरच ह्या असल्या लोकांचीं तोडां बंद जातलीं. शेवटाक कारवारच्या कोंकणी साहित्याक व्हड असो इतिहास आसा. आनी कोंकणी साहित्याच्या रथांत आसा तें आपल्या वेगळ्या कारवारी शैली खातीर. जरी नव्या पिळगेचें साहित्य हस्त लिखीत आसा तरी जेन्ना हें सगळें साहित्य पुस्तकरुपान पुराय कोंकणी वाठारांत पावतलें तेन्नाच कारवारी कोंकणी साहित्याचें दालन समृद्ध जातलें हो म्हाका व्हड विश्वास आनी अभिमान आसा.



# संयुक्त गोंय एक सपन




रवार – एक सोबीत सुंदर कोंकणी वाठार. आयज ह्या घडयेक केंद्र सरकारच्या धोरणाक लागून गेर्ली 55 वर्सां हो वाठार कर्नाटकांत पडून आसा. भारतांत आशिल्ल्या आनी प्रामुख्यान चार राज्यांनी शिंपडून आशिल्ल्या कोंकणी जनांक एक करपाची आनी एक भास, एक लिपी आनी एक समाज घडोवचे काम ह्या वाठारांत आठ जुलै 1939 दिसा भौ. माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी सुरवात केलें. ह्या गजालीक आज सुमार 70 वर्सां जातात. पूण गोंय हें कोंकणी राज्य निर्माण जालें तरी कारवार, सुपा, हल्याळ हे अस्सल कोंकणी भाशीक वाठार आजून भायर आसात. ह्या वर्सा तर गोंय सरकार आपल्या स्वतंत्रतायेचीं 50 वर्सां मनयता. तरी हो कोंकणी वाठार आपल्या राज्यांत मेळवचो अशें ताका दिसना हाचें खूब वायट दिसता.

1956 क भारतांत भाशावार प्रांत रचना जाली. पूण कोंकणी लोकांक आपलें कोंकणी राज्य मेळ्ळें ना. कारण त्या काळार पुर्तुगीजांनी आपल्या शेकातळा दवरिल्लें गोंय हें राज्य स्वतंत्र जावंक नासलें आनी पुराय गोंय केन्नाच पयलीं पुर्तुगीजांकडेन नासलें फकत कांय तालुके तांच्या शेकातळा आसले तरी बाकीच्या वाठाराचेर ते आपलो अधिकार सांगताले. पूण आमचें दुर्दैव म्हणा, कारवार, सुपा, हलयाळ हो वाठार तांच्या शेकातळा नासलो तरी पुर्तुगीजांनी गोंयांत पावल दवरचे आदीं कारवार लागसारच्या अंजदीप जुव्यार आपलीं पातकी धर्वी पावलां दवरलीं. काल पर्यंत हो अंजदीप जुवो गोंयच्या सुवादीन आसलो. कारवारांत सीबर्ड हो नावीक तळ जल्माक आयलो आनी गोंयांक वाठार हो नावीक तळाक दिवचो पडलो हें खेदान सांगचें पडटा.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशद स्थापन जाली ती मुळांत एक भास, एक लिपी, एक समाज घेवनूच. पूण आमची ही संकल्पना जावं इच्छा आयजपर्यंत अर्ध्यारूच उरल्या. कारण आमी भास आनी लिपी हांचे वरवीं लागीं पावल्या पूण एक पुराय कोंकणी राज्याविशीं आमी बरेंच फाटी आसा. भाशा वार प्रांत रचनेचो अधिकार जावं हक्क आमकां अजून मेळूंक हें आमकां येदेशें तोंड करून सांगचें पडटा. मुळांत कोंकणी समाज हो सुशेगाद समाज हावूंत नविदाद खंयी ना. कारण फाटल्या इतिहासाचेर नदर मारल्यार आमकां पळोवंक मेळटा की कोंकणीक केन्ना राजाश्रय मेळ्ळोच ना. जायत्या राज घराण्यानी गोंयचेर राज्य केलें पूण कोंकणीक वयर काडलीच ना. तातूंत पुर्तुगीजांनी तिका रसातळाक घालचो प्रयत्न केलो. तरी म्हज्या आवयभाशेची सासाय व्हड जाल्ल्यान ती पुराय ना जावपाक पावली ना. तरी अपघातान



**सौ. उषा राणे**
सदाशिवगड

रोमी लिपी निर्माण जाली आनी हें भूत आजुनी मुक्ती मेळनासताना वळवळत आसा. भटकळ, मंगळूर आनी केरळ वाठारांत क्रमेन अरबी, कन्नड आनी मल्याळम लिपींत कोंकणी जल्माक येयली ही आमकां दुःखाची गजाल.

बऱ्याच वर्सां फाटी बी. जे. पी. चे एक फुडारी आनी ज्येश्ट कार्यकर्ते श्री. जी. व्हाय भांडारे हाणी तेन्नाच्या केंद्रांत आशिल्ल्या बी. जे. पी. सरकाराक सुचोवणी केल्ली की वादग्रस्त सिमा वाठारांतले अस्सल कोंकणी वाठार कारवार, सुपा, हलयाळ हे भाग भाशावार प्रांत रचने प्रमाण गोंय राज्याक जोडचे म्हण. कारण हे वाठार भाशीक, भौगोलिक नदरेन एक आसात. आमी भाशीक राज्य रचने प्रमाण हो भाग गोंयांक जोडपाकच जाय. पूण जेन्ना 1956 क राज्य पुर्नरचना जाली तेन्ना गोंय हो वाठार परकीय शेकातळा आसलो म्हणून हो भाशीक राज्याचो लाव गोंयांक मेळ्ळो ना. गोंय स्वतंत्र जालें तरी पुर्ण कोंकणी राज्य आयज ह्या घडयेक सुद्धां निर्माण जालें ना.

महाराष्ट्र – कर्नाटक सीमेवाद सोडोवंक त्या काळार म्हळ्यार 1967 क महाजन अहवाल आयलो. आज ह्या घडयेक ह्या अहवालाक 43 वर्सां जालीं. तेन्ना कोंकणी ही अधिकृत भारतीय भास जावंक नासली तरी कोंकणी भास ही मराठीची बोली न्ही आनी ती स्वतंत्र भास म्हण त्या वेळार महाजन हाणी आपल्या अहवालांत नमूद केल्लें. पूण आज पर्यंत हो अहवाल भारताच्या संसदेंत चर्चेक आयलोच ना. मांडवी, जुवारी आनी काळी न्हंयचें उदक कितलें तरी अरबी समुद्राक मेळ्ळें. तरी भाशीक प्रांत रचने प्रमाण आमकां कोंकणी राज्य हें पुराय राज्य मेळ्ळेंच ना हें आमचें व्हडलें दुर्दैव.

आयज गोंय स्वतंत्र जालां. कोंकणी गोंयची राजभास जाल्या. कोंकणी भास सगर्ळी आडमेळीं हुपून एक संविधानांतली भारतीय भास जाल्या. साहीत्य अकादेमी ते ज्ञानपीठ पुरस्काराकडेन आमच्या कोंकणीन वाटचाल केल्या. पूण आमचें नशीब की आमी आयज पर्यंत कारवार, सुपा, हलयाळ हे कोंकणी भाशीक वाठार हक्कान गोंयांक जोडूंक शकले ना. एक भास, एक लिपी, एक समाज हें तत्त्व घेवन आमी आयज मुकार आयले तरी कोंकणी समाज आयज पर्यंत ह्या वाठाराक घेवन एक जालोच ना.

कोंकणीच्या फाटल्या इतिसाहाचेर नदर मारल्यार दिसता कोंकणीची खरी चळवळ आनी इतिहासीक कारणान हांगा थंय शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी समाजाक एकठांय हाडचें काम त्या वेळार भौ माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी ह्याच कारवारच्या कोंकणी वाठारांत केलें. आनी खरेंपणात कोंकणी चळवळ सुरू जाली हें आमी अभिमानान सांगूंक शकतात. म्हाका हांगा एक प्रस्न पडटा की कर्नाटक सरकार सांगता हो कर्नाटकाचो भाग. हांगा कन्नड संस्कृती आसा. मागीर माधवमामान हांगाच कित्याक ही चळवळ सुरू केली? माधवमाम हे मूळ कुमटा हांगासल्ले तांकां ही परिशद थंय कित्याक स्थापन करची दिसली ना? कारवार हो अस्सल कोंकणी वाठार म्हणूनच न्ही? सर्गेस्त गांधीवादी काकासायब कालेलकार आनी माधवमामान कारवार, सुपे, हलयाळ हे अस्सल कोंकणी वाठार भाशीक प्रांतरचने वेळार गोंयांक जोडचे म्हण राज्य पुर्नरचना आयोगाकडेन मागणे दवरलें पूण आमचें आनी कोंकणीचें दुर्दैव की ताणी हें त्या वेळार मानून घेतलें ना. म्हण आज कोंकणी समाज एकठांय ना ही समस्त कोंकणी मनशांक दुःखाची गजाल जावन आसा.

जेन्ना कारवार, सुपा आनी हलयाळ हे भाग महाराष्ट्रांत न घालतां कर्नाटकांत दवरिल्ले तेन्ना ह्या कोंकणी वाठारांत महाराष्ट्र एकीकरण समिती सक्रीय जाली आनी हो भाग महाराष्ट्रांत विलीन जावचो म्हण काम करुंक लागली. आयज ही समिती हांगा निमणे स्वास घेत आसा. पूण हांगाच्या लोकांचो खरो ओडो आसा तो आपल्या मूळ भुंयेकडेन म्हळ्यार गोंयांकडने. कारण आमची भास, संस्कृती आनी दायज सगलें गोंयचें. कांय वर्सां ह्या वाठारांत समितीचे आमदार निवडून आयले तरी केंद्र सरकार जावं कर्नाटक सरकारान ह्या गजालीचेर लक्ष केंद्रीत केलें ना. हो सीमेवाद आयज पर्यन्त तसोच रावलो. समितीचें काम थंड जालें. कन्नड भाशा सक्तीची जाली. पोटाखातीर तरी कन्नड शिकपाक लागले. मराठीक निमाणची घरघर लागली. ह्या वाठारांत 200 वयर मराठी शाळा आसल्यो त्यो कायमच्यो बंद जाल्यो. आतां सदाशिवगडार आसली मराठी शाळा जी शंबर वर्सां जावन गेलीं तरी आयज ह्या वाठारा भायलीं भुरगीं आसा म्हण निमणी धडपड करीत आसा. हीं भुरगीं गेलीं की हिवूय शाळा बंद जातली. हांगा सरकारी कामां सगलीं कन्नड भाशेंत चलतात. मराठी शाळा बंद पडल्यो. मराठीची लिपी देवनागरी आनी कोंकणीची लिपी सुद्धां देवनागरी. मराठी शाळा बंद जातकीच हांगाचें कोंकणी साहित्य अंदलें. हांगा कन्नड लिपींत साहित्य सुद्धां म्हणटा तितलें तयार जालें ना. आज फकत हांगा उलोवपाची भास आनी व्यवहाराची भास तितली कोंकणी पूण सरकारी भास सक्तीची कन्नड.

कारवारचो लोक जरी 100 टक्के कोंकणी जालो तरी पोटाखातीर कन्नड शिकता. कर्नाटकान आपली व्होट बँक सादोवन घेवपाक कोंकणी मनशाक हांयस दाखोवन कर्नाटक कोंकणी अकादमी स्थापन केल्या. पूण कर्नाटकाची भास कन्नड जाल्ले

कारणान ताणी ती कन्नड लिपी बदलपाक कांय तकालस घेवंक ना. कर्नाटकाच्या भितरल्या वाठारांत जंय कन्नड भाशीक लोक चड आसा थंयच ही कन्नड लिपी चलता. आनी ह्या वाठारांत आशिल्ले नावास्तीक लेखक कोंकणीच्या मूळ प्रवाहांत येनात. कर्नाटक कोंकणी अकादमी ही सरकारी संस्था जाल्ल्या कारणान ह्या अकादमीत सरकारी व्यवहार सगले कन्नड भाशेंतूच चलतात. आनी ह्या संस्थेंत कांय अधिकारी आसा ते कन्नड भाशीक आनी तांकां कोंकणीकडेन कसलीच लागणूक ना ते कोंकणीची उदरगत कसली करतले?

कर्नाटकांत कन्नडाची उदरगत करुंक एक संस्था आसा. ही संस्था कसले कसले प्रयोग हांगाच्या कोंकणी भाशीक लोकांचेर करत आसता. पावला कणकणी कन्नड थापत आसा. एका वाटेन कर्नाटक, महाराष्ट्र सीमेवाद सोडयताना महाजन अहवाल लागू करात म्हण आड्डतात आनी ह्या कारवार, सुपा, हलयाळ ह्या वाठाराविशीं महाजनान कितें बरयलां जावं सांगलां ताचेर सदांच आड नदर करतात. कारण हो अहवाल लागू केल्यार हो कोंकणी वाठार तांच्या हातांतल्यान वचूंक शकता. म्हण ह्या वाठारांत कन्नड सक्ती शिवाय आनीक कांयच एक सुधारणा करीना. खुद्द कर्नाटकाची राजधानी बेंगळुरांत कोण कन्नडाक लेखिना. हाचें ताजें उदाहरण म्हळ्यार म्हजी चुलत भयण थंय मल्टी नॅशनल कंम्पनीत काम करता. ती म्हजी भयण हुशार ताणी थंय रावन तामीळ भास आत्मसात केल्या. खुद्द आपल्या राजधानींत कन्नड भास सांबाळूंक शकले ना ते हो भाग कानडी कसो करूंक शकतले?

मुळांत कोंकणी समाज हो सुशेगाद समाज. आपल्याचेर कितलोय अन्याय जावं तरी वगी रावप हो ताचो धर्म. म्हाका दिसता कोंकणी समाजान फक्त दोन फावटी आपल्यार जाल्ल्या अन्यायाचेर जैत मेळयलां. एकदां पुर्तुगेजांक गोंयच्यान धावडोवन घालूंक आनी गोंयची राजभास कोंकणी करूंक. ह्या समाजाची सुशेगादपणा आजून सोपूंक ना.

म्हाका खरी तोखणाय दिसता ती बेळगांवच्या महाराष्ट्र एकीककरण समितीची. ताचो लढो आजुनी चालू आसा. तांकां आपल्या आवयभाशेविशीं अभिमान आसा. आनी तांकां महाराष्ट्र सरकारचो तेंको आसा. म्हण तर ताणी हो वाद भारताच्या सुप्रीम कोर्टांत व्हेला. तेन्ना खंय तरी कोंकणी जनतेक जाग येयली तरी ही चळवळ म्हणटा तितली मुकार गेली. जेन्ना आपल्या दाव्यांत कर्नाटक सरकारान कारवार विशीं आपलें मत मांडलें की महाराष्ट्रान कारवार, सुपा, हलयाळ या भागार आपलो हक्क सांगचो न्ही. कारण ते कोंकणी वाठार आनी कोंकणी ही भारतीय भास. जर ह्या मुद्याक हात घालून गोंय सरकारान हाचेर आपली याचिका कोर्टांत दिल्ली जाल्यार कोंकणी भाशेच्या चळवळीक आनीक बळकटी येता आसली. म्हण तर आयज कर्नाटक म्हादयचें उदक वळोवपाक शकलो आनी कोंकणी मनीस हें पळयत उरलो.

कारवारच्या कोंकणी लोकांनी कसलीय चळवळ आपल्या भाशेखातीर केल्यार ताका रोकडेच पिश्यांत काडटात. आमच्या कोंकणी समाजांतले लोकय. आयज कारवारांत परिस्थिती अशी आसा की ताची भास कोंकणी पूण ताका वाचपाक बरोवपाक जमना ना तर कन्नड लिपी ना तर देवनागरी लिपी. हो लेख वाचून तुमकां अजाप दिसतलें की जी नवी पिळगी आसा तेंका सुद्धा खबर ना की खरी कोंकणी चळवळ कारवारांत सुरू जाली. आनी कोंकणीक आपली अशी स्वताची लिपी आसा. ती लिपी म्हळ्यार देवनागरी. म्हाका दिसता हातूंत तांची चूक ना. हांगा जाता तें सक्तीचें राजकारण आनी कोंकणी विशीं अपप्रचार. आनी तातूंत सर म्हण हल्लो करूंक आतांच जल्माक आयिल्ली एक संस्था. तर कोंकणी भास, कोंकणी राज्या विशीं कितेंय उलयल्यार राष्ट्रद्रोह, देशद्रोह हीं व्हडलीं - व्हडलीं उतरां वापरून आनी कर्नाटकी पुलिसांचें सहाय्य घेवन कोंकणी लोकांचे अन्याय करता.

कारवार वाठारांत तर लोकांच्या सुविधांकडेन लक्ष दिनात. कांय सुदारणा करिनात. पूण करतात ती कन्नड सक्ती. कारवार हें जिल्ल्याचें ठिकाण दवरलां. पूण कांय उदरगत ना. कारण सिमेवाद चलत आसा आनी निर्णय जाल्यार हो वाठार हातांतलो वचूं येता असो ताका भंय आसा म्हण ह्या वाठारांत कांयच उदरगत करीना.

भारत ही जगांतली व्हडली लोकशाय आशिल्ली भूंय म्हण नामना पावल्या. पूण हें म्हाका तरी ह्या घडयेक समा दिसना. कारण लोकशाय पद्धतींत हो वाद केन्नाच सुटावो जातलो आसलो. कारण लोकशायेंत लोकांच्या मतांक व्हडलें म्हत्व आसा. कारण आमी पळयलां की एका मता खातीर कितलीं तरी सरकारां कोसळल्यांत तीं. पूण आमकां फक्त वेचणुके पुरतें आमच्या मतांक महत्त्व आसता. आनी चड म्हत्व आसलें तर कोंकणी प्रदेशाचो हो प्रश्न जनमत कौलावरवीं केन्नाच सुटावो जातलो आसलो. कोंकणी आनीक चंवरतली आनी फळतली आसली पूण कोंकणी समाजाक जावं कोंकणी भाशेक लागून जाका सूख उपंभोगूंक मेळटल्या राजकारण्यांक हें पडून गेल्लें ना.

एक उदाहरण दितां कोणे तरी म्हाका कोंकणीतच प्रश्न विचारलो की तुजी मातृभाशा खंयची? साहजिक हांवें सांगलें कोंकणी. तोच प्रश्न तेका हांवें विचारलो तर तो म्हणपाक लागलो म्हजी मातृभाशा

कन्नड. म्हाका अजाप दिसलें कारण ताच्या घरांत सगले कोंकणी उलयतात आनी तो कोंकणी समाजांतलो मनीस. तुमी कोंकणी मरे अशें सांगल्यार तो म्हणपाक लागलो आमकां शाळेंत बाईन सांगलां की कारवार हें कर्नाटकांत आसा तेन्ना आमची मातृभाशा कन्नड म्हण सांगपाक जाय. ह्या देखी वयल्यान कळटा की कितलो कोंकणी लोकांचेर अन्याय जाता ह्या कारवार वाठारांत.

ग्रामपंचायत, नगरपालिका, जिल्हा परिशद, तालुका पंचायत, विधानसभा ते लोकसभा पर्यंत हांगा कोंकणी भाशीक लोक वेंचणुकेक उबे रावतात. आपलीं मतां लाचार जावन कोंकणीचो वापर करतात. मतां मागूंक कोंकणीत लागता. मागीर एकदां कांय ते वेचणुकेक वेचून आयले मागीर कोंकणीचेर खोट. कारण ती भास उलयल्यार कमीपणाचें अशें दिसता. आपली पत देंवता. मागीर ते तांबडी कन्नड कातरतात. मागीर तो कन्नड शिकलो आसलो तरी तांबडी कन्नडच सभानी कातरत आसता. मागीर तो मनीस आपली भासच विसरून वयता अशें दिसता. हो मनीस जेन्ना लोकांलीं गाराणी कोंकणीत आयकता जापो मात कन्नडान दिता. कारण वांगडा ताच्या कन्नड राखणे लोक आसतात.

'ज्ञानपीठ पुरस्कार' प्राप्त भौ. रवींद्र केळेकार आपूण जीवंत आसापर्यंत सगल्यांक सांगताले की, कारवार आंनी सिंधुदुर्ग हो वाठार गोंयांक जोडले शिवाय पुराय कोंकणी राज्य निर्माण जावचें ना. हो वाठार गोंयाभायर दवरून आमी उदरगत करपाक शकचे ना. आनी हो वाठार गोंयांक जोडलेशिवाय आमी कोंकणी भाशीक लोक मुकार पावचे ना. गोंयांक स्वयंपूर्ण जातलें जाल्यार कारवार वाठारा शिवाय पर्याय ना. तात्याक गोंयचो सगलो लोक मानतात. पूण ही मागणी मुकार आयली सगळे ओग्गी रावतात.

शिमेवाद आतां कर्नाटक – महाराष्ट्र पुरतो मर्यादीत उरूंक ना. कारण कोंकणी लोकांचो आपलो राज्य मागपाचो हक्क आसा. कारवार, सुपा, हल्याळ हे वाठार अस्सल कोंकणी वाठार आसात. म्हादय न्हंय प्रश्न जसो पयलीं कर्नाटक आनी गोंया मदीं आसलो तो पुराय अभ्यास केले नंतर कळ्ळो की हातूंत महाराष्ट्राचें लेगीत लूकसाण जाता म्हण महाराष्ट्र सरकारान सुद्धा मागीर उदक वळोवंक हरकत घेतली. तशी गोंय सरकारान ह्या कोंकणी भाशीक पट्ट्या विशीं आपली जागृताय दाखोवंक जाय.

समस्त कोंकणी समाज गोंयचे सगले मंत्री, दिल्लीत आसता ते गोंयचे खासदार, कारवार, सुपा, जोयडा, हलयाळ ह्या वाठारांतले कोंकणी भाशीक, आमदार, खासदार हांणी सगल्यांनी एकठांय येवन केंद्र सरकाराक पटोवन हो अस्सल कोंकणी वाठार गोंयांक जोडूंक लावंक जाय.कारण हो भाग अस्सल कोंकणी जावन आसा. आज इतल्या वर्सां नंतर राज्य पुर्नरचना आयोग नेमी नासताना उत्तरांचल, झारखंड, छत्तीसगड, उत्तराखंड हीं राज्यां स्थापन जातात. तर हे वाठार मोडून संयुक्त गोंय कित्याक निर्माण कर नयो?

ह्या शीमेवादांत गोंय सरकारान सामील जावंक जाय. तेमी ह्या वाठारांतल्या कोंकणी मनश्याची इत्सा पुराय करूंक जाय. ह्या प्रस्नाविशीं गोंय राजाच्या मुखेलमंत्र्याकडे चर्चा घडोवन हाडूंक जाय. कायद्यांत कारवार, सुपा हे अस्सल कोंकणी वाठार गोंयांक जोडून आजपर्यंत अर्दकुटी अशिल्ली कोंकणी चळवळ पुराय करूंक जाय.

केंद्र सरकार परत एक पटी दुसरो राज्य पुर्नरचना आयोग स्थापन करच्या तयारेंत आसा अशें आयकुपाक येयलां. व्हडली आनंदाची खबर. तेन्ना गोंयच्या मुखेलमंत्र्यानी आनी बाकीच्या आमदार – खासदारांनी लक्ष घालपाक जाय. आमकां कोंकणी मनश्याक भाशावार प्रांत रचनेप्रमाणे राज्य मेळूंक ना. तेन्ना ह्या विशयाचेर चर्चा जावंक जाय. आमकां आमचो हक्क मेळोवन घेवंक जाय. कारण कोंकणीक सगलें झगडून घेवचें पडलां. सगले आपले निजाचे आसले तरी तशें कारवार, सिंधुदुर्ग सयत पुराय कोंकणी प्रांत एक जावन संयुक्त गोंय निर्माण जावपाक जाय आनी ती काळाची गरज आसा.

ह्या लेखा वरवीं हांव समस्त कोंकणी लोकांक आवाहन करतां की, तांणी गोंय सरकार आनी केंद्र सरकार हांचेकडेन हो भुगोलीक संलग्नता, भाशीक एकचार आनी दायजीक एकचार आशिल्लो कारवार, सुपा, हलयाळ सयत सिंधुदुर्ग पर्यंत वाठार गोंयांक जोडून एक पूर्ण कोंकणी राज्य निर्माण करचें. आमी सगल्या ह्या वाठारांत रावपी कोंकणी भाव – भयणानी सपन बाळगुया की आमची इत्सा बेगीन पुराय जावची म्हण. आमकां पूर्ण कोंकणी राज्याविशीं आयतीच संद चलून आमच्या दारांत आयल्या. तिका आमी येवकार दिवया आनी एक अपूर्ण आशिल्लें पूर्ण कोंकणी राज्य घडोवया. भौ. काकासायब कालेलकार, भौ. माधव मंजुनाथ शानभाग आनी रायटर आनी फायटर भौ. रवींद्रबाब केळेकारालें सपन पुराय करया. जेन्ना हें सपन पुराय जातलें तेन्ना कोंकणी चळवळीक विराम मेळटलो. नातर आनी थोड्या दिसांनी कोंकणी म्हूण मिरोवपी गोंय राज्य परक्यांच्या हातांत वचून ना नपयत जातलें. गोंयांत कोंकणी उरली तरच कोंकणी राज्य सोबतलें. कारवार, सुपा, हलयाळ, सिंधुदुर्ग हे वाठार अस्सल कोंकणी वाठार आनी हे संयुक्त गोंयांत सामील करूंकच जाय.



*With Best Compliments From*



Estd 1920

# KONKAN MARATHA MANDAL

## UTTAR KANNADA DISTRICT

Regd. No. Society / Rgn / U. K. / 385-84-85
Konkan Maratha Bhavan, Sadashivgad,
Karwar - 581 352, Tel. : 08382-265065

| | | |
|---|---|---|
| **Shri Ramkrishna Vishwanath Naik** | President | 09448347650 |
| **Shri Vaman Purshottam Sawant** | Vice - President | 08382-220099 |
| **Shri Ramesh Gopal Rane** | Secretary | 09632757101 |
| **Shri Satu Ganesh Sawant** | Joint Secretary | 0942388593 |
| **Shri Mahendra Govind Naik** | Treasurer | 09448530802 |

**Managing Committee**

| | | |
|---|---|---|
| **Shri Bhalchandra Sairoba Naik** | Member | 09449929867 |
| **Shri Vitoba Vishwanath Naik** | Member | 08382-257474 |
| **Shri Shyam Krishna Sail** | Member | 09342674710 |
| **Shri Shivanand Ganapati Rane** | Member | 09449006065 |
| **Shri Taranath Gajanan Rane** | Member | 08382-220748 |
| **Shri Shivanand Fakir Gaonkar** | Member | 09448856853 |
| **Shri Shashikant Shankar Rane** | Member | 09448942609 |
| **Shri Dattatraya Sakharam Rane** | Member | 09731458845 |

# On the Brink of a Memorable Milestone...
## *50 years of Freedom*



Shri Digambar Kamat
*Hon'ble Chief Minister, Goa*

EDUCATION



INDUSTRY



AGRICULTURE



HEALTH




TOURISM



As we march to the milestone of the Golden Jubilee of Liberation from colonial bondage in the coming year, we pay homage to Goa's intrepid freedom fighters and the valiant Indian Army on the memorable day when 49 years ago the Indian Tricolour waved for the first time in freedom across Goa.

Since then our state has made rapid strides in social and economic spheres. As a tourist destination, it is second to none in the country, and does not lag behind in crucial social and economic indicators. It occupies a prime position in per capita income and in important signposts like female literacy, social welfare and health care. In overall literacy rate, Goa ranks among the highest in the country.

Goa may be among India's smallest states, but its hospitality - both in spirit and as an industry - has remained unmatched. Indeed it has made rapid strides in all fronts since breaking free on December 19, 1961. And it is the indomitable spirit of the people of Goa that has made this possible.

On this occasion of both solemnity and celebration we pledge to keep the flame of freedom burning in our hearts and in our land.

**Jai Hind! Jai Goa!**

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa

